# आशिकुशीक

(स्वान्तः सुखाय बरपां)

रवीन्द्र केळेकार



जाग प्रकाशन

जाग प्रकाशन क्र. ७०



पयली उजवाडावणी (१००० प्रती) :
२ ऑक्टोबर, २००७

उजवाडावपी:
डॉ. जयवंत भा. सरदेसाय
जाग प्रकाशन
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्ट्स,
रुअ द साउदादिश,
पाजीफोंड, मडगांव-गोंय ४०३ ६०१

अक्षर जुळणी/मांडणी :
जाग प्रकाशन




भायलें चित्र:
डॉ. सुबोध केरकार

भितर्ली चित्रां:
आसावरी नायक



छापपी:
मौज प्रिंटिंग ब्यूरो
खटाववाडी, गिरगांव, मुंबय - ४०० ००४

मोल: १०० रुपया




# हो झेलो गांथतना

तरेकवार विशयां वेल्या चवसठ ल्हान ल्हान बरपांचो हो झेलो. *वेळे वयल्यो घुलो, सांगाती, ओथांबे* हेच यात्रेंतलें हें मुखावेलें पेणें. ह्या बरपांनी चिंतनां आसात, तश्यो चिंतूंक वाव दिवपी ल्हान ल्हान घडणुकांच्यो 'नोंदी'य आसात.

रवीन्द्रबाब हांकां 'स्वान्तः सुखाय बरपां' म्हणटात. पूण ह्या सगळ्या बरपांनी वाचप्याक कितें तरी सांगपाचो, ताका विचार करूंक लावपाचो एक तीव्र हुटहुटोय आसा. हे नदरेन पळोवंक गेल्यार, सगळ्यांक सांगाता घेवन वांगडा तेजवंत जावपाचें आपोवणें दिवपी '*तेजस्विनावधी तमस्तु*'चो साद ह्या बरपांनी पावला कणकणीं जाणवता.

ल्हान निबंध हो रवीन्द्रबाबांलो आवडटो फॉर्म. भोव थोडीं उतरां वापरून जाऽयतें कितें सांगपी रवीन्द्रबाबांले निबंध म्हळ्यार तांगेले सुमार सात तपांचे जीवन-साधनेचें, पांच तपांचे साहित्य-साधनेचें कोंकणी बरपावळीक आनी भारतीय साहित्याक मेळिल्लें अप्रूप फळ.

ह्या बरपांचो झेलो गांथतना, 'मॅचींग सेंटरां'नी जे भाशेन एका रंगाच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो छटा एकामेकां शेजरा मांडून दवरतात, तशीं विशयाचे नदरेन लागीं आशिल्लीं बरपां हांगा एका फाटल्यान एक घेतल्यांत.

हांतलीं चडशीं बरपां 'जागां'त आयिल्लीं, कांय आयतारच्या 'सुनापरान्तां'त 'स्वान्तः सुखाय' ह्या माथाळ्याच्या सदरांत आयिल्लीं, कांय 'कोंकण टायम्सां'तूय आयिल्लीं.

*वेळे वयल्यो घुलो, सांगाती* आनी *ओथांबे* पुस्तकांक वाचप्यांचो खूब बरो प्रतिसाद मेळ्ळा. *आशिकुशीक्य* वाचपी अशेच उखलून धरतले म्हूण आमकां भरवंसो आसा.

माधवी सरदेसाय



१.

अना आयिल्लो. गोंयांत पावलो म्हणटकूच एक फावट मारून वताच.

'घरा आसा काय म्हूण विचारपाक फोन लायिल्लो. जाल्यार, तुजो फोन फकत वाजतालो... म्हळें, चान्स घेवंया. वेळ आसा मूं?'

'चोविसूय वरां हांव मेकळो आसतां, आनी चोविसूय वरां कामांत आसतां', हांवें जाप दिली.

'मेळूंक कोण येनात?'

'वाट चुकून कोणूय पावता केन्नाय.'

म्हाका काकासायबांचो उगडास जालो. दर पावसाळ्यांत हांव तांचीं दोन तीन पुस्तकां तयार करतालों. (तांच्या बरपांचीं कात्रणां म्हजे कडेन येतालीं.) पुस्तकां तयार जातकूच तांच्यो फायली घेवन तांकां दाखोवपाक वतालों. कितें घेतलां, कितें काडलां, कितें घालां, सगळें दाखोवन तांची मान्यताय घेतालों, आनी तांगेल्या उजवाडावप्या कडेन धाडून दितालों. अशें तशें एका दिसाचें काम आसतालें. पुणून पंदरा पंदरा दीस तांकां वेळ मेळनाशिल्लो. मेळटालो तो गाडयेंत – मुंबय-दिल्ली, दिल्ली-मुंबयच्या वा हेर खंयच्याय प्रवासांत.

एक दीस तांणी सगळ्या कामांतल्यान आंग आनी मन काडून घेतलें. हाका लागून जे सदां येताले ते इल्ले इल्ले करून पातळ जायत गेले. करतां करतां येवपाचेय बंद जाले. निमाणीं पांच स वर्सां म्हज्या वांट्याक आयिल्लीं. वर्सांतल्यान एक दोन खेपे वचून तांचे सरीं रावंक लागलों. पंदरा पंदरा दीस, म्हयनो म्हयनो रावचें आनी हजार प्रस्न मुखार दवरून ते घांसून पुसून काडचे. त्या वेळार ज्यो भासाभासो जाताल्यो त्यो बरोवन काडिल्ल्यो जाल्यार *ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत* पुस्तका परसूय व्हड आनी घडये अदीक रुचीक आनीक एक पुस्तक तयार जातलें आशिल्लें. पूण येवजलें ना.

ह्याच काळांत एक दीस हांवें तांकां विचारलें; 'हालीं कोण मेळूंक येनात... तुमकां शेणिल्ले वरी दिसना?'

*'आपण लोकांना सोडून दिले म्हणजे लोकही आपल्याला सोडून देतात',*

तांणी मुमुरख्यांनी हांसून जाप दिली.

हांवें ही खबर अनाक सांगली. तो म्हणूंक लागलो, ‘सार्त्राचेंय अशेंच जाल्लें. निमाणें निमाणें कोण ताका मेळूंक येनाशिल्लो.’

कोण मेळूंक येनात म्हूण सार्त्राक खंत भोगताली काय? काकासायबांक भोगनाशिल्ली. तांच्या चिंतन मननांत इल्लो लेगीत खंड पडूंक नाशिल्लो. तृप्त दिसताले. तांगेली ही तृप्ती भितल्ली आशिल्ली. खंत भोगिल्ली जाल्यार ती तांच्या उलोवण्यांतल्यान वा चलणुकेंतल्यान दिश्टी पडटली आशिल्ली. केन्ना कोणाक दिश्टी पडली ना...

म्हाका खंत भोगता, कांय जिवाभावाच्या इश्टांचो उगडास जाता तेन्ना. फकत तेन्ना. हरशीं हांव कोणाच्या न्हय कोणाच्या सांगातांतूच सदां रावन आयलां. केन्ना सॉक्रतिशाच्या तर केन्ना बुद्धाच्या, केन्ना तॉलस्तॉयाच्या तर केन्ना गांधीच्या, केन्ना रवीन्द्रनाथाच्या तर केन्ना फेर्नान्दु पेस्सोआच्या. म्हयनो भर जालो, दोस्तोयव्हस्की सांगाताक येवन रावला. ताच्यो *Crime and Punishment, The Karamasov Brothers* सारकेल्यो नवलकथा वाचिल्ल्यो. पयर माधवीन *Great Short Works of Fyodor Dostoevsky* नांवाचें एक़ पुस्तक हाडून दिलें. आठ नवलिका आसात ह्या पुस्तकांत ताच्यो. ताच्या व्हडल्या नवलकथां परस इल्ल्योय उण्या पांवड्याच्यो न्हय. Masterpieces in their own right. तांतली *Notes from the Underground* जाल्यार ताकाच बरोवंक येवपाची. दुसऱ्या कोणाक न्हय. तॉलस्तॉय, तुर्गन्येव्ह हांकांय न्हय. आनी दॉस्तॉयव्हस्की ज्या संवसाराचें चित्रण करता तो संवसार संवकळीचो आशिल्ल्या गोर्कीकूय न्हय. हें पुस्तक कोंकणींत हाडूंक येत काय कितें हाचो अदमास घेवपा खातीर दोन तीन दीस ताचीं पानां चाळीत बसलों. अखेरेक, हाडूंक येतलें, पुणून दुसऱ्या कोणाकूय, म्हाका जमपाचें ना, अशें म्हळें. आनी हांवें पुस्तक कडेक दवरलें.

म्हजे कुंडलेंत खंयचे गिरे खंयच्या घरांत आसात, खबर ना. म्हूण तरणेपणा सावन असल्यांच्या सांगातांत रावपाची संद मेळ्ळ्या. ना जाल्यार, खूब जाणांक दिसता तशें म्हाकाय एकोडो एकोडो दिसतलें आशिल्लें, आनी जीव खावंक येतलो आशिल्लो.



## २.

एक कथा उगडासांत उरल्या. कोणाली, याद जायना.

एकलो आपणाल्या इश्टाक मेळपाक गेल्लो. भायर सोप्यार इश्टाची जाणटेली आवय बशिल्ली मेळ्ळी.

'ना घरांत?'

'निकतोच भायर सरला. येतलो थोड्या वेळान. तूं आयल्यार बसोवन घे म्हूण सांगून गेला.' अशें म्हणून तिणें ताका बसपाक कदेल दाखयलें. तो बसलो.

'कशी आसा?', कितेंय तरी विचारूंक जाय म्हूण ताणें विचारलें.

'आसां... काडटां दीस.' तिणें जाप दिली आनी पिरपीर सुरू केली. 'उबगण आयली रे जिविताची... सत्तर जावन गेलीं. आंग सगळें दुखता. भूक लागना... न्हीद सारकी पडना...'

'पूत दोतोर मगे तुजो. तो कितें म्हणटा?'

'तो कितें म्हणटलो! तरातरांच्यो गुळयो हाडून दिता. सकाळच्यो ह्यो घे म्हणटा, दनपारच्यो ह्यो... रातच्यो ह्यो... घेतां. पुणून, कांयच फरक दिसना... जाणटेपणांत अशेंच जाता म्हणटा, आनी वयल्यान, तुका बेश्टे हुसके करपाची संवंय जाल्या म्हणटा. मुद्दाम म्हूण कोण हुसके करता रे? येतात ते...'

विशय बदलचो म्हूण हाणें विचारलें, 'हांगा बसून कोणाची वाट पळेताली काय कितें?'

'कोणाची पळेतलें, पुता? कोण्णाची ना. बरोबरचीं चडशीं सगळीं गेलीं. उरल्यांत तीं म्हजे भाशेन घरांतलीं भायर सरनात... भितर कुडींत मन लागना म्हूण दीस पडचे पयलीं हांगा येवन बसतां. रस्त्या वयल्यान येतात वेतात तांकां पळेतां. वळखीचो कोणूय दिश्टी पडलो जाल्यार ताच्या घरच्या मनशांची खबर घेतां. दोन तीन वरां बरीं वतात... घरांत कोणाक वेळ ना. पूत दोतोर, सुनूय दोतोर. दोगांय दीस भर दवाखान्यांत ना जाल्यार विझितांक... भुरगीं सकाळचीं इश्कोलाक. दनपारचीं ट्युशनाक. घरांत उरलीं जाल्यार टी.व्ही. मुखार वचून बसतात. आजये सरीं बसून खबरी करपाक वेळ खंय आसा तांकां?... हरशीं म्हाका उणें कांय ना

रे हांगा. एक वेगळी कूड दिल्या म्हाका. बाथरुमूय कुडीक तेंकून... एकली येवन म्हजीं सगळीं कामां करता. कांयच उणें पडूंक दिना. पुणून तिचे कडेन उलोवन उलोवन कितलें उलयतलें?... कोणूच नात रे उलोवपाक म्हऱ्यांत...'

'वाचूंक जाय हे पिरायेर... *रामायण, महाभारत, भागवत...* वेळ बरो वतलो.' हाणें म्हळें.

'कितें उलयता पुता तूं? वाचूंक येवं नाका? आमचे मुस्तींत चलयांक कोण शाळेंत धाडी नाशिल्लीं... तातूंत, धा वर्सांचे पिरायेरूच म्हजें लग्न जालें...'

अवचीत तिचें मन फाटल्या काळांत भोंवंक गेलें. मुमुरख्यांनी हांसत, लजेत म्हणपाक लागली, 'एक मजेची गजाल सांगूं? हांसूंक येतलें तुका. हांव सात वर्सांचें आसतनाच म्हजी सोयरीक जाली. भुरगो शेजारचो. म्हजे परस पांच वर्सांनी व्हड. एक दीस ताचे भयणी वांगडा भायर खेळटालें. तान लागल्या म्हूण उदक पियेवपाक भितर आयिल्लें. हो भितर लिपून रावला म्हूण म्हाका खंय खबर! कोण नासो पळोवन ताणें म्हाका घट्ट वेंग मारली आनी म्हजो उमो घेवपाचो यत्न करपाक लागलो. 'सोड म्हाका, सोड म्हाका' म्हूण मोट्यामोट्यान आड्डलें तरी तो कसोच सोडिना. हांवें कितें करचें, ताच्या हाताक एक घांस मारलो आनी धांवत भायर आयलें. रातचें आईक सांगलें, 'हो भुरगो मगे, बरो न्हय. फाजील... आयज तो म्हाका वेंगेंत घेवन म्हजो उमो घेवंक सोदतालो.' आई हांसली. 'पोरा, तो तुजो मोग करतालो', तिणें म्हळें. मोग-बीग कितें तें हांव खंय जाणां आशिल्लें?' इतलें सांगून जाणटेली हांस हांस हांसपाक लागली. 'लग्ना उपरांत चार पांच वर्सांनी मातशी अक्कल आयली... सोळाव्या वर्सार चलो जालो. उपरांत, थार नाशिल्ले भाशेन एका फाटल्यान एक चार धुवो जाल्यो...'

'घोव कितें करतालो?'

'नोकरी... चार पयशे जोडून हाडटालो. ताचेर संवसार चलतालो... म्हाका चाळीस जाल्यांत तेन्ना काळजाचें जावन गेलो... ते मेरेन पूत दोतोर जाल्लो. ताणें संवसार सांबाळ्ळो. भयणींचीं लग्नांय ताणेंच केलीं. सगळें बरे भाशेन चल्लें. पुणून, उलोवपाक कोणूच ना रे म्हऱ्यांत...'

थोड्या वेळान तिणें विचारलें, 'एक विचारूं? तूं चार गांव भोंवला न्हय, म्हूण विचारतां. अमेरिकेक खंय म्हजे येदे उतार पिरायेच्यो बायलो कोणूय सांगाती सोदून काडटात आनी ताचे कडेन लग्न जातात... खरें तें?'





## ३.

काकासाहेब कालेलकर णव्वद वर्सांचे जायसर सदचे वरीच कामां करताले. सद्दां धा बारा चिटींक जापो बरयताले. एकाद-दुकलो लेख बरयताले, कोण येता ताचे कडेन तरातरांच्या विशयांचेर उलयताले. ताका कितें करचें तें सांगताले. सप्तकांतल्यान एक दोन दीस व्याख्यानां दिवपाकूय वताले, आनी सद्दां नवें नवें कितें वाचीत आसताले. साठ वर्सां पयलीं सुरू जाल्लो हो नित्यक्रम णव्वद वर्सांचे पिरायेर लेगीत चलयत राविल्ले. बंदखणींत लेगीत तांचो होच नित्यक्रम चल्ला. भोंवप तर तांचें आयुष्यभर चलत राविल्लें. पांयांक चाकां आशिल्ले वरी, आयज हांगा फाल्यां थंय, हे भाशेन ते एका सारके भोंवत रावल्यात. आठ-धा खेपे तरी तांणी पृथ्वीची प्रदक्षणा काडल्या. देशांत भोंवल्यात ताचो तर हिशेब मेळपाचो ना. ते पावूंक नात अशी एक्क सुवात देशांत आसची ना. तांणी पळोवंक ना असलो एक पर्वत आसचो ना, एक न्हंय आसची ना, एक घसघसो आसचो ना, एक्क इतिहासीक थळ आसचें ना. 'तुमच्या दीर्घायुष्याचें गुपीत कितें' म्हूण कोणूय विचारतालो तेन्ना ते म्हणटाले, 'हांव एका सारको कामां करीत आसतां, एका सारको भोंवत आसतां म्हूण जाणटेपण आनी मरण दोनूय म्हाका धरूंक पावनात. तशीं, दोनूय म्हजे फाटल्यान लागल्यांत पुणून हांव तांकां अजून मेळूंक पावूंक ना... म्हजो नित्यक्रम बंद पडटलो त्याच दिसा दोनूय म्हाका येवन धरतलीं.'

एक दीस तांच्या ह्या नित्यक्रमांत खंड पडलो. इंदिरा गांधींनी आणिबाणी हाडली आनी जयप्रकाशां सारकेल्या एका राष्ट्रपुरुषाक धरून तिणें बंदखणींत

घाले. काकासायबांक खूब वायट दिसलें. इंदिरा गांधी तांकां खूब मानताली. आपणाल्या जल्मदिसा येवन तांचो आशिर्वाद घेवन वताली, आनी तांच्याय जल्मदिसा तांकां प्रणाम करपाक नेमान येताली. काकासायबांनी तिका सांगून धाडलें. 'जे.पीं. सारकेल्यांक बंदखणींत घालप स्वतंत्र भारताक सोबना. तुमचे कितें मतभेद आसात ते विनोबांक मदीं घालून आमी पयस करुंया.'

'तुमी हातूंत पडचें न्हय अशें म्हाका दिसता. जे.पीं. फाटल्यान सी.आय.ए. आसा, आनी सी.आय.ए. देशांत बेबंदशाय मातोवपाक मुखार सरल्या.' इंदिराजींनी जाप धाडली.

काकासायबांनी विनोबांक सांगून धाडलें, 'आमी आसतना जे.पीं. सारकेल्यांक बंदखणींत घालप आनी आमी ओगी रावप, आमकां सोबना. तुमी मदीं पडचें आनी सगळें जाग्यार घालचें अशें म्हाका दिसता.'

'अजून वेळ येवंक ना.' विनोबांची जाप आयली.

काकासायबांनी रोखडोच निर्णय घेतलो, परिस्थितीचेर आपलो ताबोच उरूंक ना जाल्यार खबरेपत्रां तरी कित्याक वाचचीं? तांणी त्याच दिसा सावन खबरेपत्रां वाचपाचें बंद केलें. लेख बरोवपाचें बंद केलें. भाशणां-बिशणां सगळें सोडून दिलें.

आठ दीस लेगीत वचूंक नात, जाणटेपणान तांचेर हात घालो.

अप्पा पटवर्धनांची आत्मकथा प्रस्तावने खातीर तांचे कडेन आयिल्ली. अप्पा तांगेले एक सांगाती. गांधींक पुराय समजल्ले आठ धा जाण देशांत आशिल्ले तांच्यांतले एक. प्रस्तावना बरोवन दितां अशें मोटे उमेदीन म्हळ्ळें. पुणून आत्मकथा सुमार आठशीं पानांची. ल्हान न्हय. आठशींय पानां एका दिसांत वाचून जायनाशिल्लीं. अशीं तशीं शंबरेक पानां वाचून जातालीं. फुडलें वाचपाक दुसऱ्या दिसा सुरवात करीत जाल्यार काल कितें वाचिल्लें ताची यादूच उरनाशिल्ली. आठ धा दीस काकासायब आपणा लागींच संघर्ष करीत रावले. अखेरेक प्रस्तावना आपणा कडल्यान बरोवन जावची ना अशें तांकां दिसलें. हांव म्हऱ्यांत बशिल्लों. 'एक कार्ड घे', तांणी म्हाका म्हळें आनी पुस्तक उजवाडावपी संस्थेक बरोवंक सांगलें, 'पुराय पुस्तक एका दिसांत वाचून जायना, आनी काल वाचिल्ल्याचो आयज उगडास उरना... म्हजे कडल्यान प्रस्तावना बरोवन जावपाची ना... म्हाका वायट दिसता.' हांवें कार्ड बरोवन घेतलें, तांची सय घेतली. पुणून कार्ड पोस्टांत घालचे बदला म्हजेच कडेन दवरलें.

हांवें पुस्तकाचें छापिल्लें बरप तांचे कडल्यान मागून घेतलें. दोन तीन दिसां भितर पुराय वाचून काडलें. म्हत्वाचें जें जें दिसलें तें 'मार्क' केलें आनी तें

काकासायबां मुखार दवरून म्हळें, 'हें इतलेंच वाचात. तीस चाळीस पानां आसात. आनी म्हाका प्रस्तावना डिक्टेट करात, हांव बरोवन घेतां.'

काकासायबांनी आयुष्यांत शेंकड्यांनी प्रस्तावना बरयल्यात. ही तांगेली निमाणी प्रस्तावना आशिल्ली.

मागीर ते मनशांकूय विसरपाक लागले. म्हजो आनी तांचो तीस पस्तीस वर्सांचो संबंद. उमाशंकर जोशींचो तर पंदरा वर्सांचो अदीक. पुणून आमकां दोगांकूय आमचीं नांवां सांगचीं पडटालीं. आचार्य स. ज. भागवत तांगेले एक सांगाती. ते भायर पडिल्ल्याची खबर तांकां सांगली जाल्यार भागवतांची तांकां यादूच जायना जाली. विसरूंक नाशिल्ले ते फकत गांधींक. हांवें एक दीस तांकां विचारलें, 'तुमी सगळ्यांक विसरले. गांधींक विसरले व्हय?'

'ना...', तांणी जाप दिली, 'तांचो ह्या देशाचेर आनी खासा म्हजेर येदो व्हडलो प्रभाव आसा की कोणूच तांकां विसरूंक पावचो ना...' मागीर मुमुरख्यांनी हांसून म्हणपाक लागले, ते नात हाचो मात केन्ना केन्ना उगडास उरना. खूब दीस जाले, मेळूंक ना... मेळूंक वचूंक जाय, अशें दिसता... '*म्हणजे, माझ्यापुरते गांधी अजून जिवंत आहेत...*'

म्हातारपणान हात घालतकूच मरण कित्याक फाटीं रावतलें? पिरायेच्या शाण्णवाव्या वर्सा तांकां मरण आयलें.

मनशान अखेर मेरेन कामां करीत रावंक जाय. ना जाल्यार मरण ताका केन्ना उखलून व्हरीत सांगूं येना. कामाक लागता तेन्नाच मनशान निवृत्त जातकूच कितें करचें हाचो विचार करूंक जाय, आनी कामांत आसतनाच ताची संवंयूय लावन घेवंक जाय.

कोणूय निवृत्त जालो म्हूण कळटकच 'ओ हो, हाचो सांगात आमकां आतां चड दीस मेळपाचो ना' अशें, थुमेकाल-शें, म्हाका दिसपाक लागता, आनी हड्ड्यांत कलकलपाक लागता. कितलींशीं वर्सां एकेच तरेचें काम करपाची जांकां संवंय जाल्ली आसता तें काम सुट्टा तेन्ना तांच्या जिवितांत एक रितेपण निर्माण जाता तें हांवें पळेलां. हें रितेपण कशें भरून काडचें हें तांकां समजना, आनी इल्ले इल्ले करून तेय रिते जावन पडटात, आनी रोखडेच, कांय वर्सां भितर, मरतात.





४.

जाणटेपणांत मनीस खूबश्यो गजाली विसरता म्हणटात. सकाळच्यो गजाली दनपार मेरेन विसरता जायत. पुणून फाटल्यो? यादींत दवरपा सारक्यो बऱ्यो वायट सगळ्यो गजाली अंतरमनांत खंय तरी तो सांठावन दवरता. केन्ना खंयची कित्याक लागून वयर सरत, सांगूंक येना. वयर सरिल्ली दिश्टी पडटकूच 'आरेच्या! खंय लिपून राविल्ली ही' असो प्रस्नूय आमकां पडटा, आनी अजाप जाता. आयज अशेंच जालें – सकाळचे पेपर आयिल्ले. खून, दरवडे, अपघात, आगळिको असल्या खबरां मदीं मदीं 'फिलरां' सारक्या फुडाऱ्यांच्या 'शापातां'नी भरिल्ले. एकल्याच्या 'शापाता'चेर नदर पडली आनी अंतरमनांत लिपून आशिल्ली एक याद अवचीत वयर सरली.

गोंय मेकळें जाल्लें. म्हयनो लेगीत वचूंक ना, म्हज्याच गांवच्या, म्हाड्डोळच्या, बाजारांत कांय पोस्टर्स लागिल्ले पळेले. 'घरचे कांय भेदी' आनी 'भायले कांय चोर' भारताच्या नकशा वयलें गोंयचें नांव निशाण लेगीत पुसून उडोवपा खातीर मुखार सरिल्ले. वायट दिसलें. चड वायट दिसलें, कांय स्वातंत्र्य सैनिकांक ह्या आसुरी शक्तीं वांगडा भरसल्ले पळोवन. तांच्यांत एक कोंकणी कवीय आशिल्लो. कांय म्हयने हांचे आड आमी झुजत रावले. एक दीस हांव उबगलों. उबगलों म्हणचे परस सामको विटलों म्हळ्यार समा जातलें. असल्या कसल्याय मुडांत पावतालों तेन्ना बाकीबाबां सरीं वचून बसतालों. आनी बडऽ बडऽ करून बडबडून काळीज ल्हव करतालों.

ह्या 'विटिल्ल्या' मुडांत असोच एक दीस हांव तांचे सरीं वचून बसलों आनी एका सारको बडबडत रावलों. काळीज ल्हव करीत रावलों. थोड्या वेळान बाकीबाबांच्या तोंडा कडेन पळेलें जाल्यार ते खंयचे खंय पाविल्ले. 'चड बडबडलों काय, देवा' असो दुबाव आयलो, आनी 'बरें बाकीबाब, येतां हांव' अशें म्हणून उठलों.

'तूं घरा केन्ना वतलो?' तांणी म्हाका विचारलें.

दनपारच्चीं तीन जाल्लीं. 'स वरांचे कोरेरीन वतलों.' हांवें जाप दिली.

'वचचे पयलीं म्हाका मेळून वच.' तांणी म्हळें.

साडे पांचांच्या अदमासाक तांगेर गेलों. तांणी रोखडीच आपणाली पटी काडली आनी एक कविता वाचपाक सुरवात केली–

*प्राणाक क्षय बुद्धीक भय, फाल्यांक जंय कालचीच वंय*
*आयलां थंय स्वातंत्र्य तें*
*स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय...*
*पाडसा वयले कुंवाळे, काल धवशे आज सांवळे*
*जंय सदां खुबळावन भौसा व्होतां खातीर घालती शबय*
*आयला थंय स्वातंत्र्य तें*
*स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय...*
*आप जंयच्या सगळें भश्टें, वंद्य परक्यांलेंच उश्टें*
*हुटकेती तांचे भितोडे मेळटा ती उखलूंक तळय*
*आयलां थंय स्वातंत्र्य तें*
*स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय...*
*पोट ही जंय एक निष्ठा, त्याग कष्टांची कुचेष्टा*
*जीव आसल्यार खावं भिकेचें, होच जंयचो दिग्विजय*
*आयलां थंय स्वातंत्र्य तें*
*स्वातंत्र्य न्हय, स्वातंत्र्य न्हय...*

(मदलीं कांय कडवीं विसरलां. *सासाय* पुस्तकांत मेळटलीं.)

कविता आयकना फुडें हांव ताळयो मारपाक लागलों आनी पिशें लागिल्ले वरी उठून नाचपाक लागलों. कोंकणींतले (आनी बाकीबाबांलेय) एके बऱ्यांतले बरे कवितेच्या जल्माक म्हजी बडबड निमित्त्याक कारण जाल्ली पळोवनूच खोस भोगिल्ली.

आयज सकाळीं पेपर वाचता आसतना आमच्या एका फुडाऱ्याच्या 'शापातां'नी म्हज्या अंतरमनांत लिपून आशिल्ली ही याद वयर सरिल्ली पळोवन दिसलें,

बाकीबाबांलें यादस्तीक आमी उबें केलें ना, खरें. पुणून तांकां कोण केन्ना विसरपाचो ना. जांकां लोक विसरतात तांचींच यादस्तिकां उबीं करपाचीं. बाकीबाब आसात. कोंकणी भास धर्तरेचे फाटीर आसतली ते मेरेन तेवूय आसतले.

आमगेल्या म्हालगड्यांनी विद्येची अर्थावणी 'सगळ्या नश्ट्या बांदपासांतल्यान मनशाक मेकळी करता ती' अशी केल्या. *'सा विद्या या विमुक्तये'.* आमकां सगळ्यांक चलत आयलां तेंच बरें, तेंच खरें अशें सदां दिसत आयलां. म्हूण, चलत आयलां तातूंत मातसो-सो बदल करुंया अशें कोणेंय म्हळें जाल्यार आमी नाका म्हणटात आनी, कसलीय सुधारणा कोणेंय सुचोवं, आमी रोखडेच तिचे आड वतात. ह्या आमच्या सभावाक लागून आमी आशिल्ले थंयच उरल्यात, मुखार सरूंक पावूंक नात. देखुनूच गोंय एका बंदेपणांतल्यान मेकळें जाल्लें आसतना ताका दुसऱ्या एका बंदेपणांत धुकलपाक आमच्यांतले 'महाराष्ट्रवादी' भाव अनमनले नात. आमचो सभाव आयजूय तोच उरला. फरक पडला जाल्यार तो इतलोच – आयज आमचे मजगतीं महाराष्ट्रवाद्यां वांगडा आंतरराष्ट्रीय बळां उबीं जाल्यांत. ह्या बंदेपणांतल्यानूय आमी आमची सुटका करून घेवंक जाय. ना जाल्यार आमी ना जावन वतले.

मुळाव्या शाळां सावन युनिव्हर्सिटी मेरेनच्या वर्गांनी खंय तरी बाकीबाबांची ही कविता भुरग्यांक शिकोवची. जमत व्हय आमकां हें? जमलें जाल्यार कोंकणी भुरगीं नवीं कर्तुत्वां करपाक मुखार सरले बगर रावचीं नात.



५.

एकल्यान म्हळां, 'रिटायर जावप म्हळ्यार जिविताचे गाडयेक नवे टायर घालप.' नवे टायर घालतकूच गाडी पयलीं वरीच धांवपाक लागतली. जाणटेपणांत मनीस दुबळो जाता, देव देव करीत मरणाची वाट पळेत बशिल्लो आसता म्हणपाचो जो समज रूढ जाला तो खरो न्हय. जाणटेपणांत एका वेगळे तरेच्या कर्तुत्वाचीं दारां उकतीं जातात. करीत आयिल्लो तीं कामां सुटलीं, आतां नवीं कामां आंगार घेवपाचो वेळ आयला अशें धरून चलूंक जाय. आनी तीं जीव ओतून करूंक जाय. म्हणटकूच जाणटेपण जाणटेपण उरना. संवसारांतलीं व्हड कर्तुत्वाचीं कामां हेच उतार पिरायेच्या लोकांनी केल्यांत. फाटल्या म्हा-झुजांत झूज जिखपाची दायकी विन्स्टन चर्चिलांनी आंगार घेतिल्ली त्या वेळार तांगेली पिराय सत्तरांच्या लागसारची आशिल्ली. निमाणे वेंचणुकेंत उबे रावन जिखून आयले त्या वेळार ते त्र्यांयर्शी वर्सांचे आशिल्ले. 'भारत छोडो' चळवळ सुरू केली त्या वेळार गांधींची पिराय ब्यात्तर वर्सांची आशिल्ली. ते नोआखालीचे यात्रेक गेल्यात त्या वेळार तांगेली पिराय अठ्ठ्यात्तर वर्सांची आशिल्ली. आनी दिल्लींत निमाणो उपास केला त्या वेळार ते एकुणअंयर्शी वर्सांचे आशिल्ले.

गांधी, म्हणुंया, महात्मा आशिल्ले. काकासाहेब कांय महात्मा नाशिल्ले. पुणून णव्वद वर्सांचे पिरायेर लेगीत दिसाक धा धा, बारा बारा वरां काम करताले. पयलीं करताले तेच उर्बेन. विनोबांनी भूदान यात्रा सुरू केल्या त्या वेळार तांगेली पिराय अठ्ठावन वर्सांची आशिल्ली. रिटायर जावपाची सरकारी पिराय ही. भूदान यात्रेंत तांणी ते उपरांतचीं चवदा वर्सां खर्चिलीं. मनशांतल्या मनीसपणाक उलो मारीत तांणी साडे पस्तीस हजार मैल पांयांनी माड्डिल्यात. पन्नास हजारां वयर प्रवचनां दिल्यांत. पन्नास लाख एकर भूंय दानांत घेवन ती लोकांक वांटून दिल्या. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, हजारांनी नवे ध्येयवादी तरणाटे तांणी गांधीकार्याक जोडून दिल्यात.

'इस्कॉन'चे परमहंस भक्तिवेदांत स्वामी प्रभुपाद अमेरिकेक गेल्यात त्या वेळार तांगेली पिराय सत्तर वर्सांची आशिल्ली. बोल्सांत पानदुडू नाशिल्लो. सुरवेक थोडे त्रांस जाले. पुणून निर्धारान 'इस्कॉन' सुरू करिना फुडें दोन वर्सां भितर तांणी वर्जीनियांत एका दोंगरार एक नवें 'वृंदावन' उबें केलें. चार वर्सां

उपरांत टॅक्सास वाटारांत वेदीक शिक्षण दिवपी एक गुरुकूल सुरू केलें. धा वर्सां भितर संवसारभर शंबर देवळां बांदून घेतलीं. ब्यांयशीं वर्साचे जायसर सोळा खेपे पृथ्वी-प्रदक्षणा काडल्यो आनी भारतीय दर्शनाचेर सुमार अंयशीं ग्रंथ बरयले.

डॉ. राधाकृष्णनांनी चवसठ वर्सांचे पिरायेर भगवद्गीतेचो इंग्रजींत अणकार केला. आनी सत्तर उंपले उपरांत ब्रह्मसूत्रांचो केला. बर्नाड शॉन पिरायेच्या त्र्याण्णव वर्साचेर आपणालें निमाणें नाटक बरयलां, आनी सॉमरसॅट मॉमान चवद्यांयशाव्या वर्सा आपणालें *Points of View* पुस्तक बरयलां. टॉलस्टॉयान ब्यांयशाव्या वर्सा एक अन्याय पळोवन 'म्हज्यान ओगी बसूंक जावचें ना' नांवाचो एक लांब निबंध बरयल्लो. इतलेंच न्हय, तर त्या अन्याया आड एक आंदोलनूय चलयलां. बर्ट्रांड रसेलांनी अण्वस्त्रां आड चळवळ चलयल्या त्या वेळार तांगेली पिराय ब्याण्णव वर्सांची आशिल्ली. पाब्लो पिकासोन णव्वद वर्सां उपरांतूय बऱ्यांतलीं बरीं चित्रां काडल्यांत आनी आल्बर्ट स्वैत्झरांनी हे पिरायेर आफ्रिकेंतल्या एका रानांत एक हॉस्पिटल चलयलां. *'आराम हराम है'* म्हूण आमकां संदेश दिला त्या वेळार नेहरूंची पिराय सत्तर वर्सांची आशिल्ली, आनी मोरारजीभाई प्रधानमंत्री जाल्यात त्या वेळार तांगेली पिराय त्र्यांयशीं वर्सांची आशिल्ली. बर्नार्ड मॅकफेडन हेच पिरायेर पॅरशुटांतल्यान पॅरीस शारांत देंवला, आनी केइझोमिरा नांवाचो एकलो जपानी सत्यात्तर वर्सांचे पिरायेर आपणाले इकरा वर्सांचे नातीक घेवन किलिमांजारो पर्वतार चडला.

जाणटेपणांत मनीस निरुपेगी जाता म्हणटात तें खरें न्हय. जाणटेपणांत काती कवळ्ळ्यो तरूय मनशान काळजाक मिरयो पडूंक दिवच्यो न्हय. संवसार कशाय कसो चल्लो तरूय मनीसपणा वयलो भावार्थ सोडचो न्हय. निर्शेणेक केन्ना लागीं घेवची न्हय. नेमान सदां पासय मारची, जेवणा खाणांत संयम बाळगुचो, हुसके सगळे सोडून दिवचे. जाणटेपण सृजनशीळ करूंक येतलें.

करण्यो करीत मनशान शंबर वर्सां जियेवपाची आस्त धरची अशें उपनिषदान म्हळां. 'शंबर' म्हळ्यार 'जिवो आसासर'. कसल्यो करण्यो? सदां करीत आयिल्लो त्यो न्हय. ते ते पिरायेक सोबतात त्यो. तरणे पिरायेर करपाच्यो वेगळ्यो. जाणटे पिरायेर करपाच्यो वेगळ्यो. करण्यां करण्यां मजगतचो हो विवेक मनशाक कळ्ळो जाल्यार मनीस निमाण्या खिणा मेरेन रसरशीत, उमेदी, क्रियाशीळ आनी सृजनशीळ उरतलो.





६.

आमच्या देशांत हजार तरांचीं फुलां. फुलाचें बऱ्यांतलें बरें प्रतीक सोदूंक देश बसलो तेन्ना ताका कमळ दिश्टी पडलें. चिखलांतल्यान वयर सरुनूय चिखला पसून अलिप्त... हांगा हजार जातींचे रूख. बऱ्यांतलो बरो रूख ताणें पिंपळांत पळेलो. अश्वत्थ – काल आशिल्लो तसो आयज न्हय, आयचे सारको फाल्यां न्हय – सदां नवोताल्ल. हजार तरांचीं शेवणीं. आनी हजार तरांचे प्राणी. बऱ्यांतलें बरें शेवणें, आनी बऱ्यांतलो बरो प्राणी संवसारा मुखार दवरतना ताणें मोर आनी शींव वेंचून काडले.

मनशांत ताणें बऱ्यांतलो बरो मनीस म्हूण कोणाक वेंचून काडलो? मनशांत 'आदर्श' ताका कोण दिसलो? ताणें बळाची उपासना केल्ली जाल्यार तो हनुमंताक वेंचून काडटलो आशिल्लो. शिटूक बुदवंतकायेची साधना केल्ली जाल्यार ताचे मुखार कृष्ण उबो रावतलो आशिल्लो. शीळ आनी प्रज्ञेक ताणें व्हड मानिल्लीं जाल्यार बुद्‌ध ताका दिश्टी पडटलो आशिल्लो. देशांत शूर वीर जायते जावन गेल्यात. बुदवंत तशे शीळवंत आनी प्रज्ञावंतूय जावन गेल्यात. पुणून सगळ्यांत श्रेष्ठ मनीस सोदूंक तो बसलो तेन्ना ताका मेळ्ळो – रुशी. परमतत्वाक गिन्यानाचे वाटेन जोड्डून तृप्त जाल्लो, आत्म्यांतूय तें तत्त्व पळोवन कृतकृत्य जाल्लो, काळजांत तें अणभवून तिडक ओडी पेल्यान गेल्लो. करणेच्या मळार तें पळोवन शान्त जाल्लो. धाय दिकांतल्यान तें जोड्डून 'धीर' जाल्लो आनी सगळ्या जिवांत तें पळोवन तांचे कडेन 'युक्त' जाल्लो.

रुशी घरदार सोड्डून वचना. घरांतूच रावता. संवसारांतूच आसता. पुणून संवसारा पेल्यान गेल्लो आसता. सगळ्या गजालींनी लक्ष घालता. पुणून कित्यांतूच आपणाक घुसपावन घेना. अलिप्तूच रावता. सगळे आपले आनी आपूण सगळ्यांचो, हेच भावनेन जियेत आसता.

सगळ्यांक जो आपले करता ताकाच ह्या देशान व्हड मनीस लेखला. कमळ, पिंपळ, मोर, शींव हांचे भाशेन रुशीय एक प्रतीक ताचें – बऱ्यांतल्या बऱ्या आनी व्हडांतल्या व्हड मनशाचें.





७.

फाटल्या शंबर वर्सांच्या काळांत एका परस एक व्हड कितलेशे गोंयकार जावन गेले. कर्तुत्वाचें अशें एक लेगीत मळ मेळचें ना, जंय कोण न्हय कोण व्हड गोंयकार ना.

पुणून हे सगळे स्वत: व्हड जाल्यात. हांचे मजगतच्या एकल्याचे तरी हस्तुकीं गोंयकारांक व्हड करपाचो वावर घडूंक पावला व्हय? 'हांव जल्माक आयिल्लों त्या वेळार गोंयकार ज्या पांवड्यार आशिल्ले ताचेकूय कितल्याश्या वयल्या पांवड्यार ते आयज पावल्यात... तांच्या ह्या आरोहणाक म्हजो थोडो-भोव हातभार लागला' – हे तरेचीं संतोसाचीं उतरां हांचे मदल्या एकल्याचे तरी जिबे वयल्यान फुटूंक पावल्यांत व्हय? पाविल्लीं जाल्यार तांचें फकत नांव उरचें नाशिल्लें, तेवूय उरतले आशिल्ले.

शणै गोंयबाब आनी बाकीचे व्हड गोंयकार हांचे मदलो फरक तो हो – बाकीचे सगळे व्हड गोंयकार *जावन गेल्यात*. शणै गोंयबाबांक कूड सोडून पन्नास वर्सां वयर जावन गेलीं तरी आयजूय आमचे मजगतीं ते वावर करीत आसात. आपणा उपरांतच्या पांच पिळग्यां कडल्यान एका फुडलीं एक कर्तुत्वां करून घेत रावल्यात. आनी, फिरंग्यांनी तिसत्यो वादऱ्यो करून उडयल्लो कोंकणी लोक जे मेरेन 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतांत आपणाक गुंथून एक 'कोंकणी समाज' म्हूण मुखार येवचो ना आनी एक 'कोंकण' घडोवचो ना ते मेरेन ते कोणाक न्हिदूंक दिवपाचे नात. धोंगसून धोंगसून ताका जागयत रावपाचे आसात.

इतलें जैतवंत येसवंत फळादीक जिवीत दुसरो कोण गोंयकार जियेवंक पावला?

नादांचे, व्याकरणी बांदावळीचे आनी मुळावे उतरावळीचे नदरेन मराठी, गुजराती, हिन्दी सारकीच कोंकणी एक खेरीत भास म्हणपाचें शणै गोंयबाबान शास्त्रशुद्ध रितीन दाखोवन दिलें खरें; नाजुकांतल्यो नाजूक भावना आनी उंचांतले ऊंच विचार उकतावपाचे नदरेन संवसारांतले खंयचेय गिरेस्त भाशे परस कोंकणी उणी न्हय म्हणपाचेंय तांणी धा बारा मोलादीक पुस्तकां बरोवन दाखोवन दिलें खरें; लोटली, बाळ्ळी हे मुदलांतले खंयचे गांव, तांचें म्हत्व कितें; कर्तुत्वाच्या हावेसान गोंया भायर गेल्ल्या गोंयकारांनी कितें केलें – असले कितलेशे सोद

लावन तांणी इतिहासाच्या मळारूय मुळावी भर घाल्या ख़री, पुणून शणै गोंयबाबांलें योगदान इतलेंच हें न्हय. फिरंग्यां आदल्या दोन अडेज हजार वर्सांचो इतिहास धवळून तातूंतल्यान तांणी जें लोणी काडलें तेंच तांगेलें सगळ्यांत म्हत्वाचें योगदान म्हणूंक जाय. तांणी आमकां सांगलें –

अडेज हजार वर्सांच्या काळांत तुमी तुमचो राजकारभार चलोवंक केन्ना पावूंक नात. भायल्यान कोण न्हय कोण आयला, ताणें तुमचो राजकारभार आपणा हातांत घेतला. आनी तुमी ताच्या हाता खाला रावन ज़ियेत आयल्यात. हाका लागून तुमच्यांत धनीपणाची भावना केन्ना जागी जावंक पावली ना. धनीपणाची भावना जागयात, केळयात. तुमीच तुमचो फुडार घडोवपाक मुखार सरात. म्हणटकूच तुमी जाल्यात ताचेकूय लाख वांट्यांनी चड व्हड जावंक पावतले.

जिका आमी आमची 'अस्मिताय' म्हणटात ती ही – धनीपणाची भावना. शणै गोंयबाब सोडून आमच्यांत ती कोणेंच आतां मेरेन जागोवंक नाशिल्ली.

आनी मुजरत सांगूंक जाय –

जांच्यांत ती जागी जावंक पावली तेच 'ओपीनियन पोल' हाडून तो जिखून गोंय गोंयकारां खातीर राखून दवरूंक पावले. तेच कोंकणीक 'देशांतली एक म्हत्वाची साहित्यीक भास' म्हूण साहित्य अकादेमीची मान्यताय जोडून दिवंक पावले. तांणीच गोंयाक एक घटक राज्य म्हूण दर्जो मेळोवन दिला, आनी कोंकणीक राजभाशेच्या पाटार बसोवन निमाणें तांणीच तिका भारतीय घटनेचे आठवे वळेरेंत मराठी हिन्दी, गुजराती, बंगाली भासांचे पंगतीक व्हरून बसयल्या.

फाटल्या चार साडे चार दसकांच्या काळांत गोंयकारांचे हस्तुकीं हें जें कर्तुत्व घडूंक पावलां तें ह्या एका म्हा-पुरसाचे प्रेरणेन घडोवन हाडलां.

ताचेच १२५वे जयंतीच्या उत्सवाक गोंयांत विरोध जावचो? तोवूय मराठी कडल्यान घडून येवचो? 'अमृता कडेन पैजो जिखून' जी भास 'छाप्पन भासांचो गौरव' करपाक मुखार सरिल्ली तेच मराठीन गोंयकारांक इतले पडमूर करचे?





## ८.

मराठी भास केन्ना जल्माक आयली,खबर ना. पुणून मराठी बरपावळ बाराव्या शतमानांत सुरू जाल्या म्हणटात म्हूण वाचलां. मुकुंदराज हो मराठीचो पयलो कवी. तागेलो *विवेकसिंधु* ग्रंथ ख्रि.स. ११८८ तलो.

डॉ. वि.भि. कोलते म्हणटात, मराठी बरपावळीक आनी मराठी संस्कृतायेक खाशेलें रूप दिवपांत सगळ्यांत व्हड हातभार लागला तो चक्रधरस्वामीचो. आनी, चक्रधरस्वामी महाराष्ट्रीय न्हय, तर गुजराती आशिल्लो.

आनी 'महाराष्ट्र' केन्ना जल्मा आयलें? डॉ. कोलतेंनी एके कडेन पंदराव्या शतमानांतल्या एका मराठी कवीचें अवतरण दिवन म्हळां, पयलीं विदर्भाकूच लोक 'महाराष्ट्र' म्हणटाले. मागीर *'मऱ्हाटी भाष जेतुला ठाइं वर्ते'* तांचीं 'खंड मंडळां' तयार केलीं. पयलें फलटणच्यान दक्षिणे मेरेन जंय जंय लोक मराठी उलयतात तांचें मंडळ. ताचे उत्तरे दिकेक बालाघाटाच्या अंता मेरेनचें दुसरें. गंगा आनी गोदावरीच्या कांठां मदलें तिसरें. थंयच्यान मेघंकर घाटा मेरेनचें चवथें. उपरांत पुराय वऱ्हाड (विदर्भ) जातूंत आसपावता ताचें पांचवें. हीं पांचूय मंडळां मेळून 'महाराष्ट्र' जाता. इतलीं मंडळां कित्याक? तर खंय *'किंचित किंचित भाषेचा पालट असे म्हणौनि महामंडळें म्हणावीं.'*

हातूंत गोंय कारवार सिंधुदुर्ग येता व्हय? पंदराव्या शतमानांतल्या त्या कवीनूय स्पश्ट करूंक ना. डॉ. कोलतेंनीय करूंक ना. पुणून जे मुस्त्रींत 'विदर्भ' आशिल्लो ते मुस्तींत 'गोमंत' म्हुण्णूय एक वेगळो वाटार आशिल्लो अशें महाभारतांत आयलां.

'महाराष्ट्रा'ची दुसरी एक अर्थावणी पंदराव्या शतमानांतल्या त्याच कवीन केल्या. ती म्हत्वाची. तो म्हणटा —

*'महाराष्ट्र म्हणजे महंत राष्ट्र. म्हणोनि महाराष्ट्र. महंत म्हणजे थोर. तर तेचि*

*थोरि कवणे कवणे अर्थे पा. ना सात्त्विक हा एक. दुसरा सुखरुप. तिसरा इष्टकारक. चौथा निर्दोष. पांचवा सगुण. ऐसे पांचा भेदी महाराष्ट्र थोर. आणि कैसे थोर. ना* ***जेतुका अर्थी आपली थोरी असे तेतुलाही अर्थी आणिकासि थोरी करी. थोरापासूनि महाथोर तयातें महाराष्ट्र म्हणिजे.'***

म्हळ्यार, आपूण जितल्याय अर्थांनी व्हड तितल्याय अर्थांनी दुसऱ्यांकूय व्हड करता तो महाराष्ट्र.

काका गाडगीळ, नानासाहेब गोरे, लक्ष्मणशास्त्री जोयशी, (माधव गडकऱ्यांक हांचे पंगतीक बसोवं येता जाल्यार तेय) हांकां महाराष्ट्राचें हें व्हडपण कोणेंच कशें सांगलें ना काय, देवा! काय, कोणाक तें खबरूच ना? 'तुमकां भास ना, तुमी उलयतात ती कोंकणी आमचे भाशेची बोली... (म्हळ्यार, आमचे भाशेचें एक हेंगाडी रूप), पुर्तुगेज आयले आनी पुर्तुगेज गेले हाचे भायर तुमकां इतिहास ना, आमचो इतिहास तोच तुमचो इतिहास, तुमचें सुटके झूज आमी चलयलां. तुमी कोंकणी उलयतले जाल्यार उलयात, पुणून घरांत. घराच्या हुमऱ्या भायर गोंयांत मराठीच चलतली' असले फतवे (तेवूय गोंयांत येवन) काडप ही 'आपणा इतलेच दुसऱ्यांकूय व्हड करपाची' तरा?

केदो फरक पडला त्या महाराष्ट्रांत आनी ह्या महाराष्ट्रांत!

पुणून तांकां दुशण तरी खंयच्या तोंडान दिवपाचें? 'आमच्या वोंठांर कोंकणी घोळटा जाली तरूय आमच्या काळजांत मराठीच बसल्या... आमकां कोंकणी वाचूंक लेगीत येना' अशें मोट्या अभिमानान सांगपी अन्नाडी लोक गोंयांत 'थोर साहित्यकार' जाल्यात.

केदो व्हडलो वावर पडला आमचे मुखार! जाणवीक आसा व्हय कोंकणी भक्तांक?





## ९.

कोंकणीक कोणें साहित्य अकादेमींत व्हेली? कोणें तिका राजभाशेच्या पाटार व्हरून बसयली? कोणें आठवे वळेरेंत पावयली? कोंकणी कोणें 'केली'? एकलो म्हणटा आपणें. दुसरो म्हणटा आपणें. पयर एकल्याची नदर म्हजेर पडली आनी ताणें म्हाकाय आपणाले पंगतीक घेतलो आनी म्हळें, होवूय कोंकणी खातीर खूब वावुरला.

गुजराती संत-कवी नरसिंह मेहताचें एक भजन आसा. तातूंत एक कडवें येता—

*'हुं करूं, हुं करूं ए ज अज्ञानता*
*शकटनो भार ज्यम श्वान ताणे.'*

उबाळांचे दीस. एक सुणो रस्त्यार जीब भायर काडून हा हा करीत सावळी सोदीत उबो राविल्लो. अवचीत ताका बैलांचो एक गाडो येता तो दिश्टी पडलो. तो बेगिबेगीन धांवलो आनी गाड्या सकयल सावळेक वचून रावलो. गाडो मुखार चलत रावलो तसो तोवूय मुखार चलत गेलो. बरोच मुखार पावतकूच 'हांवें पळे, गाडो खंय मेरेन ओडून हाडलो' अशें तो दुसऱ्या सुण्यांक भासोवपाक लागलो.

अशेंच जाता आमचें. आमी थोडें भोव कितें करतात आनी मागीर आमीच सगळें केलें अशें खासा आमकांच दिसपाक लागता. आनी, लज मुरवत सोडून आमी तें दुसऱ्यांक सांगूंक लागतात.

कोंकणी आमी करूंक ना.

कर्तुत्वां दोन तरांचीं आसतात. जण एकलो आपणा खातीर करता तें कर्तुत्व एके तरेचें, वैयक्तीक रुपाचें. असल्या कर्तुत्वान आमच्यांनी साहित्य अकादेमीची तसरीप जोडूं येता. 'गोमंत शारदा' पुरस्कारूय जोडूं येता. 'ज्ञानपीठू'य जोडूं येत. घडये 'नोबेलू'य हाडूं येत. हाका व्यासंग जाय, साधना जाय, सातत्य जाय. तपश्चर्या जाय. वैयक्तीक कर्तुत्वान आमच्यांनी खंयच्चेय संस्थेचो वा कॉर्पोरेशनाचो

अध्यक्ष जावं येता. राज्यसभेचो वांगडी जावं येता, राजदूत जावं येता, गवर्नरूय जावं येता. लटपटी खटपटी करूंक येवंक जाय.

'ओपीनियन पोल' वैयक्तीक कर्तुत्वान हाडूंक येना आनी वैयक्तीक कर्तुत्वान तो जिखुंकूय येना. लिपी नाशिल्ले, व्याकरण नाशिल्ले, साहित्य नाशिल्ले एके 'बोली' भाशेक वैयक्तीक कर्तुत्वान साहित्य अकादेमींत पावोवंक येना, राजभास करूंक येना. आठवे वळेरेंतूय व्हरूंक येना. धा जाणांच्या कर्तुत्वानूच असलीं कामां जावं येतात. कोंकणीक आयज जी सुवात मेळ्ळ्या ती तिका धा जाणांच्या कर्तुत्वान मेळोवन दिल्या.

कितेंय हातांत धरतले जाल्यार हाताक पांच बोटां आसचीं पडटात. बोटां नाशिल्ल्या हातान कितेंच घट धरूंक येना. तशें, असलें कसलेंय कर्तुत्व करचें आसत जाल्यार ताका पांच तरांच्या फाटबळाचो आधार जाय पडटा.

पयलो आधार कार्यकर्त्यांचो. कोंकणीक शेंकड्यांनी कार्यकर्ते मेळिल्ले. शेंकड्यांनी लोक गांवां गांवांनी कोंकणी खातीर वावुरताले. आमचे कडेन इतले कार्यकर्ते आशिल्ले की ते एकामेकांक वळखऽ लेगीत नाशिल्ले. आमकां इतले कार्यकर्ते मेळिल्ले हाचें कारण, कोंकणी चळवळींत जे मुखार दिश्टी पडटाले तांचें रूप फुडाऱ्यांचें नाशिल्लें, कार्यकर्त्यांचें आशिल्लें.

दुसरो आधार विचारांचो, *कोंकणी भाशेचें जैत* ते *भौभाशीक भारतांत भाशेचें समाजशास्त्र* मेरेनचो,आर्विल्ल्या भासविज्ञानाचो घटमूट आधार कोंकणीक मेळिल्लो. ह्या आधारान सगळ्या कार्यकर्त्यांक प्रेरणा दिल्ली आनी कोंकणीक 'भास न्हय' म्हणटल्यांक सगळ्यांक चीप बसयल्ले.

तिसरो आधार 'वाट दाखोवप्यां'चो. केन्ना कितें करचें, कसलें पावल केन्ना उखलचें हें सांगपी कांय म्हालगडे आमचे मजगतीं आशिल्ले. ते सगळ्यांक वाट दाखयताले आनी आपुणूय खासा ते वाटे वयल्यान चलताले.

चवथो आधार सज्जनांचो. कोंकणीक घरच्या सगळ्या सज्जनांचो तर आधार आशिल्लोच. ते भायर, काकासाहेब कालेलकर, जवाहरलाल नेहरू, सुनीतिकुमार चटर्जी सारकेल्या 'दिग्गजां'चोय मेळिल्लो.

पांचवो आधार लोकांचो. गोंय, कारवार, मंगळूर, कोची मेरेनचो सगळो कोंकणी समाज कोंकणी चळवळी फाटल्यान उबो आशिल्लो.

कोंकणी 'जाली' ती ह्या पांच फाटबळांक लागून.. 'आपणें' कोंकणी केल्या ह्या भ्रमांत कोणें रावचें न्हय.





## १०.

ज्यो गजाली जावच्योच नात अशें सगळे शाणे म्हणटाले त्यो कांय पिश्या लोकांनी करून दाखयल्यात. आतां त्यो सगळेच करपाक लागल्यात. पुणून त्यो करपाक पयलेच जे मुखार सरिल्ले तांच्यो तांणी कितल्यो बकच्छायो केल्यात जातल्यो, कोंत आनी हिशोब मेळपाचो ना.

एकूच दाखलो कोलम्बसाचो घेवंया –

तो हिन्दुस्तान सोडून काडपाक मुखार सरलो. पुणून, वाश्कु द गाम जे दिकेन गेला ते दिकेन आपूण वचचों ना, उरफाटे दिकेन वतलों अशें म्हणपाक लागलो. पिर्थूम वांटकुळी जाल्यार उरफाटे दिकेन गेल्यारूय हिन्दुस्तान मेळुंकूच जाय अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें. आधार मागपा खातीर युरोपांतल्या सगळ्या राजांचे दरवटे ताणें खटखटायले. सगळे ताका 'पिसो, सामको पिसो' म्हणपाक लागले. पुणून कोलम्बस निर्शेलो ना. अखेरेक स्पेनाच्या राजान -- कटकट नाका म्हूण – 'घे, तुका तीन ल्हान तारवां आनी सत्यांयशीं तारवटी दितां... म्हजे फाटल्यान आनी आनीक लागूं नाका', अशें म्हणून ताका आधार दिलो. कोलम्बस इतलोच हो आधार घेवन युरोपांतल्या एका बंदरा वेल्यान भायर सरलो.

पंदरा दीस जाले, वीस जाले, म्हयनो, देड म्हयनो जालो, हिन्दुस्तान खंयचें, खंयच्याच देसाची तड ताका लागली ना. वयर निळें मळब आनी सकल निळो दर्यो सोडून कितेंच दिश्टी पडलें ना. सांगाती तारवटी म्हणपाक लागले, 'आमची दिका चुकल्या, आमी दिका बदल्लेली बरी.'

'च्यॅ, हेच दिकेन आमकां हिन्दुस्तान मेळटलें, पळेतले तुमी', कोलम्बस आत्मविस्वासान तांकां सांगपाक लागलो.

दोन म्हयने जातकूच सांगात्यांचो धीर सुटलो. ते कोलम्बसा आड बंड करपाचो बेत करपाक लागले. म्हणटासर एका सप्तका भितर तांकां एका देसाची तड लागली. 'पळेलें? हांवें सांगूंक नाशिल्लें तुमकां, आमी हेच दिकेन हिन्दुस्तानांत

पावतले म्हूण?' ताणें खोश्शी खोश्शी जावन सांगात्यांक म्हळें.

खरेपणानशीं ताका हिन्दुस्तान मेळूंक नाशिल्लें आनी लोक समजतात तशी ताणें अमेरिकाय सोदून काडूंक नाशिल्ली. कोलम्बस अमेरिकेक केन्ना पावूंक ना, आनी हिन्दुस्तानांतूय पावूंक ना. तो पाविल्लो तो एक वेगळोच जुंवो आशिल्लो. ताका आयज संवसार 'वॅस्ट इण्डीज' म्हूण वळखता. पुणून तो एक नवो देस आशिल्लो, दुसरे कोण थंय पावूंक नाशिल्ले. ताणें हे भुंयेर स्पेनाचो बावटो लायलो, आनी कांय वर्सां थंय स्पेनाचो व्हायसरॉय म्हुण्णूय काम केलें.

कोलम्बसा बदला दुसरो कोणूय हे दिकेन गेल्लो जाल्यार ताकाय हो जुंवो लागतलोच आशिल्लो. पुणून कोलम्बसांत जो आत्मविस्वास आशिल्लो तो दुसऱ्यांत कोणांत नाशिल्लो म्हूण कोणूच थंय पावलो ना. कोलम्बसूच एकलो पावलो.

जें जावचेंच ना अशें शाणे लोक म्हणटात तें करून दाखोवपाक जे मुखार सरतात तांच्यांत हे तरेचो एक आत्मविस्वास आसता. आयजवेर समाजांत जें आगळें वेगळें कितेंय घडूंक पावलां तें असलो उपाट आत्मविस्वास आशिल्ल्या लोकांनीच घडोवन हाडलां. आत्मविस्वास जेन्ना घट जाता तेन्ना मनशाक फुडें चलोवपाचो भार जी शक्त उखलता तिका निष्ठा म्हणटात. कितल्योय अडचणी येवं, निष्ठा मनशाक फाटीं सरूंक दिना. कितलेंय चलचें पडूं, मनशाक ती पुरो जावंक दिना, ताका खंयच थांबुंकूय दिना. ती 'चल, चल... अजून चलपाचें आसा' अशें ताका सांगीत रावता, ताका चलयत रावता. आनी मनीस तिचे प्रेरणेन जसो कितें उडत उडत मुखार वता, खावंक मेळ्ळें ना तरूय तो चलता, पियेवंक मेळ्ळें ना तरूय चलता. दोंगर चडचे पडले तरूय चडटा. रेंवे सड्या वेल्यान चलचें पडलें तरूय चलता. चलत रावप इतलेंच असल्या मनशाक कळटा.

अंतीं एक दीस ताका तड मेळटा.

व्हड वावर असल्या आत्मविस्वासा बगर आनी असले निष्ठे बगर केन्ना जावंक पावनात. कोंकणीचो वावरूय ह्याच आत्मविस्वासान आनी हेच निष्ठेन जावंक पावला.





## ११.

'बापूजी, खूब कठीण वावर हो, म्हजे कडल्यान जावपाचो ना', अशें कोणेंय म्हळें म्हणटकूच 'करून पळे, हांव सांगतां तुका, तुज्यान जातलो म्हूण', अशें गांधीजी ताका सांगताले, आनी 'वावर कठीण म्हुण्णूच तर तुजे कडेन तो दिवंक सोदतां... सोंपो आशिल्लो जाल्यार तो कर म्हूण हांव तुका सांगचोंच नाशिल्लों' अशें म्हणटाले.

गांधीजीन हे भाशेन आपणाल्या सांगात्यां कडल्यान कितलेशे कठीण वावर करून घेतल्यात. 'सपनांत लेगीत आमी चिंतूंक नाशिल्लें, असलीं कामां आमचे कडल्यान जातलीं म्हूण', अशें तांगेल्या ह्या सांगात्यांनी मागीर म्हळां.

देश बेश्टो तीस वर्सां भितर स्वतंत्र जावंक पावंक ना!

कठीण वावर करुनूच मनीस 'मनीस' जावंक पावला. दोन पांयांचेर उबें रावन चलप कितें सोंपें आशिल्लें? उमथे पडपाकूच, पयलीं, आमकां कितलेशे म्हयने लागल्यात. उपरांत आनीक कांय दीस लावन आमी दिमखुऱ्यांनी चलपाक लागल्यात. करतां करतां एक दीस आमी उबे रावपाचो यत्न सुरू केला. हजार खेपे उबे रावल्यात, तितलेय खेपे धर्तरेचे जडसाणेचे ओडीन – गुरुत्वाकर्षणान – आमकां सकल ओडून घेतल्यात, आनी आमी पडल्यात. पुणून निर्शेल्यात व्हय तर? आमच्यांनी जावचें ना, अशें म्हणून आमी यत्न सोडून दिला व्हय तर? पडून पडून अखेरेक उबे रावंक पावल्यातूच काय ना? गुरुत्वाकर्षणाक आमच्या यत्नां मुखार हार खावची पडल्या. जिविताचो आरंभूच आमकां हे तरेचे 'साधने'न करचो पडला. उबे रावन मागीर आमी चलपाकूय लागल्यात, धांवपाकूय लागल्यात. मोनजातींच्या पिलांक असले यत्न करचे पडनात. हे फकत आमकांच करचे पडल्यात. तेन्नाच आमी 'मनीस' जावपाचे दिकेन मुखार चलपाक लागल्यात. दोन पांयांर उबे रावन आमी चलपाक लागल्यात तेन्ना आमचे दोनूय हात मेकळे

जाल्यात आनी एका फुडलों एक 'कर्तुत्वां' आमी करपाक पावल्यात (कर=हात). इतल्यार थांबूंक नात. हात मेकळे करूंक पाविल्ल्यान मान वयर करून मळबूय पळोवंक पावल्यात. विश्वब्रह्मांडाचो थाव घेवपाक लागल्यात. धर्तरे वयल्या हेर जिवांक असलें कितेंच करूंक येवंक ना – खंयच्याच जिवाक आपणाल्या हातांनी कामां करूंक येवंक नात (कित्याक, तांकां हातूच नात) तशी, खंयच्याच जिवाची नदर मळबाचेर केन्ना पडूंक पावूंक ना. सगळ्यांचे हात जमनीर तशी सगळ्यांची नदरूय जमनीर. शेवणीं अंतराळांत कितलींय उडूं, तांची नदर जमनीरूच आसता. घोण तर खूब वयर वचून उडटा, पूण तिचीय नदर हेरां शेवण्यां भाशेन जमनीरूच आसता.

धर्तरेर आयिल्ल्या जिवांत मनीस सगळ्यांत निमाणो. तरी आसतना मनीस सोडल्यार खंयचोच जीव धर्तरेर शेक चलोवंक पावंक ना. फकत निमाणो आयिल्लो हो मनिसूच धर्तरेक आपणाक जाय तसलें रूप दिवंक पावला. कठीण कामां सोंपीं करुनूच तो ही सिद्धी जोडूंक पावला.

सोंपीं कामां करप हीच मनशाची वज आशिल्ली जाल्यार तो उत्तर ध्रुवा वयल्या बर्फा सड्यार आपल्या जैताची घुडी रोमपाक केन्ना आंवडेवंचो नाशिल्लो. थंय वचपाचो ताणें हजार खेपे यत्न केला, हजार खेपे तो अपेशी जाला, ते उपरांतूच एक दीस तो थंय जैताची घुडी रोमूंक पावला. एव्हरेस्टाचेर चडपाचेय ताणें हजार खेपे यत्न केल्यात, हजार खेपे तो पडला, तरी आसतना निर्शेनासतना चडत रावला आनी एक दीस – कितल्याश्या पिळग्यां उपरांत – एव्हरेस्टाचेरूय आपणाल्या जैताची घुडी रोमून आयला. उत्तर ध्रुवार वचून वा एव्हरेस्टार चडून ताका 'फायदो' कसलोच जावंक ना, ताचें तपस्वी मनीसपण फुलून येवपा पेल्यान ताका कितेंच 'मेळूंक' ना. कठीण काम केल्ल्याची फकत खोसूच तो अणभवूंक पावला.

कठीण कामां करून जी मेळटा तीच खरी खोस, तीच खरी जोड अशें जाणें मानलां तोच 'मनीस' जावंक पावला. मनीसपणाक तोच वयल्या पांवड्यार चडोवंक पावला. 'म्हज्यान हें काम जावचें ना' अशें म्हणून जाणें कठीण कामाक फाट केल्या तो पडला. गडगडून तळाक वचून बसला. आनी आपणा वांगडा ताणें आपल्या समाजाकूय सकल ओडून व्हेला.





## १२.

घर-संवसार चलोवचोच पडटा सगळ्यांक. पुणून, मनीस फकत घर-संवसार चलोवपा खातीर जल्माक आयला व्हय? ताणें आपणा खातीर एक संस्कृताय रचल्या. हे संस्कृतायेचें ताका कांयच लागना? संस्कृतायेच्या मळार जी नेर मातल्या ती काडून भायर मारप ताचें काम न्हय? संस्कृतायेच्या मळार नवी नवी भर घालीत रावप, समाजाचो पांवडो वयर काडपा खातीर वावरत रावप हो ताच्या जिविताचो उद्‌देश जाता तेन्ना तोच ताच्या जिविताक अर्थ जोडून दिता.

करपा सारकीं हजार कामां आसात. सगळीं करपा खातीर आमी जल्माक येवंक नात. तशीं, 'खंयचींय' करपा खातीर येवंक नात. ह्या हजार कामां मजगतीं आमचें म्हूण एक खाशेलें काम आसा. तें खंयचें तें सोदून काडूंक जाय. कशें? जें करचेंशें दिसता तें करून. आपणाच्यान जें जावचें ना अशें दिसता तेन्ना तें सोडून दुसरें हातांत घेवन. तातूंत मन लागलें ना जाल्यार तेंवूय सोडून. हे भाशेन, कामां करतां करतां अवचीत एक दीस अशें एक काम हाताक लागता की जें –

कितलेंय केलें तरूय पुरो जायना. तातूंत कितलेंय अपेस आयलें तरूय मन निर्शेना. कसलोच लाव जावपाचो नासलो तरूय तें केले बगर मनीस राविना. हेंच काम आमचें. तें करपा खातिरूच आमी जल्म घेतला.

हो आमचो 'स्वधर्म'. स्वधर्म मनशाक एके तरेचें बळ दिता. कोण्णाचो आधार मेळ्ळो ना तरूय स्वधर्मान पेटिल्लो मनीस कोणाचीच वाट पळेत बसना, एकलोच मुखार वता. संवसार अख्खो आड गेलो तरूय आशिकुशीक पळेना, नीट चलत रावता. हाका श्रद्‌धा म्हणटात. वेव्हारांतल्या अडचणींचे व्हडले व्हडले पर्वत असल्या श्रद्‌धावंतांनी हेवटेनचे तेवटेन मोखून घाल्यात. असल्यांनीच पर्वतांचीं घट्ट काळजां फोडून ध्येयवादाच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो न्हंयो व्हांवत्यो केल्यात. असल्यांनीच impossible possible करून दाखयलां.





## १३.

गोंयकारांनी लोहियांत अशें कितें पळेलें म्हूण १९४६तल्या १८ जूनाक फिरंग्यांनी तांकां धरिना फुडें गोंयांत अवचीत एक मोड उठलें, झों झों करून वारें व्हांवपाक लागलें, व्हडले व्हडले म्हाल म्हातारे रूख आंग मोडऽसर धोलून घसांयच् करून हुमटून पडले... आनी, चारशें छत्तीस वर्सां पसूनचें आमचें संवकळीचें मेंगें, बाबत, भिवकुरें, सत्व नाशिल्लें गोंय एका खिणांत सांवरे बोंडांतलो कापूस जाल्ले वरी उबून गेलें? कित्याक लागून हजारांनी लोक त्या दिसा घरांतल्यान भायर सरून मेकळ्या ताळ्यान 'जय हिंद', 'जय हिंद' करीत मध्यान रात मेरेन मडगांव शारांत मोर्चे काडून भोंवत रावले? दुसऱ्या दिसा तर पेडण्या सावन काणकोणा मेरेनच्या वाटारांत खंयचेच कडेन एक पसरो लोकांनी उकतो केलो ना, च्याचें दुकान लेगीत उकतें जालें ना. कित्याक लागून? गोंय बंद दवरात म्हूण आमकां कोणेंच सांगूंक नाशिल्लें. जें कितें आमी त्या दिसा केलें तें सगळें उत्स्फूर्तपणान केल्लें. कोणेंच करात म्हूण आमकां सांगूंक नाशिल्लें.

लोहियां बदला त्या दिसा, धरुंया, आमचे मजगतच्या दुसऱ्यान कोणें भाशण-बंदीचो कायदो मोडिल्लो आनी ताका पुलिसांनी धरून व्हेल्लो जाल्यार लोहियांक धरून व्हरतकूच गोंयकार जशे उसळ्ळ्यात तशे हाका धरून व्हेल्लो पळोवन उसळटले आशिल्ले? चडशेच जाल्यार ते हाचो सत्याग्रह पळोवपाक येत आशिल्ले आनी ताका धरून व्हरतकूच 'केदो धाडशी मनीस रे हो' अशी ताची तुस्त करून मोन्यांनी घरा परतत आशिल्ले. हाचे भायर आगळें वेगळें कितेंय घडटलें आशिल्लें? लोहियांक लोकांनी येदो प्रतिसाद दिलो ताचें कारण, लोहियांत आमकां फकत

लोहिया दिश्टी पडूंक नाशिल्ले. १८५७ सावन १९४२ मेरेनच्या काळांतले सगळे जहाल, मवाळ, क्रान्तिकारी दिश्टी पडिल्ले. टिळक, गांधी, जवाहरलाल, सुभाष बोस, भगतसिंग, चंद्रशेखर आझाद – ते भायर, गोळाक हुमकळून मेल्ले, तुबकांच्यो गुळयो लागून पडिल्ले, आंगार दांडे झेलिल्ले, वर्सांचीं वर्सां बंदखणींनी पडिल्ले सगळे देशभक्त – तांच्यांत आमकां दिश्टी पडिल्ले. भारताचे स्वतंत्रतायेचें पुराय झूज तांच्या रुपान आमचे मुखार उबें राविल्लें.

आनीक एक गजाल त्या दिसा आमी पळेल्ली –

लोहियांनी मैदानार पांय दवरिना फुडें फोर्तुनात मिरांद पिस्तोलाचो नेम धरून तांचे मुखार येवन उबो रावलो तेन्ना लोहियांनी खिणाचोय कळाव लाय नासतना आपल्या दाव्या हातान ताचो पिस्तोलाचो हात बागयल्लो आमी पळेल्लो. आदल्या चारशें छत्तीस वर्सांच्या काळांत गोंयकारांक असलें कितेंय गोंयांत पळोवंक मेळत अशें दिसूंक नाशिल्लें. तांणी इतलो धीट मनीस केन्ना पळोवंक नाशिल्लो. हे एके घडणुकेन सगळ्यांची ल्हंवेन ल्हंव फुलून आयिल्ली, आनी सगळ्यांच्या ताळ्यांतल्यान *'डॉ. राम मनोहर लोहिया की जय'* ही घोशणा मोटयान फुटिल्ली. त्या दिसा लोक जो उसळ्ळो ताचे फाटलें खरें कारण हें आशिल्लें, लोहियांनी भाशण-बंदीचो कायदो मोडलो हें न्हय. भाशण करपाची संदूच तांकां त्या दिसा मेळूंक ना. पुणून एका फिरंगी पुलीस अधिकाऱ्याचो पिस्तोल धरिल्लो हात बागोवप ही लाखांनी भाशणां परस अदीक प्रभावी घडणूक थरिल्ली. फिरंग्यांच्या गोंयांत अशें केन्नाय घडत म्हणपाचें कोणेंच केन्ना चिंतूंक नाशिल्लें.

गोंयान कूस परतिल्या ती ह्या खिणाक.

'फोर्तुनात मिरांदीन तुमचेर पिस्तोलाचो नेम धरलो त्या वेळार तुमकां भंय दिसलो ना?' ह्या म्हज्या प्रस्नाक तांणी जाप दिल्या, दिशिल्लो तर! *'लगा, बेवकूफ कहीं गोली न छोड दे...'* 'बेवकूफ' आशिल्लो म्हुण्णूच तर पिस्तोलाचो नेम धरिल्लो. तो पिस्तोलांतली गुळीय सोडीत आशिल्लो... पुणून हांव ताका दुशण दिना, कित्याक, *'मैं एक बहुत पुराने साम्राज्य को ललकार रहा था और वह अपना फर्ज अदा कर रहा था... उस वक्त अगर मैं हट जाता तो बदनामी हो जाती न?'*

एकल्यान म्हळां, 'It was impossible to be mean in his presence.' उणाकांतल्या उणाक मनशाक लेगीत लोहियां मुखार उणाक जावंक येनाशिल्लें. लटीक न्हय हें.





## १४.

साने गुरुजींचें *श्यामची आई* पुस्तक कोंकणींत आयलां म्हूण हांव नकळं आशिल्लों. एकल्यान तें म्हज्या हातांत दवरलें आनी म्हळें, 'असलो एक बरपी कोंकणींत जावंक जाय... मागीर कोंकणीक भंय ना...'

हांवें म्हळें, 'दुबावूच ना. पुणून एक सांग, तूं साने गुरुजींक फकत एक बरपीच म्हूण वळखता काय कितें? ते एक व्हड देशभक्त आशिल्ले. स्वतंत्रतायेच्या झुजांतले एक व्हड झुजारी आशिल्ले. तांगेल्या आयुष्यांत जितल्योय चळवळी जाल्यात तितल्याय चळवळींनी तांणी वांटो घेतला. कितलेशे खेपे बंदखण भोगल्या. ते एक बऱ्यांतले बरे राष्ट्रीय शिक्षक आशिल्ले. भुरग्यांच्या सांगातांत तांगेलें आयुष्य खर्चलां. भुरग्यांचे गिन्यानाचे दोळे उकते जावचे म्हूण ते आयुष्यभर धडपडल्यात. धडपडपी फकत भुरगींच नाशिल्लीं तांचे भोंवतणी. भुरग्यां मजगतीं खासा ते एक धडपडपी शिक्षक आशिल्ले. कितल्या तरणाट्यांक तांणी देशसेवेची दीक्षा दिल्या आसतली? पेशवाईच्या संस्कारांत वाडिल्ल्या पुण्यांत जें कितें मांगल्य, पावित्र्य आयज दिश्टी पडटा तें तांगेल्या ह्या विद्यार्थ्यांनी निर्माण केलां म्हणपाचें तूं कांयच नकळ.'

महाराष्ट्रांत बरोवपी जायते जावन गेल्यात. आयजूय आसात. साने गुरुजी एकलेच जावन गेले.

एका व्हड मनशाक ल्हान कित्याक करतात तुमी?

मागीर विचारलें, तुवें जवाहरलाल नेहरूंची आपजीण वाचल्या? ती वाचून ना. सी. फडक्यांनी म्हळ्ळें, जवाहरलाल राजकर्णांत पडूंक नाशिल्ले जाल्यार

बऱ्यांतले बरे एक 'लेखक' जातले आशिल्ले. **राजकर्णाक लागून ते फुकट गेले.** हांसचें काय रडचें, तूंच सांग. जवाहरलाल राजकर्णांत पडूंक नाशिल्ले जाल्यार जवाहरलाल जावंक पावतले आशिल्ले? तांगेली आपजीण राजकर्णांत पडिल्ल्या जवाहरलालाच्या जिविताची कथा. ते इतिहास घडोवपी एक म्हापुरूस आशिल्ले. इतिहास घडयता आसतना तांणी जें पळेलें, अणभवलें, तेंच तांणी आपणाले हे आपजिणेंत सांगलां. तांगेलीं आनीक दोन पुस्तकां आसात – एक, *Glimpses of World History* आनी दुसरें *Discovery of India*. दोनूय इतिहासा वयलीं पुस्तकां, पुणून तीं कॉलेजांत इतिहास *शिकोवपी* इतिहासकारान बरयल्लीं न्हय. इतिहास *घडोवपी* एका म्हापुरसान बरयल्लीं पुस्तकां हीं. तांगेली आपजीण ह्या दोनूय पुस्तकांक जोडपी मदल्या इतिहासाचें पुस्तक. तिनूय पुस्तकां कडेन तांच्या जिविताचीं 'बाय-प्रॉडक्ट्स' म्हूण पळोवंक जाय.

तूं रवीन्द्रनाथांक कोण म्हूण वळखता? कवीच म्हूण? कवी ते आशिल्लेच. ते भायर ते कथाकार, नवलकथाकार, निबंधकार, नाटककार, नट, दिग्दर्शक, कलाकार, संगीतकार, शिक्षक, शिक्षणशास्त्री, समाज सुधारक, देशभक्त, साक्षात्कारी साधक – एक विशाळ राष्ट्रपुरूस आशिल्ले. तांगेलेंय साहित्य तांगेल्या जिविताचें एक उपफळूच आशिल्लें.

रवीन्द्रनाथां वरी तॉलस्तॉयूय खूब कितें कितें आशिल्ले. 'फकत साहित्यकार' केन्ना व्हड मनीस जावंक पावना. व्हड मनिसूच व्हड साहित्यकार जावंक पावता.

साहित्य सदांच जिविताचें उपफळ आसूंक जाय. कोंकणीक असलेच साहित्यकार जाय. आसात. येतले. कोंकणीक भंयूच ना.



## १५.

भाशेंत पुस्तकां राशींनी आयलीं म्हूण भास व्हड जायना. तोलामोलाचीं पुस्तकां येवंक जाय. तोलामोलाचीं पुस्तकां येवपाक बरोवपी तोलामोलाचे आसूंक जाय. तोलामोलाचे वाचपी समाजांत आसत जाल्यारूच तोलामोलाचे बरोवपी भाशेंत निर्माण जातात.

तोलामोलाचे वाचपी कोण निर्माण करता? बरोवपी न्हय. समीक्षकूय न्हय. ते निर्माण करता शिक्षक.

आमी पुर्तुगेज शिकताले. पुर्तुगेज बरपावळ वाचताले. आमची पिळगी पुस्तकां वाचपाक लागल्या त्याच वेळार जिस्त सालाझारान पुर्तुगाल आपणा हातांत घेतलां. ताणें लोकांचे नागरीक हक चिड्डून उडयल्यात. तशी पुर्तुगेज प्रतिभाय चिड्डून उडयल्या. ऍसा द केइरोज, रामाल्यु ओर्तिगांव हांचे सारके बरोवपी पुर्तुगेजींत येवपाचे बंद जाल्यात. पुणून पुर्तुगेजांनी दुसरे एके दिकेन हें उणें भरून काडपाचो वावर हातांत घेतलो. ते फ्रँच, जर्मन, रशियन भासो शिकपाक लागले आनी ह्या भासांतली बऱ्यांतली बरी बरपावळ पुर्तुगेजींत हाडपाक लागले. बाल्झाक, दॉस्तॉयव्हस्की, तॉलस्तॉय, ग्यते, स्टीफन इ्वाइग सारकेल्यांचीं पुस्तकां लोकांक वाचपाक मेळूंक लागलीं.

पणजेंत तें मुस्तींत दोगी विदुशी आशिल्ल्यो. दॉना प्रॉपॅर्सिया आनी दॉना फ्लॉरा नांवांच्यो. दोगीय 'इश्कॉला नॉर्मालां'त (टीचर्स ट्रेनिंग कॉलेजींत) शिकोवपाचें काम करताल्यो. तोलामोलाच्यो वाचपी बायलो ह्यो. तांणी असलीं पुस्तकां वाचचीं आनी आपणाल्या विद्यार्थ्यांक तांचें पिशें लावचें. परिणाम– तांगेले विद्यार्थी नाशिल्ले तांकां लेगीत हीं पुस्तकां वाचपाचें पिशें लागिल्लें. इ्वाइगाच्या पुस्तकांचीं दोन दोन चार चार पारायणां करपी भुरगे म्हजे पिळगेंत हांवें पळेल्यात.

हांचे मजगतच्या कांय भुरग्यांनी फडके खांडेकर माडखोलकरूय वाचिल्ले. पुणून बाल्झाक, दॉस्तॉयव्हस्की, झ्वाइग वाचपाक लागतकूच हांचे मुखार मराठींतले हे बरोवपी तांकां सामके गिड्डे दिसपाक लागिल्ले. ते अतिताय करी नाशिल्ले. खऱ्यांनीच तांकां ते गिड्डे दिसताले. आशिल्लेय ते गिड्डे. अठरा वीस वर्सांचे पिरायेचे भुरगे हे. दोना प्रॉपॅर्सिया आनी दॉना फ्लॉरा हांणी तांच्यो अभिरुची बदलिल्ल्यो. वयल्या पांवड्यार व्हेल्ल्यो. मराठींत *रणांगण, रथचक्र* हे सारक्यो नवलकथा आयल्यात, शरतचंद्र सगळो अणकारून आयला तेन्नाच, 'जावं, आसा थोडें भोव मराठींत वाचपा सारकें' अशें तांकां दिसलां. ते मुस्तींत एक लिसेव, तीन चार कोचींग क्लासीस, एक दोन हायस्कुलां येदोच हो विद्येचो संवसार वशिल्लो गोंयांत. प्रॉपॅर्सिया, फ्लॉरा, कृष्णराव केणी हांचे सारके दोग चौग शिक्षक सोडून तरणाट्यांचे अभिरुचीक वळण लावपी कोण नाशिल्ले.

आयज? गांवा कणकणी हायस्कुलां, शारा कणकणी कॉलेजां, ताळगांवां एक युनिव्हर्सिटी आनी, कोंत आनी हिशोब लागचो ना इतले शिक्षक – येदो व्हड विद्येचो संवसार गोंयांत पातळ्ळा. तरणाट्यांची अभिरुची केळोवपी हांचे मजगतीं कितले जाण आसतले? कितलेशे शिक्षक पुस्तकां वाचतात जातले? पुस्तकां राशींनी भायर सरतात. वाचपी तीं वाचतात आनी वाचप्यांक 'आवडटा' असलेंच हलकें फुलकें, खुसखुशीत बरप आमी बरोवपी बरयतात. हें उणें म्हूण जाल्यार कोण जाणा, बरयतल्यांक एका फुडले एक पुरस्कारूय मेळटात. गाय शेतांत चरूंक वता तेन्ना पाचव्या पाल्या वांगडा मुळांय चाबडावंक लागता. तातूंतली मातीय खाता. तशेंशें कितें साहित्याच्या मळार दिश्टी पडपाक लागलां.

असल्यांनी साहित्य खूब वाडटलें. भास वाडपाची ना.

अशे तरेचें एक पुस्तक भायर सरचें की तें वाचतकूच हाचेकूय सकयल्या पांवड्याचें बरप आमी बरोवचे नात अशें आमी बरोवपी थारायतले, आनी हाच्याकूय सकयल्या पांवड्याचें आमी कितेंच वाचचे नात अशें वाचपी म्हणपाक लागतले. तेन्नाच भास वयर सरतली आनी खऱ्या अर्थान वाडटली.





## १६.

'वास्तव' साहित्य म्हळ्यार कसलें साहित्य? जिवीत दिसता तशेंच चितारपी? जाल्यार बरोवप्याचे प्रतिभेक फोटोग्राफराच्या कॅमेऱ्या परस व्हडलेंशें मोल ना म्हणचें पडटलें. साहित्यकाराची प्रतिभा पेण्टराचे प्रतिभे सारकी आसूंक जाय. पेण्टर वास्तवांतलें जाय तेंच घेता. नाका तें सोडून दिता. तें कित्याक, वास्तवांत जें दिश्टी पडना तेंय आमचे नदरेक हाडून दिता.

*पंचतंत्र* कितलेंशें वास्तव? *पंचतंत्रांत* माकड आनी कोले, मानगीं आनी कावळे मनशां भाशेन उलयतात. पुणून विष्णुशर्मान हांचोच आधार घेवन अमरशक्ती राजाच्या तिगूय अर्दकुट्या पुतांक स म्हयन्यां भितर शाणे केल्ले. भौसांत जें उपाट शाणेपण पळोवंक मेळटा तें दायज *पंचतंत्राचें* – पणज्या कडल्यान आज्या कडेन, आज्या कडल्यान बापाय कडेन, बापाय कडल्यान तांचे कडेन तोंडयां पाविल्लें. ह्या दायजानूच आमचो भौस घडयला. ताका बरोवंक वाचूंक नाका येवं, ताका अन्नाडी म्हणूंक येवपाचो ना.

*रामायण?* तातूंत धा धा तोंडांचे, स-स म्हयने न्हिदपी राकेस आसात. व्हडल्यो व्हडल्यो शेंपड्यो आशिल्ले माकड आसात. रामाच्या सैन्यांत रावन ते बळिश्ट रावणा आड झुजतात. एकलो तर अस्सो उडून लंकेंतल्यान हिमालयार वता आनी थंयच्या महोदयगिरी पर्वताचें एक शिखरूच निखळावन हातार घेवन लंकेंत येता. *रामायणांत* वास्तव सोदुनूय मेळपाचें ना. लोकां मुखार ताणें जे 'आदर्श' दवरल्यात ते लेगीत कृत्रीम. तसले आदर्श वास्तवांत नात.

खंयचेच बायल-मनशेक शंबर पूत केन्ना जाल्यात व्हय? *महाभारतांतले*

गांधारीक जाल्ले. कवच-कुंडलां सयत कोणागेर केन्ना पूत जल्माक आयला व्हय? कुन्तीगेर आयिल्लो.

*रामायण महाभारताम* हो देश घडयला. खंयच्याच देशांतलीं महाकाव्यां सरसमान लोकांचे जिबेर घोळनात. आमच्या देशांतल्या बरप अक्षर शिकूंक नाशिल्ल्यांचे लेगीत जिबेर ह्या दोनूय महाकाव्यांतल्यो कथा घोळटात. सगळ्या बारीकसाणीं सयत.

वास्तव म्हळ्यार मुखार दिश्टी पडटा तें. आयचें. आयचें फाल्यां कालचें जाता. परां पयरचें जाता. कांय काळान पोरणें जाता. साहित्य काळाच्यो शिमो उंपपी आसूंक जाय. जाल्यारूच तें सदांकाळ उरूंक पावतलें.

कितलेंशें 'वास्तव' साहित्य आयज आरमारींनी धुल्ल खायत पडलां! थंयच तुमच्या साहित्याक व्हरून बसयतले तुमी?



## १७.

जेन्ना जेन्ना धर्म गादेवन समाजांत अधर्म मातता तेन्ना तेन्ना संत-सुश्टांची राखण करपा खातीर आनी दुश्ट-दुर्जनांक निर्दाळपा खातीर आपूण अवतार घेवन येतां अशें भगवंतान म्हळां तें कितलें खरें, खबर ना. पुणून जेन्ना जेन्ना ह्या देशांत समाजाची अवनत सुरू जाल्या आनी लोक गडगडत गडगडत रसातळाक पावल्यात तेन्ना तेन्ना देशाच्या सगळ्या वाटारांनी नव्या नव्या रुपान *रामायणान* जल्म घेतला आनी पडिल्ल्या लोकांक हात दिवन वयर काडपाचो वावर ताणें केला हें 'ऍफिडॅवीट' दिवन अनमन नासतना सांगूं येता.

कंबन, कृत्तिवास, तुलसीदास हांचीं *रामायणा* तमीळ, बंगाली, अवधी लोक अवनतीच्या रसातळाक पावल्यात तेन्नाच आयल्यांत. 'आमचे भाशेंत *रामायण* आसूंक जाय. ते बगर आमचे भाशेक कोणूच भास लेखचो ना' अशें चिंतून हांचे मजगतच्या एकल्यानूय *रामायण* रचूंक ना. समाज पडला, ताका वयर काडपा खातीर *रामायण* सोडून आमचे कडेन दुसरें कितेंच ना, तें ताच्या हातांत दवरूंक जाय, हे एकेच प्रेरणेन तांणी तीं रचल्यांत. हीं तांगेलीं अनुसर्जनां. वाल्मीकीच्या *रामायणा*चे अणकार न्हय.

खासा वाल्मीकीन आपणालें *रामायण* हेच प्रेरणेन रचिल्लें.

राम आसूं कृष्णा आदलो अवतार. कृष्ण पूर्णावतार. पुणून कृष्णाची तुस्त तोखणाय गायत गायत *भागवतान* ताचें जें रूप लोकां मुखार दवरलें तें पोजड्या (शृंगारीक) कृष्णाचें. लोक ह्या पूर्णावताराचीं बाकीचीं सगळीं आंगां विसरले आनी ह्याच एका पोजड्या आंगाची देख घेवन चलपाक लागले. गांवा कणकणीं, वाड्या कणकणीं एका फुडले एक 'कृष्ण' दिश्टी पडपाक लागले आनी ते तांच्या समाजांतल्या 'गोपीं' वांगडा 'रासलीला' खेळपाक लागले. हो अनाचार आळाबंदा हाडपा खातीर लोकां मुखार एका 'मर्यादा पुरुषोत्तमा'ची देख दवरूंक जाय, अशें वाल्मीकीक दिसलें आनी ताणें समाजांत तोंडयां चलत आयिल्ल्या (आनी

*महाभारतांत* आसपावन घेतिल्ल्या) 'रामोपाख्याना'चें अनुसर्जन करून आपणालें *रामायण* रचलें. कालीदासान दुष्यंत शकुंतलेच्या आख्यानाचेर आधारून *शाकुंतल* बरयलें तशें.

वाल्मीकीच्या *रामायणांत* ( *महाभारतांत* मेळटा ते तरेचें) वास्तव जिविताचें चित्रणूच वाचूंक मेळना. मेळटात त्यो फकत देखी. देखदिणो पूत, देखदिणो घोव, देखदिणी बायल, देखदिणो भाव, तसो देखदिणो इश्ट, सेवक, दुस्मान कसो आसूंक जाय हें राम, सीता, लक्ष्मण, हनुमान, रावण हांच्या जिवितांचीं चित्रणां करून सांगलां. वाल्मीकीचें कसब म्हळ्यार, ह्यो सगळ्यो कृत्रीम देखी इतल्यो खऱ्यो करून दाखयल्यात की वाचप्यांक त्यो खऱ्योच दिसपाक लागतात. *रामायणान* हो देश घडयला. कंबन, कृत्तिवास, तुलसीदास हांच्या *रामायणांनीय* हेंच काम केलां. 'पडिल्लो' समाज वयर काडपी ग्रंथ हो.

मराठींत एकनाथान *भावार्थ रामायण* हेच प्रेरणेन बरयल्लें. ज्ञानदेव-नामदेवा उपरांतच्या दोनशें अडेजशें वर्सांच्या काळांत (मुसलमानी शेकांत) मराठी समाजाची पराकाश्टेची अवनत जाल्ली. समाजाच्या वयल्या पांवड्याचे लोक (ब्राह्मण) एकामेकांचे पांय ओडून मुसलमानी राजवटींत आपणाली सुवात घट्ट करपाच्या उद्देगाक लागिल्ले. उतराक कोण पाळो दिनाशिल्लो. एका बोटा वयलो निथू दुसऱ्या बोटार दाखोवन बारीक दुबळ्या लोकांक नाडपाचो धंदो करताले, आनी ह्या 'जादू'क हुशारी मानताले. बापूय पूत, भाव भाव, घोव बायल, हांचे मजगतचे संबंद सदळ जाल्ले. भीड मुरवत उरूंक नाशिल्ली. तें कित्याक, धुवां भयणींक बादशाहांच्या जनानखान्यांत धाडपाक लेगीत वयल्या वर्गांतल्या हिन्दूंक लज दिसनाशिल्ली. असल्या ह्या काळांत एकनाथाचें *भावार्थ रामायण* आयलां. रामाचो वनवास, सीतेचें अपहरण, रावणा आड झूज, उपरांत सीतेची सुटका हे वाल्मीकीच्या रामायणांतले सगळे प्रसंग ह्या रामायणांत आसात. भक्ती तर पाना कणकणीं भरल्या. पुणून एक गजाल दुसऱ्या खंयच्याच *रामायणांत* येवंक ना ती ह्या *रामायणांत* आयल्या. ह्या *रामायणांत*ले राक्षस खाडा मिशयांचे चित्रायल्यात. राक्षसांची तरातराचीं रुपां घेवपी म्हूण नामना आसा. पुणून मुसलमानांचें रूप घेतिल्ले राक्षस खंयच्याच *रामायणांत* नात. एकनाथाच्या काळाचें चित्रण हें.

ह्या सगळ्या *रामायणांचो* अभ्यास करून पीएच्‌डी घेवपाचो यत्न करतलों आशिल्लों. पुणून आयुष्याचे बँक बॅलन्सींत वर्सां आतां खंय उरल्यांत? म्हूण कोणाकूय तरी हे तरेचो अभ्यास करपाची प्रेरणा मेळूं म्हूण मागतां.







१८.

*मज्झिमनिकाय*च्या दोन खंडांत आयिल्ले बुद्धाचे पन्नास धर्मसंवाद दिसाक एक करून वाचून काडले. उपरांत तिसरो काडपाक आरमार उकती केली. जाल्यार, वयल्या खणांत डॉ. राधाकृष्णनांचें *The Hindu View of Life* दिश्टी पडलें. जेवतना मदींच आमी लोणच्याचें बोट जिबेक लावन रूच मातशी बदलतात तशें, *मज्झिमनिकाय*चो फुडलो खंड हातांत घेवचे पयलीं, म्हळें, ह्या पुस्तकाचें बोट मातशें जिबेक लावचें. म्हूण आरमारींतलें तें काडलें.

'हांव हिन्दू कित्याक' नांवाचें एक पुस्तक बरोवपाक भायर सरिल्लों त्या वेळार जीं कांय पुस्तकां वाचिल्लीं तांतलें हें म्हाका खूब आवडिल्लें. तेन्ना दिशिल्लें, स्वतंत्र पुस्तक बरोवचे परस हाकाच कोंकणी भेस कित्याक चडोवचो न्हय? हिन्दू धर्मा वेलें एक 'अधिकृत' पुस्तक कोंकणींत येवन पडटलें.

पुणून असल्या कामाक बसकण मारूंक जाय ती त्या वेळार – कित्याक लागून, याद जायना – मारूंक पावलों ना. परिणाम, म्हजेंय पुस्तक बरोवन जालें ना. हेंवूय येवंक पावलें ना.

*'जब चिडियन खेती चुग डाली, फिर पछताये क्या होवत है?'*

ऑक्स्फर्ड युनिव्हर्सिटीच्या मँचेस्टर कॉलेजांत 'अप्टर्न लॅक्चर्स' म्हूण एक व्याख्यानां माळ चलता. हे माळेंत राधाकृष्णनांनी १९२६ वर्सा हिन्दू धर्माचेर चार उलोवपां गुंथिल्लीं. असलीं उलोवपां बरोवन हाडून वाचपाची चाल आसा.

राधाकृष्णनांनी ही चाल मोडिल्ली. उलोवपाक उबे रावले आनी घसघस, घसघस करून घसघसो कोंसळत रावचो तसो विचारांचो घसघसो तांचे जिबे वयल्यान कोंसळत रावलो. तांगेली भास, विद्‌वत्ता आनी वक्तृत्व पळोवन हॉलांत बशिल्ले सगळे चकासूर जाले. पयल्या उलोवपा वेळार हॉलांत शंबरां वयर लोक नाशिल्लो. दुसऱ्या उलोवपा वेळार हॉल उपाट भरिल्लो. तिसऱ्या आनी चवथ्या उलोवपां खातीर युनिव्हर्सिटीक व्हडलो हॉल सोदचो पडिल्लो.

आयकुपी सगळे येवरोपेव. ख्रिस्ती संस्कारांत वाडिल्ले. ख्रिस्ती लोक हिन्दू धर्म, हिन्दू संस्कृताय आनी हिन्दू परंपरा, हांचे कडेन खंयचे नदरेन पळेतात हाचो अदमास डॉ. राधाकृष्णनांक ते मद्रास ख्रिश्चन कॉलेजांत शिकताले तेन्ना सावन आशिल्लो. आनी, तांणी हिन्दू धर्म-संस्कृताय-परंपरांचो जितले खोलायेन अभ्यास केल्लो तितलेच खोलायेन ख्रिस्ती धर्म-संस्कृताय-परंपरांचोय केल्लो. हिन्दू धर्माचें खरेलें रूप आयकुप्यांक समजावन सांगतना तांणी तांचेच परिभाशेचो उपयोग केल्लो. हिन्दू धर्माच्या नांवान तुर्ताक जें हिन्दू समाजांत चलता ताचें समर्थनूय करूंक नाशिल्लें. आनी 'तुमचे परस आमची संस्कृताय व्हड' म्हूण आयज मेरेन जो प्रचार वेदान्ती करीत आयिल्ले तसलोय प्रचार करूंक नाशिल्लो. हिन्दू संस्कृतायेचे अवगूण दाखोवपाक ते अनमनूंक नाशिल्ले तशे, ख्रिस्ती संस्कृताय बऱ्यांतली बरी म्हूण तुमी समजतात तें खरें न्हय म्हूण मेकळेपणान सांगपाकूय ते कांचवेवंक नाशिल्ले. बदलपाचें आमकांय आसा, तुमकांय आसा. सगळ्यो संस्कृतायो काळा भायऱ्यो जाल्यात हें मतींत धरून सगळ्यांनी एकामेकां लागसार येवंक जाय, एकामेकांक समजून घेवंक जाय, आनी एक नवी संस्कृताय विकसावन काडूंक जाय. संवसार हे नवे संस्कृतायेची वाट पळेता, हो सूर तांच्या ह्या चारूय उलोवपांतल्यान वयर सरिल्लो.

डॉ. राधाकृष्णनांचें आगळें वेगळें रूप तें हें. ते फकत हिन्दू धर्माचे प्रतिनिधी नाशिल्ले. नवे संवसारीक संस्कृतायेचे उद्‌गाते आशिल्ले. हिन्दू संस्कृतायेचें शुद्‌ध मिशन समजावन सांगपी *The Hindu View of Life* पुस्तका सारकें दुसरें पुस्तक अजून पळोवंक मेळूंक ना.



## १९.

दिल्लींत राजघाटार 'गांधी पुस्तक भांडार' नांवाचो एक बुक स्टॉल आसा. गांधींनी बरयल्लीं आनी गांधींचेर दुसऱ्यांनी बरयल्लीं सगळीं पुस्तकां थंय मेळटात. गांधी समाधीच्या 'दर्शना'क जे लोक येतात ते ह्या स्टॉलार येवन एक दोन पुस्तकां घेवन वतात. दिसाक चार पांच हजारांचो 'टर्न ओवर' जाता. हो बुक स्टॉल 'सन्निधि' चलयता.

थंय पुस्तकां विकूंक बसतालो तो आठ दिसांची सुटी घेवन गेल्लो. ताचे धुवेचें लग्न आशिल्लें. म्हळें, 'स्टॉल आठ दीस बंद कित्याक दवरूंक जाय? हांव वचून बसतां.' वचून बसलों. (हांव 'सन्निधि'चो एक वांगडी.) लोक कसलीं पुस्तकां घेतात तें पळोवपाक लागलों. *आत्मकथा* ('सत्याचे प्रयोग') खूब खपता. *'कन्नड में है?', 'तमीळ में है?'* विचारतात. स्टॉलार आसता. मेळ्ळी म्हणटकूच खोश्शी खोश्शी जावन घेवन वतात. *आश्रम भजनावली* खूब म्हळ्यार खुबूच खपता. पुणून सत्याग्रह, खादी, अस्पृश्यता निवारण, वर्णाश्रमधर्म ह्या विशया वयल्या पुस्तकांक एकलोय हात लायना. *अनासक्तियोग* बरोच खपता. गीतेचो गांधीन केल्लो अणकार हो. तो खपता म्हूण विनोबाचें *गीता प्रवचने* मुखार केलें जाल्यार *'है हमारे पास'* म्हूण जाप मेळटा. विनोबाचें *स्थितप्रज्ञ दर्शन, ईशावास्यवृत्ती, स्वराज्य शास्त्र, विचार पोथी,* खपना. विवेकानन्दांचो *राजयोग, कर्मयोग, भक्तियोग* खपता. *ज्ञानयोगा*क एकलोय हात लायना. विवेकानन्दांलीं योगा वेलीं पुस्तकां खपतात म्हूण अरविंदांचीं हाडून दवरलीं. चुकून लेगीत कोण हातांत घेना, रवीन्द्रनाथांली *गीतांजली* खपता. पुणून तांगेलें बऱ्यांतलें बरें पुस्तक *साधंना?* च्ये. कोण पळे लेगीत ना. डॉ. राधाकृष्णांचें *The Hindu View of Life* खपता. दुसरें खंयचेंच खपना.

एक सांगपाचें उरलें. गांधींचें *आरोग्य की कूंजी* नांवाचें एक पुस्तक आसा. ह्या पुस्तकाच्यो शंबरां वयर प्रती हांवें खपयल्यो.

इतलेंय आसून म्हजो 'टर्न ओवर' सातश्यां आठश्यां वयर ह्या आठ दिसांत गेलो ना.

स्टॉलार बसतालो तो परतलो तेन्ना ताका हांवें *आरोग्य की कूंजी* खपयल्ल्याचो म्हजो पराक्रम सांगलो. तो म्हणपाक लागलो, *'इससे तो हमारा दिवाला निकल जायेगा'. 'क्यों?'* तर म्हणपाक लागलो, *'पचास पैसों की किताब... हमें कमीशन क्या मिलेगा? क्या करना चाहिए, पहले महंगी पुस्तकें बेचनी चाहिए... और बिल बनाते समय खुले नही है कहकर ऐसी पुस्तकें बेचनी चाहिए.'*

पुस्तकांचें मोल म्हारग कित्याक आसता तें आतां कळ्ळें.

कांय दिसांनी पवनाराक पावलों. विनोबांची भेट घेतली तेन्ना तांकां हांवें म्हजो हो अणभव सांगलो. तो आयकून ते खळखळून हांसले. म्हणपाक लागले, *'याचा अर्थ लोकांना अक्कल आहे असा होत नाही का? काय घ्यावं ते त्यांना अचूक कळतं.'* मागीर विचारपाक लागले, *'तुकाराम किती खपतो? कबीर किती खपतो? चिरंतन मूल्य असलेलंच साहित्य खपत असतं... बापूंचं 'धर्ममंथन' संक्षिप्त करून दया, खपेल. 'मंगल प्रभात' खपेल...'*

हांवें विचारलें, 'अरविंदांच्या पुस्तकांनी चिरंतन मोलाचें कांय ना?'

*'आहे... पण त्यांची शैली क्लिष्ट, वाचताना दम घुटतो. शैली साधी असली पाहिजे. 'गोडी आणि गुळू। कापरू आणि परमळु। निवडतां काय निवाडू होईजे' श्वास आंत घेतला अन् श्वास सोडून दिला. त्यांत वाक्य पूर्ण झालं पाहिजे ...अरविंदांचं एक एक वाक्य एका एका पॅरग्राफा एवढं असतं...'*

*हांवें विचारलें, 'अरविंद वाचताना विनोबांचा देखील दम घुटतो?'*

*'होय... माझा देखील घुटतो.'*





## २०.

रवीन्द्रनाथांक तांगेले पिळगेंतले लोक सारके वळखूंक पावलेच नात. कितल्यो बकच्छायो केल्यो तांणी तांच्यो – नोबेल इनाम जोडले उपरांतूय केल्यो. एक तर तांगेले पिळगेंतले लोक मत्सरी आशिल्ले म्हणूंक जाय वा काळाचो धुल्ल दोनांय मजगतीं उबिल्ल्यान रवीन्द्रनाथ तांकां सारके दिश्टी पडले नात जावंक जाय.

पयर तांगेली एक चीट वाचूंक मेळ्ळी –

'एक गजाल सांगूंक जाय. देशाचो वावर करतलों अशें थारावन एका काळार हांव पेंगट बांदून तातूंत पडिल्लों. तेन्ना बलायके कडेन पळेलें ना, दुडवां कडेन पळेलें ना, वेळा काळा कडेन पळेलें ना. 'घरचें खावन रानांतल्यो म्हशी आमुडपाचें' काम केल्लें हांवें... नालायकांतल्या नालायक लोकांच्या दारांत मान सकल घालून हात मुखार काडून उबो रावलां. हातार कितेंय पडलां जाल्यार तातूंत म्हजी जात बुडल्या जातली, पोट भरूंक ना.

'...एक घटमूट कूड घेवन जल्माक आयलां. देखून 'म्हजे जल्मभुंये'न ( *'आमार जन्मभूमि'*न) म्हाका इतलो मार दिल्लो आसुनूय तिगून उरलां. चड करून इश्टांचो असवडचो मार... कांय इश्ट मार घालिनात. कांय करीय नात. परते, आधार दिवपाक मुखार सरतात. पुणून तांचो हात सदां रितोच आसता... ह्या देशांत म्हजो अवमान करप जितलें सोंपें तितलें सोंपें दुसऱ्याचो अवमान करप उरूंक ना... महात्माजी, चित्तरंजन हांकां सोडून दी, बंकिम, शरद, हेम बॅनर्जी, नलीन सेन – हांकां कोणाकूच

म्हाका घाल्यात तसल्यो गाळी घालपाचो धीर कोणाक जावंक ना. म्हाका गाळी घाल्यो म्हूण तांचें कांय लुकसान जायना. उरफाटो लावूच जाता. देशा भायर वतां आनी थंय म्हजो मान भौमान लोक करतात तेन्ना हे लोक 'हो भायर वचुनूच मान भौमान जोडूंक जाणा' अशें म्हणपाक लेगीत अनमननात. भायर म्हाका मान भौमान 'जोडचो' पडना. तो पावस कसो हरंधारींनी शिंवरता... निमाणें एकूच सांगपाचें – म्हज्या मरणा उपरांत शोकसभा बी करून म्हजीं आनीक आनीक फकाणां कोणें करचीं न्हय. जाचे कडल्यान जें मेळ्ळां ते खातीर हांव तांचो सदां उपकारीच उरलां. पुणून जांणी दिवपा सारकें दिलां ते लोकांची भुरावळ जमोवन शोकसभा करपाचे नात. जांणी कांयच दिवंक ना, तेच करतले आनी जांणी गाळीच घाल्यात तेच ताळयो मारतले... अशें जावचें न्हय.'

रवीन्द्रनाथ व्हड साहित्यकार, व्हड संगीतकार, व्हड चित्रकार, व्हड शिक्षणतज्ञ खूब कितें कितें आशिल्ले. पुणून ह्या सगळ्यां परस ते एक व्हड 'मनीस' आशिल्ले. भितर जशे, तशे भायर.





२१.

अन्नाडी मनीस वळखूंक सोंपो. तसो संस्कारीय वळखूंक सोंपो. दुश्ट वळखूंक येता तसो सुश्ट (बरो) मनिसूय वळखूंक येता.

शिकूंक नाशिल्लोच अन्नाडी आसता अशें ना. हांवें शिकिल्ले अन्नाडी पळेल्यात. शिक्षणाचो आनी संस्कारितेचो व्हडलोसो संबंद ना. संस्कारितेचो संबंद कित्या कडेन आसा हें सोदपाक बसलों तेन्ना एक सत्य दोळ्यां मुखार स्पश्ट जालें.

हेर सगळे जीव पांच धा पंदरा हजार वर्सां पयलीं आशिल्ले तश्शे आयज आसात. मनीस पांच हजार वर्सां पयलींचो उरूंक ना. पन्नास पन्नास वर्सांनी तो बदलत गेला. एक तर वयल्या पांवड्यार चडला -- सुसंस्कृत जाला, वा निसरून, गडगडून सकल पडला – विकृत जाला. बाकीच्या जिवां भाशेन तो प्राकृत अवस्तेंत उरूंक ना. आपूण कोण जावचो – सुसंस्कृत काय विकृत – हें ताणें आपणा हातांत दवरलां. ताचें चडप वा पडप ताचे इत्सेचेर निंबून उरलां.

मनीस बदलत गेला, वेगळे वेगळे कडेन वेगळे वेगळे तरेन बदल्ला. कसोय बदलूं, बदलपाची ताची दिका मात सगळे कडेन एकूच उरल्या. तो अन्नाडीपणांतल्यान संस्कारिते कडेनूच गेला. पशुत्वांतल्यान मनीस जावपाचो यत्न करीत रावला आनी मनीसपणांतल्यान दिव्यत्वा कडेन पावलां उखलीत रावला.

एका काळार मनशाक वयर काडपाचें काम धर्म करतालो. जिविताच्या सगळ्या आंगांचो विचार करून खंयचें आंग कशें चलोवचें तें मनशाक सांगतालो. आयज धर्म बदनाम जाला. म्हूण ताची सुवात संस्कृतायेक दिवंक मनीस भायर सरला. पुणून, जिविताच्या सगळ्या आंगांचो बारीक सारीक विचार करून 'श्रेय' कित्यांत आसा तें धर्मान जशें मनशाक सांगिल्लें – एक 'विहित शील' आनी एक 'निषिद्ध शील' तयार करून ताका दिल्लें -- तशें संस्कृतायेन करूंक ना. मनशान कितें

करूंक जायना आनी कितें करूंक जाय, तें संस्कृतायेन सांगूंक ना. श्रेय कित्यांत आसा तें दाखोवन दिवंक ना. म्हूण संस्कृताय अजून धर्माची सुवात घेवंक पावूंक ना.

खंयचीच संस्कृताय निखटी अध्यात्मवादी आसना तशी निखटी जडवादीय आसना. हिन्दू संस्कृताय अध्यात्मवादी आनी येवरोपेव संस्कृताय जडवादी म्हणटात तें खरें न्हय. ह्या जल्मांत जें भोगूंक मेळ्ळें ना तें फुडल्या जल्मांत भोगूंक मेळचें म्हूण हिन्दू अनुष्ठानां-बिनुष्ठानां करता जाल्यार, ताका अध्यात्मवादी न्हय, तर जडवादीच म्हणचो पडटलो. सामक्या सकयल्या पांवड्यार देंविल्लो जडवादी. पुनर्जल्माची वा स्वर्गाची कल्पनाच निर्शेल्ल्या, खर्शेल्ल्या अपेशी जडवादी लोकांचे तकलेंतल्यान आयल्या.

हिन्दू आपणाक मानता तितलो तो अध्यात्मवादीय न्हय. आनी येवरोपेवांक तो म्हणटा तसो येवरोप जडवादी न्हय. जे संस्कृतायेन थॉमस ऑफ एक्विना, सेंट जॉन ऑफ क्रॉस, सेंट ऑगस्टीन, सेंट बर्नार्ड, विल्यम लॉ, एक्कार्थ सारकेले एका फुडले एक 'मिस्टिक' (साक्षात्कारी) लोक जल्माक घाल्यात तिका निखटी 'जडवादी' संस्कृताय कशी म्हणटले आमी? अध्यात्मांत वयल्या पांवड्यार पाविल्ली एक व्हड संस्कृताय ही.

संवसारांतल्यो सगळ्यो संस्कृतायो अध्यात्मवाद आनी जडवाद ह्या दोनूय मार्गां वयल्यान समांतर चलत आयल्यात. तश्यो, दर एके संस्कृतायेंत दोन पोट संस्कृतायोय समांतर चलत आयल्यात. एक धवाड्यांची. दुसरी भौसाची. रुढींक दसून रावप, बारीक दुबळ्या लोकांचेर धेंक बसोवन आपणाली सत्या चलोवप हें धवाड्यांचे संस्कृतायेचें लक्षण. जाल्यार, रुढी मोडप, परंपरेंत बदल घडोवन हाडप, तळागाळांतल्या लोकांक वयर काडपाचो यत्न करप हें भौसाचे संस्कृतायेचें लक्षण. दोनींच्यो भासो लेगीत वेगळ्यो. पोरण्या काळार आमच्या देशांत धवाड्यांचे संस्कृतायेची भास आशिल्ली संस्कृत, दुसरेची आशिल्ली पाली/प्राकृत. आयज धवाड्यांची भास जावन बसल्या इंग्लीश. दुसरेची, लोक उलयतात ती – कोंकणी, गुजराती, तमिळ, तेलुगु, मराठी आदी. पयली प्रतिश्ठीत. दुसऱ्यो 'हेंगाडी'.

बुद्ध भौसाचे संस्कृतायेचो मूळ पुरूस. तो ते मुस्तींतले 'हेंगाडी' भाशेंतल्यानूच लोकांक वयल्या पांवड्यार व्हरपाचो यत्न करीत आयिल्लो. बुद्धाची परंपरा, उपरांतच्या काळांत देशांतल्या सगळे कडल्या संतांनी चलयली.

परिणामीं, हिन्दू धर्माच्यो लेगीत दोन आवृत्त्यो चलपाक लागल्यो. एक भटां-ब्राह्मणांचो ('क्लासिकल') हिन्दू धर्म. दुसरो, भौसाचो ('पोप्युलर') हिन्दू धर्म. येवरोप अमेरिकेंत आमी जो धर्म घेवन वतात तो भटां-ब्राह्मणांचो. भौसाचो

हांगाच उरता.

धर्माची सुवात आमी संस्कृतायेक दिवची केली जाल्यार प्रस्न येतलो, ही संस्कृताय कसली आसतली, जडवादी काय अध्यात्मवादी? धवाड्यांची काय भौसाची?

संवसारांत कितल्योश्यो संस्कृतायो वयर सरल्यो आनी ना जाल्यो. आपणाली संस्कृताय पांच हजार वर्सां जालीं, तिगून उरली अशें हिन्दू मोट्या अभिमानान सांगीत्त आयला. पुणून पांच हजार वर्सां पयलीं आशिल्ली तशीच उरल्या व्हय तर ती? ना. बदल्ल्या. खंय बदल्ल्या? तिच्यांतलें कितें ना जालां, कितें उरलां? दुसरें, मुसलमानी संस्कृताये मुखार तिका हार खावची पडल्या तशी येवरोपेव संस्कृताये मुखार तिका दिमी मोडची पडल्या. कित्याक लागून हार खावची पडली? कित्याक लागून दिमी मोडची पडली? ह्या प्रस्नांचो बारकायेन आनी खोलायेन विचार जावंक जाय. कित्याक –

आयज आमचे मुखार एक वेगळें संकश्ट येवन उबें रावलां – बाजारी संस्कृतायेचें. 'मीडिया' नांवाचो एक चश्मो हे संस्कृतायेन आमच्या दोळ्यांचेर चडयला. ह्या चश्म्यान आमकां अन्नाडी आनी संस्कारी – दुश्ट आनी सुश्ट – वळखूंक येतले व्हय? अन्नाडी कोण आनी संस्कारी कोण हें वळखुपाची नदर आमी होगडावन बसले जाल्यार –

लेख बरोवपाक, भाशणां दिवपाक, परिसंवादांनी चर्चा करपाक विशय म्हूण संस्कृताय उपकारा पडत, जिविताचें जितें-जिवें मूल्य म्हूण ती उरपाची ना.

धर्मा वांगडाच तिवूय ना जावन वतली.





## २२.

आमगेल्या म्हालगड्यांनी चार वर्णांची एक समाज-व्यवस्था रचली आनी सगळ्यांक सांगलें, जण एकल्यान आपापणाल्या वर्णाच्या कर्मांक धरून काम करचें; बुदवंतांनी तर आपणाल्या वर्ण-कर्मां भायलीं कामां करून नेणार लोकांचो बुद्धिभेद करचो न्हय. सगळेच ह्या उपदेसाक धरून चलिल्ले जाल्यार भारतीय संस्कृताय गिरेस्त जावंक पावतली आशिल्ली?

हेंच पळेयात—

परशुराम भृगूचो पूत. भृगू ब्राह्मण. परशुराम आपणाल्या वर्णधर्माक धरून चलिल्लो जाल्यार अस्त्र-विद्या ह्या देशांत वाडुंकूच पावची नाशिल्ली.

वसिष्ठ उर्वशेचो पूत. उर्वशी अप्सरा. इन्द्राची 'रखेली'. तो आपणाल्या वर्णधर्माक धरून चलिल्लो जाल्यार ऋग्वेदाचें सातवें मंडळ आमकां मेळचें नाशिल्लें.

व्यास सत्यवतीचो पूत. सत्यवतीचो बापूय 'धीवर', म्हळ्यार खारवी. तो आपणाले जातींतूच राविल्लो जाल्यार *महाभारत, भागवत* हे सारके धर्मग्रंथ आमकां मेळचे नाशिल्ले.

लोमहर्षण मेस्तांगेर जल्माक आयिल्लो. तो मेस्तपण करीत राविल्लो जाल्यार पुराणां आमकां मेळचीं नाशिल्लीं.

नारद सोन्याचो धंदो करतल्यागेर जल्माक आयिल्लो. म्हळ्यार, रेंदेर आशिल्लो. तो आपणाले जाती भायलीं कामां करूंक मुखार सरूंक नाशिल्लो जाल्यार भक्तिशास्त्र आमकां मेळचें नाशिल्लें.

हे सगळे वर्णधर्मा भायलीं कर्मां करूंक लागले म्हुण्णूच मूं आमकां येदेंय व्हडलें हें दायज मेळूंक पावलें?

मध्ययुगांत जांणी लोकसंस्कृताय घडयली ते तर जल्मानूच 'सकयल्या'

जातींचे आशिल्ले. कबीर लुगटां विणटालो. रविदास चामार आशिल्लो. सदना कसाब. धन्ना जाट. सेना म्हालो. नाभाजी डोम आनी दादू पिंजारी आशिल्लो.

चातुर्वर्णाक धरून भारतीय संस्कृताय चलिल्ली जाल्यार तिका वेदीक यज्ञयागांचेर आनी उपनिषदांतल्या ब्रह्मविचारांतूच धादोशी रावचें पडटलें आशिल्लें. बुद्ध महावीर चार्वाक जल्माक येतले आशिल्ले व्हय?

भारतीय संस्कृताय घडयल्या एक तर जाती मोडल्यात तांणी, वा 'सकयल्या' जातींनी जल्माक आयल्यात तांणी.







## २३.

भितल्ल्या विसंगतींक लागून संस्कृतायो ना जातात! मागीर, हिन्दू संस्कृताय ना कशी जाली ना? तिच्यांत थोड्यो विसंगती नाशिल्ल्यो! मनशा सारक्या मनशांक समाजा भायर दवरप, तांची सावळी लेगीत आपणाचेर पडूंक पावची न्हय म्हूण जतनाय घेवप – हें आफूड-भश्ट हिन्दू संस्कृतायेंत सदांच चलत आयलां. केदी व्हडली विसंगती ही, सगळ्यांत एकूच आत्मो वसता म्हणपी संस्कृतायेची! जाती-कातीचें ऊंच-उणाकपण, हिन्दू आनी अ-हिन्दू हांचे मजगतचें आपले-पेलेपण, बायलांचो सकयलो पांवडो, असल्यो एक आनी दोन न्हय, कितल्योश्यो विसंगती भरल्यात हिन्दू संस्कृतायेंत.

तरी आसतना, फाटल्या उण्या-पुऱ्या पांच हजार वर्सां पसून हिन्दू संस्कृताय तिगून उरल्या. तिचे आदल्यो, तिचे वांगडच्यो, तिचे उपरांतच्यो कितल्योश्यो संस्कृतायो आयल्यो आनी गेल्यो. हीच तिगून उरली. कशी उरली? भितल्ल्या विसंगतीं सयत तर ती तिगून उरल्याच, भायल्या दुस्मानांनी कितल्योश्यो घुरयो घाल्ल्यो आसुनूय तिगून उरल्या. इतलेंच न्हय तर देशी विदेशी राजांनी लोकांचेर एका फुडल्यो एक आगळिको केल्ल्यो आसतनाय तिगून उरल्या.

कांय जाण म्हणटात, आमी आमची समाज-वेवस्था पंचायतींच्या हातांत

दिली आनी अर्थ-वेवस्था सदां विकेन्द्रीत दवरली, हाकाच लागून आमची संस्कृताय तिगून उरली. परकी घुरयांक लागून सगळें सकल वयर जालें. पुणून खंयच्याच गांवांत उत्सव काले बंद पडले नात. ते चलत आयिल्ले तशेच सदां चलत रावले. कथा-किर्तनां कोणेंच आयचीं फाल्यांचेर धुकल्लीं नात. ते ते परबेक तीं तीं कथा-किर्तनां नेमान चलत रावलीं. नवीं नवीं देवळां उबीं जायत रावलीं. *रामायणा*चे *भागवता*चे पाठ अखंड चलत रावले. पाठशाळेंत शास्त्रांचें शिक्षण बंद केन्ना पडलें ना. शेतकामांत कोणाची केन्ना आडखळ जाली ना. वेपार तसोच चलत रावलो. जिवीत सदां चलत आयिल्लें तशेंच चलत रावलें. हाचें कारण, आयज जाका आमी 'सरकार' म्हणटात तसलें कितेंच आमचे संस्कृतायेंत नाशिल्लें. राजा आशिल्ले. पुणून ते चोरांक धरपाचें, तांकां ख्यास्त फर्मावपाचें, लोकांक न्याय दिवपाचें, भायल्यान घुरी आयली जाल्यार देशाची राखण करपाचें काम करताले. बाकीचीं दिसपट्ट्या वेव्हाराचीं सगळीं कामां लोकूच एकामेकांच्या पालवान आनी आधारान चलयत रावले. हाकाच लागून देश तिगून उरला.

आतां ते म्हणपाक लागल्यात, आमचे समाज-वेवस्थेचें मर्म समजून घेवंया, पंचायत-वेवस्था परती जिवी करुंया, पुराय अर्थतंत्र विकेन्द्रीकरणाच्या तत्त्वाक धरून बांदून काडुंया. आनी आफूड-भश्टा सारक्यो, जाती-कातीच्या ऊंच-उणाकपणा सारक्यो, हिन्दू-अहिन्दू मजगतच्या आपले-पेलेपणा सारक्यो सगळ्यो विसंगती काडून उडोवंया. म्हणटकूच पोरणी हिन्दू संस्कृताय भारतीय संस्कृताय हें नवें नांव घेवन मुखार येतली आनी सदांकाळ तिगून उरपी संस्कृताय म्हूण सगळ्यांक देखदिणी जावंक पावतली.





## २४.

देव खंय पुर्तुगालाचेर खोश्शी खोश्शी जालो आनी ताणें पुर्तुगालाक म्हळें, 'माग, तीन वर दितां हांव तुका. तुका जाय तें माग.'

'पुर्तुगालाक येवरोपांतलो एक सुंदरांतलो सुंदर देस कर!' पुर्तुगालान मागलें.

'तथास्तू!' देवान म्हळें. 'दुसरो वर माग.'

'येवरोपांतल्या खंयच्याय वायलां परस आमच्या वायलांक सुंदर कर.'

'तथास्तू!' देवान म्हळें. 'आतां निमाणो वर माग.'

'आमकां बऱ्यांतलें बरें एक सरकार दी', पुर्तुगालान मागलें.

देव उसळ्ळो. 'च्ये च्ये च्ये... तुमकां सरकार बरें दिलें जाल्यार पुर्तुगालांत आनी स्वर्गांत मागीर फरक कितें उरतलो? ना... बरें सरकार तुमकां केन्नाच मेळपाचें ना... हांव दिवपाचों ना.'

पुर्तुगालांत रावन आयिल्ले लोक पुर्तुगाल येवरोपांतलो सुंदरांतलो सुंदर एक देस म्हूण सांगतात. पुर्तुगेज वायलां सारक्यो सुंदर बायलो येवरोपांत खंयच नात अशेंय म्हणटात. सरकार? पुर्तुगालच्या पुराय इतिहासांत बरें सरकार पुर्तुगालाक केन्नाच मेळ्ळें ना.

सद्याची खबर ना.

केन्ना केन्नाय दिसता, सरकारां नाशिल्लीं जाल्यार लोकांचो कितें घात

जातलो आशिल्लो? अराजक माततलें आशिल्लें? शेतकार शेतां रोवचे नाशिल्ले? शेतांत अन्न पिकचें नाशिल्लें? बाजारांत अन्न मेळचें नाशिल्लें? भाजी-पालो, फळ-फळावळ कोण रोवचो नाशिल्लो? रोवन बाजारांत हाडून कोण विकचो नाशिल्लो? भाजी-पालो आमकां मेळचो नाशिल्लो? फळ-फळावळ मेळची नाशिल्ली? नुस्तेकार नुस्तें मारचे नाशिल्ले, आनी हाडून बाजारांत विकचे नाशिल्ले? वाडिल्ल्या चलयांचीं लग्नां जावचीं नाशिल्लीं? भुरग्यांक आवयो दुदाक धरच्यो नाशिल्ल्यो? लोक घरांत सान्न मारपाचें सोडून दितल्ले आशिल्ले? आयदनां घांसचे नाशिल्ले? लुगटां उमळचे नाशिल्ले? कोण रांदचो नाशिल्लो? कोण जेवचो नाशिल्लो? रात पडटकूच कोण न्हिदचो नाशिल्लो? मरपा वेळार कोण मरचो नाशिल्लो?

सरकारां नाशिल्लीं जाल्यार कोणाचें कसलें काम अडून उरतलें आशिल्लें?

दीस उदेलो ना, जाल्यार संवसार चलचो ना. वेळार पावस पडलो ना, जाल्यारूय संवसार चलचो ना. तशें, सरकारां नासलीं जाल्यार संवसार चलचो ना अशें म्हणूं येत व्हय? सरकारां आसात म्हूण संवसार चलता हो भ्रम आमचो. ह्या भ्रमांतल्यान आमी मेकळीं जावंक जाय. सरकारां बगर आमकां जियेवंक येवंक जाय. जाल्यारूच आमचीं कामां आमी आत्मनिर्भरतेन आनी जापसालदारकेन करूंक पावतलीं.

सरकारांनी संवसाराचें लुकसानूच केलां. आमचो इतिहास कितें सांगता?

देसांत राजा आशिल्ले. भायल्यांनी घुरी घाली जाल्यार ती परतून लावपाचें काम ते करताले. समाजांत किजिलां उपरासलीं, झगडीं-झुजां जालीं जाल्यार न्याय दिवपाचेंय काम ते करताले. पुणून शाळा तांणी चलयल्यो नात. लोकांक वखदां तांणी दिलीं नात. लोकांच्या हिताचीं सगळीं कामां लोकूच करताले.

आयज सगळेंच आमी 'सरकारान करचें' अशें म्हणपाक लागल्यात. तरी नशीब, वाडिल्ल्या चलयांच्यो सोयरिकोय सरकारानूच जुळोवन दिवच्यो अशें कोण म्हणिना. पुणून –

सांगूं येता?





## २५.

बायलांक घोव मारतात. फकत अन्नाडी घोवूच न्हय. शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या 'सभ्य' समाजांतलेय मारतात. हांवें एक आदोगाद पळेल्लो. आत्र्यापयऱ्यान बायलेक मारतालो. आनी हो एक राजकी फुडारीय आशिल्लो. आनीक एकलो पळेल्लो. पुर्तुगालाक वचून एके पाखलिणी कडेन लग्न जावन आयिल्लो. तोवूय बायलेक सद्दां बडय बडय बडयतालो. इतलेंच न्हय, तर 'तुमी मिश्तीस. तुमकां मायदेस ना' अशें म्हणून आपणाल्या भुरग्यांकूय बडयतालो. हो एक प्रोफसोर आशिल्लो लिसेवाचो.

आमच्याच देसांतले घोव असले, अशें न्हय. येवरोप अमेरिकेंतूय बायलांक मारपी घोव आसात. खंय वाचिल्लें, याद जायना, कांय वर्सां पयलीं घोवां आड आवाज उठोवपा खातीर बायलांनी अमेरिकेंत (काय येवरोपांत?) एक परिशद भरयल्ली. तीस पस्तीस देसांतल्या बायलांनी हे परिशदेंत वांटो घेतिल्लो. घोवांच्या जुलमांच्यो कितल्योश्यो गजाली हे परिशदेंत उकताडा आयिल्ल्यो. जपानच्या एका आदल्या प्रधानमंत्र्याचीय बायल उलयल्ली. घोवा कडल्यान आपणाक कसलो आनी कितलो मार सोंसचो पडटा हें तिणें थंय मेकळेपणान सांगिल्लें, आनी तें आयकून लोकांच्या आंगार कांटो फुलिल्लो.

अन्नाडी लोकूय बायलांक मारतात. शिकिल्लेय मारतात. व्हड मनिसूय मारतात. कांय नांवाजत्या सिने-स्टारांकूय तांगेले घोव मारतात म्हूण वाचलां. नूतन एका काळा वयली आमची एक 'हिरोईन'. ती एका कॅप्टना कडेन लग्न जाल्ली. तिचे जोडीचेर घोव फोल्गां मारतालो. आनी वयल्यान तिका मारतालो. 'ह्या नरकांतल्यान म्हाका सोडयात गा सायबांनो' अशें म्हणून तिणें एक खेपे सिनेमा संवसारांतल्या व्हड व्हड मनशांक चिटीय धाडिल्ल्यो. बिमल रॉयाच्या

मर्णाक ती तोंडार पदर ओडून आयिल्ली. कित्याक? घोवाच्या मारान तिचें तोंड सुजिल्लें म्हूण. मीना कुमारी एका कवी कडेन लग्न जाल्ली. तोवूय बायलेचे जोडीचेर फोल्गां मारतालो. तिचे जोडीचो सगळो पयसो आपणा कडेन दवरतालो. तिका कांय दिनाशिल्लो. तो खंय बायलेक पॅण्टीच्या बॅल्टांनी मारतालो. इतलेंच न्हय, तर तिच्या हांतुळणार मेल्लो कावळो बी दवरून तिका भेशटायतालो आनी हँ हँ करून वयल्यान हांसतालो. तिची इत्सा नासतना कितलेशे खेपे तार्णे तिका गर्भपात·करूंक लायिल्ले. एका काळार 'दम मारो गर्ल' म्हूण गाजिल्ली झिन्नत अमान घोवाचो खूब मार खाताली. घोवूच न्हय, घरचीं सगळीं तिका लोखणाच्या सळयांनी मारतालीं. बावडी सोंशीत रावली. एक दीस उसळ्ळी आनी एक प्रॅस कॉन्फरन्स घेवन तिर्णे ही खबर वाऱ्यार घाली. डिंपल कापडियाय राजेश खन्नाचो मार खावन खावन एक दीस सोंसूं नजऽ जावन घोवा पसून वेगळी सरली.

हें सगळें खंयच्या न्हय खंयच्या नेमाळ्यांनी वाचिल्लें. तेन्नाच हेंय वाचिल्लें–

अमेरिकेंत एके बायलेन घोवाचेर पेत्रोल (गाझोलीन) ओतून ताका ताच्या घरा सयत हुलपावन मारलो (अमेरिकेंतलीं घरां लाकडाचीं),आनी भुरग्यांक घेवन पयसल्यान घर कशें हुलपता तें पळोवंक लागली. पुलिसांनी तिका धरून व्हेली आनी न्यायसभे मुखार उबी केली. तेन्ना तिर्णे घोवाक आपणें हुलपावन मारला हें कबूल केलें आनी घोव आपणाक कसो मारतालो तें रडून न्यायसभेक सांगलें. न्यायाधिशान विचारलें, 'इतलीं वर्सां तूं मार कित्याक सोंशीत रावली? पळून कित्याक गेली ना? घराक दार नाशिल्लें?'

*'यॅस मिलॉर्ड, दॅअर वॉझ अ डॉअर. बट नो एक्झीट'* – (दार आशिल्लें. पुणून भायर सरूंक मेळनाशिल्लें)' तिर्णे रडत रडत जाप दिली.





## २६.

*पिता रक्षति कौमारे, भर्ता रक्षति यौवने । पुत्रो रक्षति वार्धक्ये, न स्त्री स्वातंत्र्यम् अर्हति* – भुरगेपणांत बायल-मनशेची राखण तिच्या बापायन करपाची, तरणेपणांत घोवान, जाणटेपणांत पुतान, पुणून तिका मेकळी केन्ना सोडची न्हय, तिका मेकळीक फावना. ही मनूची देख खंय आमच्या रगतांत घोळटा. देखून 'महिला आरक्षण विधेयक' लोकसभेंत येना, केन्ना येवपाचें ना, आनी आयलें जाल्यार पास जावपाचें ना, अशें म्हजें मत्त जालां. पुणून आमच्या रगतांत मनूची देख घोळटा म्हूण न्हय. येवरोपेवांची केलदावणी आमी करपाक लागल्यात, म्हूण. येवरोपेव संस्कृताय आमचे संस्कृताये परस वयल्या पांवड्याची अशें इंग्रजी शिक्षण घेवन 'सुधारिल्ले' आमी मानपाक लागल्यात. येवरोपांत बायलांक मेकळीक खंय आसा? मेकळीक आसा ती उखलापी.

बायलांक मेकळीक दिवंक जायना अशें मनून आमकां सांगलां आसत. पुणून आमकां देख घेवपाचीच आशिल्ली जाल्यार आमी मनूची कित्याक घेतले आशिल्ले? आमचे कडेन *रामायण* नाशिल्लें? *मनुस्मृती* परस कितलेंशेंच आदलें तें. रामाक वनवासाक धाडचो म्हूण कैकयेन सुचयलें तेन्ना दशरथान तिका विचारलें, 'ताका वनवासाक धाडलो जाल्यार कौसल्या कितें म्हणटली? हें कितें केलें तुवें म्हूण तिणें म्हाका विचारलें जाल्यार, कितें जाप दितलों हांव तिका? कौसल्येन म्हजी सेवा केल्या ती सादी न्हय. दासी, इश्टीण, घरकान्न, भयण, आवय, कितल्याश्याच रुपांनी तिणें म्हाका आधार दिला. राम तिगेलो पूत. ताका वनवासाक धाडून तिका दुखोवं?'

वसिष्ठ म्हऱ्यांतूच आशिल्लो. ताणें कैकयेक सांगलें, 'रामाक वनवासाक धाडलो जाल्यार ताचे सुवातेर तुगेलो भरत राजगादयेर बसतलो अशें दिसता काय कितें तुका? भरत कित्याक बसतलो? सीता बसतली. सीता राज्य चलयतली. ती घरकान्न तागेली. घरकान्न म्हळ्यार आत्मो घोवाचो.'

*रामायणा* भाशेन *महाभारतूय मनुस्मृतीच्याक* कितलींशीं शतमानां आदलें.

हजार तरांच्या आख्यानांनी भरिल्लें. तातूंत 'दुष्यंत शकुंतला' नांवाचें एक आख्यान आयलां. तातूंतलो एक प्रसंग मुजरत सांगपा सारको – शकुंतला पुताक घेवन दुष्यंताच्या दरबारांत येता आनी दुष्यंत तिका वळखना तेन्ना तिडकीन ती उसळटा आनी दुष्यंताक विचारता, 'बायल घोवाचें अर्दें आंग म्हूण खबर आसा मूं तुका? तिका शास्त्रांत 'अर्धांगिनी' म्हळ्या. गृहस्थाच्या संवसाराचो महायज्ञ ती चलयता. घरकान्नी बगर कसलीच धार्मीक वा संवसारीक क्रिया पुरी जायना. एकांतांत इश्टिणी सारकी, धर्मकार्यांत बापाय सारकी, दुःखांत वा पिडेन हांतुळणार पडिल्लो आसतना आवय सारकी, यात्रेंत विसव दिवपी फकत घरकान्नूच आसता. जाका घरकान्न ना ताका कोण पातयेना. घोव भायर पडलो जाल्यार ताचेच वांगडा ती परलोकाक वता आनी आपूण पयलीं भायर पडली जाल्यार घोवाची वाट पळेत बसता.' कालिदासाच्या नाटकांत असली तेजिश्ट शकुंतला मेळपाची ना. *महाभारतां*त मेळटा. देख घेवपाक आमचे मुखार *रामायण, महाभारतां*तल्यो ह्यो देखी आशिल्ल्यो. एकल्या मनूचीच देख आमी कित्याक घेतले आशिल्ले? दुर्गेचो देश हो. ह्या देशांत इन्दोरचे अहिल्यादेवी सारक्यो, वा झांसीचे लक्ष्मीबाई सारक्यो वीरांगना जावन गेल्यात. मध्ययुगांत कितल्योश्यो राजपूत बायलो हातांत तरसादी घेवन झुजा मळार देंवल्यात. तें कित्याक, आदिवासी लोकांत वावर करपी एकलो सांगी – खंयच्याय रानवटी वाटारांत वचात, वागा शिंवांच्या तोंडांत भुरगीं पडचीं न्हय म्हूण तांची राखण करपाक शिंविणी सारक्यो जाल्ल्यो कितल्योश्यो बायलो थंय पळोवंक मेळटल्यो...

म्हजो शीण दुसरे तरेचो. बायलांक आरक्षण जायच कित्याक? तांणीच खासा मुखार सरून देशाचो राजकारभार आपणा हातांत घेवचो. वेंचणुकेंत उब्यो रावन शंबरांतल्यो शंबरूय सुवातो जिखून दाखोवच्यो. तांच्यांत ही तांक आसा. त्यो अबला न्हय. अबला समजून ह्या देशान एके बायल मनशेक – इंदिरा गांधीक – प्रधानमंत्रीपदार बसयल्ली. कांय जाण तिका 'गुंगी गुडिया' लेगीत म्हणपाक लागिल्ले. 'आमच्या हातांत ती उरतली' अशें तांकां दिशिल्लें. उरली व्हय ती 'गुंगी गुडिया'? गेली व्हय ती 'तांच्या हातांत'? एक दीस ती 'दुर्गा' जालीच काय ना? व्हडल्या व्हडल्यांक तिणें लोळयल्यात! तिची देख घेवपाची सोडून बायलो आमकां 'आरक्षण' मेळना म्हूण शीण काडपाक लागल्यात! नशीब न्हय?





## २७.

एक कथा सांगतात —

महिषासूर मदांध जाल्लो. देवांक पिडापीड भोगोवपाक लागिल्लो. देव हुसक्यांत पडले. हाचें आतां कितें करचें, ते चिंतूंक लागले. 'हाका मारूंक जाय, दुसरो उपाय उरूंक ना' ह्या निर्णयार पावले. उठून विष्णू सरीं गेले. विष्णून म्हळें, 'ताका मारपाचें काम म्हजे हस्तुकीं जावपाचें ना. हांव उणो पडटां. शिवाचेय हस्तुकीं जायत, अशें दिसना. तोय उणो पडटलो. हें काम केल्यार फकत शक्तीच करूंक पावतली.' देव शक्तिमाये सरीं गेले. तिणें म्हळें, 'तुमचीं शस्त्रां अस्त्रां सगळीं पयलीं म्हजे कडेन हाडून दियात. मागीर कितें करपाचें तें हांव करतां.' देवांनी आपापणालीं शस्त्रां अस्त्रां हाडून तिच्या पांयां कडेन दवरलीं. ते उपरांत शक्तिमायेन महिषासूराक मारलो.

बायल-मनशेक 'महिषासूर मर्दिनी' मानपी एकूच देश हो संवसाराचे फाटी वयलो.

ह्या देशान रामाक अवतार मानलो खरो. पुणून पुजा-भक्ती ताणें सदां 'सीतारामा'चीच केल्या. कृष्णाक ताणें फकत अवतार न्हय, तर 'स्वयं भगवान' मानला. पुणून पुजा-भक्ती सदां 'राधाकृष्णा'चीच केल्या. सीते बगर राम पूर्ण जायना, राधे बगर कृष्ण पूर्ण जायना, आनी रखुमाई बगर विठ्ठल पूर्ण जायना अशें मानपी देश हो. तें कित्याक, सादो यज्ञ करूंक बसात, बायल बगलेक नासत जाल्यार तुमकां खंयचोच पुरयत यज्ञ करूंक दिवपाचो ना.

मागीर, बायल-मनशेचें येदें व्हडपण समजल्ल्या ह्या देशान तिका केन्नाच कसलेंच मोल कित्याक दिलें ना? तिका ताणें सदां 'अबला'च म्हूण पळेल्या. आनी तिका 'अबला' लेखून तिचेर सदां अन्यायूच केल्यात. शीम-मेर ना इतले अत्याचार केल्यात. परिणामीं, ती एक तर 'पतिव्रता' म्हूण मुखार आयल्या वा 'सती' म्हूण घोवा फाटल्यान हुलपून मेल्या.

चार स आडवाद सोडीत जाल्यार गांधी येसर तरी ह्या देशांत खंयचीच

बायल-मनीस कर्तुत्विनी वा तेजस्विनी म्हूण मुखार आयिल्ली पळोवंक मेळना. ती सदां दादल्यां फाटल्यानूच रावल्या. तिगेलें 'महिषासूर मर्दिनी'चें रूप फकत पुराणांतूच उरलां.

इंग्रजांचे मुस्तींत सुधारकांच्या वावराक लागून ती शिकूंक लागिल्ली. नर्सिंगचें काम करपाक लागिल्ली. खंय खंय शिकोवपाकूय लागिल्ली. गांधीन तिका सांगलें, तुका नर्सिंगचें काम बेस बरें करूंक येता हे विशीं इल्लोय दुबाव ना. पुणून तुका डॉक्टर जावंक येवपाचें ना असो हाचो अर्थ जायना. तुज्यान बऱ्यांतली बरी डॉक्टरीण जावं येता. तुका भुरग्यांक शिकोवंक येता, हे विशींय दुबाव ना. ल्हान भुरग्यांक शिकोवपाचें काम तुकाच बेस बरें येवपाचें. कित्याक, वरांचीं वरां भुरग्यां सांगातांत रावपाची, तांचे वांगडा उलोवपाची, खेळपाची कुशळताय तुज्या आंगांत आसा. मुळावें शिक्षण तुज्याच हातांत दिवंक जाय. पुणून हाचो अर्थ, तुका युनिव्हर्सिटींत शिकोवंक येवपाचें ना असो जायना. तुज्यान बऱ्यांतली बरी प्रोफेसरीण जावं येता. दादलो आनी बायल हांचे मजगतीं फरक दिश्टी पडटा तो फकत कुडीचो. योग्यतायेचो न्हय. योग्यतायेन तूं खंयच्याय व्हड दादल्या येदीच. दादले करतात तीं सगळीं कामां तुज्यान करूंक जातलीं. करून पळे आनी करून दाखय. संवसाराक मागीर तूं कोण तें कळटलें. दादल्यांक मेळ्ळ्यात ते सगळे – सामाजीक, राजकी, आर्थीक – अधिकार तुका मेळूंक जाय. सभावान तूं वेगळी म्हणटात तेंवूय खरें न्हय. दादलो पराक्रमी, बायल संवसाराक दसून राविल्ली, तिच्यांत दया माया बी गूण दादल्यां परस चड आसतात म्हूण जें सांगतात तेंवूय खरें न्हय. दादल्यांनी तुका सकयल्या पांवड्याचेर दवरपा खातीर पातळायल्ले भ्रम हे सगळे. दादल्यांक जें करूंक येता तितलेंय तुका करूंक येतलें. तूं घरांतली भायर सर आनी पळे.

अशें सांगून गांधीन तिका घरांतली भायर काडली. स्वतंत्रताये खातीर झुजपाक झुजा मळार देंवयली. तोफेच्या तोंडार तिका उबी केली. स्वराज्याचे आमचे चळवळींतलो बायलांचो वांटो दादल्यांच्या वांट्या परस खंयच्याच आंगान इल्लोय उणो न्हय म्हणपाचें तिणें दाखोवन दिलां. बायलांनी इतल्या प्रमाणांत आनी इतले धिटायेन वांटो घेतिल्ली दुसरी क्रान्ती इतिहासांत खंयच पळोवंक मेळना.

बायलांत आशिल्ले 'महिषासूर मर्दिनी'क गांधीच एकले वळखल्ले. तिच्यांतले हे शक्तीक जागोवपाक आनी वाडोवपाक पुराय गांधीयूग वावुरलां.





## २८.

दिल्लीक पावलां त्याच दिसा बायलांचो एक व्हडलो मोर्चो भायर सरिल्लो पळेलो. 'ब्युटी काँटॅस्टा'क लागून, कॅलँडरांचेर, नेमाळ्यांच्या कवरांचेर, खबरेपत्रांतल्या जायरातींचेर बायलांच्या अदर्या-उगड्या आंगांचें जें प्रदर्शन जाता ताका लागून बायलांचो अपमान जाता, ताचेर बंदी हाडात हें दादल्यांच्या संवसाराक त्यो सांगूंक सोदताल्यो. बायलो 'उठिल्ल्यो' पळोवन म्हाका बरेंऽ दिशिल्लें.

म्हज्या एका इश्टाचे घरकान्नीन मोर्च्यांत वांटो घेतिल्लो. हांवें तिका म्हळें, 'तुमचो हो नवो अवतार पळोवन म्हाका बरेंऽ दिसलें. तुमकां ही प्रेरणा कोणें दिली?'

'केट मिलेट' म्हूण तिणें एक नांव घेतलें.

'भायली?'

'हय.'

हांवें कपलार हात मारून म्हळें, 'देवा म्हज्या! तुमकां प्रेरणा दिवपाक भारतांत कोण मेळ्ळो ना? गांधी म्हूण एकलो कोण जावन गेला तुमच्या देशांत. ताणें बायलांक तोफेच्या तोंडार उब्यो रावपा इतल्यो धीट केल्यात... काना वेल्यान वचूंक ना हें नांव तुज्या?'

ती ओग्गी रावली.

हांवें म्हळें, देवान बांयल आमकां भोगूंक मेळची म्हुण्णूच निर्मिल्या, असो आमचो दादल्यांचो समज. आमी तिचे कडेन हेच नदरेन सदां पळेत आयल्यात.

पराशर, व्यास, विश्वामित्र – व्हडले व्हडले रुशी सुंदर बायल दिश्टी पडना फुडें 'कामातूर' जाल्यात... रुशींक 'मोग करूंक' येवंक ना. हजारांनी वर्सांचो एक खोल संस्कार हो. तो हुमटावन काडपाक तितलोच खर उपाय गांधीन तुमकां सुचयल्लो. ताणें म्हळ्ळें, 'तुमकां एक सांगतां, 'ना' म्हणूंक शिकात. तुमकां ना म्हणपाचें आसता तेन्ना मोट्ट्यान ना म्हणात... ना म्हळ्यार ना, नाच्च ना, केन्नाच ना... इतलेंच हें तुमकां म्हणूंक आयलें जाल्यार, कोणाक तुमचेर हात घालपाचो धीर जावपाचो ना. कोणूय जबरदस्ती करपाक लागलो जाल्यार, ताका मातूय सोंसून घेवं नाकात. घांस मारात, मिरसांगे पूड ताच्या दोळ्यांत घालात (ती सदांच किरवंटेक घेवन भोंवात)... गरज पडल्यार, मरपाक तयार जायात, पुणून ताका शरण वचूं नाकात. 'ना' म्हणपाक तुमकां आयलें जाल्यार हें बळ तुमच्या आंगांत येतलेंच येतलें.'

दुसरी एक गजाल ताणें सांगिल्ली ती सीतेचो दाखलो दिवन. रावण तिका उबारून घेवन गेल्लो. व्हरून तिका अशोकवनांत दवरिल्ली... तिका भोगतलो म्हुण्णूच व्हेल्ली... तो राक्षस आशिल्लो. तरी आसतना, तिका हात लावपाचो धीर ताका जावं नाशिल्लो. म्हऱ्यांत गेला तेन्ना विजेचो धसको बसचो तसो तो फाटीं सरला. तिचे भोंवतणीं संरक्षणाचें एक कवच आशिल्लें ताका दिश्टी पडलां. आनी तो भियेला. हें कवच तिका तिच्या पवित्रपणान दिल्लें. तें तुमचे भोंवतणीं आसचें अशें तुमकां दिसता आसत जाल्यार तुमकां एक व्हडलो निर्णय घेवचो पडटलो. खंयच्याच दादल्याक लागीं येवंक दिवचीं नात, घोवाक लेगीत दिवचीं नात – असो सोपूत तुमकां घेवचो पडटलो. ते बगर दादल्यांची नदर बदलपाची ना. बायलांक एक स्वतंत्र व्यक्तिमत्व आसा हें दादल्यांक दाखोवन दिवपाचो होच एक उपाय... जायत व्हय तुमकां धीर हो सोपूत घेवपाचो?





## २९.

बायलो फकत उठूंक जाय. उठल्यो जाल्यार त्यो केदे चमत्कार घडोवन हाडटीत, सांगूं नज. चीनांतल्यो बायलो आमच्या बायलां सारक्योच आपणाक 'अबला' मानीत आयिल्ल्यो. माओचे क्रान्तीन तांकां जाग हाडली. खंयूय कोणेंय खंयचेय बायल-मनशेचेर हात घाला म्हूण कळ्ळ्यारूच पुरो, त्यो वताल्यो, हात घालतल्याक सोदून काडटाल्यो, ताका भरभरीत ओडून बांजारांत हाडटाल्यो, ताचेर थुकताल्यो आनी ताका मार मार मारून सोडून दिताल्यो.

तेन्ना सावन आयज मेरेनच्या काळांत चीनांत कोणाक खंयचेच बायल-मनशेचेर हात घालपाचें काळीज जावंक ना.

क्रान्तींत अशेंच जाता.

आमच्या देशांतूय हेच तरेची — पुणून वेगळे भाशेची — एक क्रान्ती जाल्ली. फाटल्या पांच हजार वर्सांच्या काळांत आमच्या देशांतली बायल सदांच चिड्डल्लीच उरिल्ली. भुरगेपणांत बापायन तिचो सांबाळ करचो, तरणेपणांत घोवान, आनी जाणटेपणांत पुतान करचो ह्या संस्कारांत ती ल्हानाची व्हड जाल्ली. तिका गांधीन सांगलें, 'तूं अशी परसुवादीन जावं नाका, घरांतली भायर यो. दादल्यांक जमलें ना तें तूं करून दाखयतली.' आनी — अजाप म्हळ्यार — ज्यो बायलो केन्ना रान्नी पोल्ल सोडून भायर येवंक नाशिल्ल्यो त्यो गांधीच्या उल्याक जाप दिवन भायर आयल्यो. गांधीन तांकां कसलें काम दिलें? सोऱ्याच्या गुत्यार वचून पिकेटींग करपाचें, बेबद्यांक साबुद्दीर हाडपाचें, गुंडांक मनशाळावपाचें. ते उपरांत त्यो सत्याग्रहांत वांटो घेवपाक लागल्यो, मुखार रावपाक लागल्यो, पुलिसांच्यो

लाठयो झेलून घेवपाक लागल्यो. मारांक लागून पडटाल्यो तेन्ना त्यो पर्थून उब्यो रावताल्यो. आनी 'मार' म्हूण पुलिसांक सांगताल्यो.

पुलीस खर्शेले. बायलो केन्ना खर्शेल्यो नात ते मुस्तींत.

परिणाम – आयची भारतीय बायल तेजस्विनी जाल्या. महाराष्ट्रांत गडचिरोली वाटारांत ती उठल्या तेन्नाच थंय सोऱ्याचेर बंदी येवंक पावल्या. आंध्र प्रदेशांत एन्. टी. रामारावान सोऱ्याचेर बंदी हाडल्या ताचे पयलीं बायलांनी थंय लोकांच्या तोंडांतलो सोरो सोडयला. हिमालयांत सुंदरलाल बहुगुणान 'चिपको' आंदोलन सुरू केलां तेन्ना थंयच्यो अशिक्षीत बायलो मुखार आयल्यात आनी हें आंदोलन जैतवंत करूंक वावुरल्यात.

येवरोप अमेरिकेंत अण्वस्त्रां आड जी चळवळ चल्ली ती सुरू कोणें केल्ली? चार बायलांनी. फकत चार बायलो घरांतल्यान भायर सरल्यो. 'आमकां आमचीं भुरगीं अण्वस्त्रांनी मेल्लीं नाकात... आमकां हीं अण्वस्त्रां ना करपाचीं आसात' अशें म्हणून त्यो घराघरांनी गेल्यो आनी बायलांक घेवन रस्त्यार आयल्यो. हांची देख घेवन जर्मनींतली पॅट्रा कॅली नांवाची एक तरणाटी मुखार सरली आनी तिणें 'ग्रीन पार्टी' नांवाचो एक राजकी पंगड सुरू केलो. 'अण्वस्त्रां ना करूंक जाय. पर्यावरणाचो इबाड बंद जावंक जाय' अशें सांगपी उमेदवारांक येवरोपांतल्या कितल्याश्या देशांनी उबे करून थंयच्या पार्लमॅन्टांनी तिणें वेंचून हाडल्यात.

बायलो उठत जाल्यार आमच्या ह्या माणकुल्या गोंयांत लेगीत चमत्कार घडून येतले. गोंय 'जगा भायलें' न्हय.

हाचे पयलीं गोंयच्या बायलांनी बांदोडकारांचें सरकार सत्ये वेलें देंवयलां. घट सरकार आशिल्लें हें. तरी आसतना ताका कदेल सोडचें पडलां. बायलो उठल्यात तेन्ना.





## ३०.

हालींसराक वाडिल्ल्या चलयांच्यो सोयरिको खंय सोंपेपणान जुळून येनात. कित्याक लागून? चली सुंदर न्हय, वा चालीन बरी न्हय हें एक कारण आसूं येता. चली चल्यांचें लक्ष ओढूंक पावना, वा लक्ष ओडपा खातीर चडूच 'फॉरवर्ड' जाल्ली आसता हेंवूय आसूं येता. आवय-बापूय हुंडो दिवपाक पावनात हेंवूय एक कारण आसूं येता. सगळ्यांत व्हडलें कारण, समाजांत चलयो चल्यां परस चड जाल्यात हेंवूय आसूं येता.

कितलींशीं कारणां आसूं येतात.

मुसलमानांनी दादल्यांक एका परस अदीक (पुणून चारां परस चड न्हय) लग्नां करपाची मेकळीक दिवन हो प्रस्न एके तरेन सोडयला. जाल्यार, घरची एक तरी चली माद्री जावची असो एक नेम करून क्रिस्तांवांनी तो दुसरे एके तरेन सोडयला.

हिन्दूं मजगतचे सुधारक म्हणटात, घरांतल्या घरांत लग्नां जायनात, गोत्रांतल्या गोत्रांत जायनात, तशीं जातींतले जातींत जावंक फावनात असो एक नेम करचो. म्हणटकूच, हो प्रस्न सोंपेपणान सुट्टलो. हाचेर कांय समाजशास्त्री म्हणटात, जाती सगळ्योच संस्कारान एका पांवड्या वयल्यो आशिल्ल्यो जाल्यार हे तरेचो नेम सोंपेपणान करूं येतालो. पुणून जाती एका पांवड्या वयल्यो जावपाक दोन तीन पिळग्यो तरी वतल्यो. ते मेरेन जाती भायलीं लग्नां जावंक दिलीं जाल्यार घोवा-बायलेक सुरवातेच्या काळांत व्हडलीशी अडचण येवची ना, उपरांत पोरणे संस्कार केन्ना तकली वयर काडून मुखार सरतीत, सांगूंक येना. ते वयर सरले जाल्यार तांचे मजगतीं किजिलां सुरू जाले बगर रावपाचीं नात, आनी तीं उबगून एकामेकां पसून पयस सरले बगर रावपाचीं नात. कितलींशीं आंतर-जातीय लग्नां हाकाच लागून अपेशी जाल्यांत.

हाचेर सुधारक म्हणटात, एक दोन पिळग्यांचोच प्रस्न हो. एक दोन पिळग्यांक तो 'सोंसून घेवचो' पडटलो. मागीर सगळें निटायेन चलपाक लागतलें.

एक प्रस्न हालींच कांय विचारवंत मांडपाक लागल्यात. ते म्हणटात, जाती

भायल्या लग्नांक फाटबळ मेळपाक लागलें जाल्यार वयल्या जातींतल्यो चलयो सकयल्या जातींतल्या शिकिल्ल्या जोडकार चल्यांक उबारपाक लागतल्यो आनी सकयल्या जातींतल्यो बऱ्योचश्यो चलयो आंकवार उरतल्यो. परिणाम – सकयल्यो जातीच एक दीस आंतर-जातीय लग्नां आड वतल्यो, आनी जाती ना करपाचो सुधारकांचो यत्न ओम्-फस् जातलो.

म्हळ्यार. एक प्रस्न सुटटासर दुसरो जीवघेणो प्रस्न उपरासून येतलो आनी वखदा परस पिडा बरी आशिल्ली अशें म्हणपाचो प्रसंग सुधारकांचेर येतलो. पुणून घुसपल्ले प्रस्न सोडोवपाचो दुसरो उपाय ना. एक उपाय चलोवन पळोवप, तातूंतल्यान नवे प्रस्न उपरासून आयले जाल्यार तांचेर नवे उपाय सोदून ते चलोवन पळोवप. हे भाशेन, 'ट्रायल ऍण्ड ऍरर'चे वाटेनूच समाज आतां मेरेन मुखार सरत रावला.

खरेपणानशीं ह्या प्रस्नाचें आनीक एक म्हत्वाचें आंग आसा. ताचे कडेन अजून सुधारकांचें आनी विचारवंतांचें लक्ष वचूंक ना. बायल-मनीस कितलीय शिकिल्ली आसूं, केदीय व्हडली जोडकान्न जाल्ली आसूं, केद्याय व्हडल्या हुद्द्यार पावल्ली आसूं, जे मेरेन ती कोणा एकादल्याची घरकान्न जायना, ते मेरेन लोकूय तिका 'सौभाग्यवती' लेखिनात, तिवूय आपणाक 'सौभाग्यवती' मानिना. आपणांत कितेंय तरी वैगुण्य उरलां अशें खासा तीच खोलायेन मानपाक लागता, आनी ती कशेंय भाशेन कोणाचीय घरकान्न जावंक आंवडेता. हजारांनी वर्सांचो खोल असो एक संस्कार हो. ह्या संस्काराच्या मुळांत भुरगीं जल्माक घालपाचो आनी तांकां ल्हानाचीं व्हड करपाचो तिचे कुडीचो 'धर्म' आसा. ह्या धर्मानूच तिका दादल्याची गुलाम केल्या. तिका जातात तीं भुरगीं आपलींच आसूंक जाय. ते खातीर तिणें आपल्या घोवाक एकनिष्ठ रावंक जाय, इतलेंच न्हय, तर घोव अचानक मरून गेलो जाल्यार तिणें सावित्री भाशेन यमागेर लेगीत वचून आपल्या पातिव्रत्याच्या नेटार आपणाक परतो हाडूंक जाय ह्या 'धर्मा'न तिचो घोव चलत आयला. आनी बायलांनी भुरग्यांच्या बऱ्या-भल्याचें येवजून घोवाचो हो धर्म मोन्यांनीं मानून घेतला.

बायल-मनीस सौभाग्याच्या हावेसाक वट दसून रावतली ते मेरेन तिचो 'प्रस्न' कसोच सुटपाचो ना. सौभाग्याचो हावेस सोडून दिवपाचें काळीज केन्नाय जायत व्हय तिका? जावंक जाय. ना जाल्यार तिचीं दुःखां ना जावपाचीं नात.



## ३१.

वाचिल्ली एक खबर ही. आवयन धुवेक म्हळें, 'बाबू न्हिदला. येन्ना उठपाचो ना. वेळ आसा... ते मेरेन दोंगरार वचून हांव जळव घेवन येतां. सट्ट करून मदीं जागो जालो जाल्यार चींव उश्या कडेन दवरल्या. ती ताच्या तोंडांत घाल आनी पांयांर घालून ताका थापटी...'

धुवेन 'आं' म्हळें.

धूव पांच वर्साची. बाबू दोन अडेज वर्सांचो.

थोड्या वेळान बाबू जागो जालो. भयणीन चींव ताच्या तोंडांत घाली. ती ताणें मोखून भायर मारली. आनी 'आवो... आवो...' करून तो रडपाक लागलो. भयणीन ताका पांयांर घालो. तरूय ताचें 'आवो... आवो' थांबलें ना. 'चल यो, दाखयतां तुका आवो' अशें म्हणून तिणें ताका हाण्डीर घेतलो आनी ती दोंगर चडपाक लागली. वाटेर एके बायलेन तिका पळेली. 'बाय खंय वता तूं?' तिणें विचारलें. 'आवो जळवाक गेल्या... तिका सोदपाक... बाबू आवो आवो करून रडटा', चलयेन जाप दिली.

आनी हे हाण्डीवेल्या बाबूक ते हाण्डीर घेत ती दोंगर चडत रावली.

ते बायलेक चलयेची काकुळट दिसली. 'दी ताका म्हजे कडेन. हांव व्हरतां ताका वयर...' तिणें म्हळें.

'ना. ना. तुजे कडेन रावपाचो ना तो...' चलयेन जाप दिली.

'तुका जड लागना तो?'

'जड? कित्याक लागतलो? भाव तो म्हजो!' चलयेन जाप दिली.

मुंबयंत एके झोपडपट्टींत रावतालों. हजार तरांचे लोक. धर्मांच्यो, भासांच्यो, जातींच्यो सगळ्यो वणटी मोडून सगळे एकामेकां शेजरा रावताले. पत्र्यांच्या, फळयांच्या खोंपींनी. म्हज्यांत आनी तांच्यांत फरक एकूच– हांव एका बंगल्यांत रावतालों. चार बिराडांच्या. तांतलें एक म्हजें. नांवूय त्या बंगल्याचें 'द नेस्ट', म्हळ्यार 'घोंटेर' आशिल्लें. आमच्या बंगल्या कुशीचे एके खोंपींत विदर्भांतलो एकलो शेतकार रावतालो. काळो किट्ट बेरड. हमाली करतालो. नांव भगवान.

सकाळीं दुदा बुथार वचून सगळ्यांच्यो दुदा बाटल्यो हाडटालो. नांवाक सोबऽ सारको सभाव. कोणाकूय प्रसंगार पावतालो. 'भगवान, सिगरेटीचें पाकीट सोंपलें' म्हळ्यारूच पुरो, *'द्या पैसे माझ्याकडे, मी आणून देतो'* अशें म्हणून केदेय रातचो सायकल घेवन वतालो आनी रेल्वे स्टेशनार वा सिनेमा थियेटरा सरीं वचून सिगरेट हाडून दितालो. एक दीस आमी उलयत बशिल्ले. हांवें म्हळें, 'फाल्यां हांव तुकडोजी म्हाराजांक मेळूंक वचपाचों आसां.'

'तुकडोजी मुंबयंत आयल्यात?' ताणें उचांबळीत जावन विचारलें.

'हय', हांवें म्हळें.

'म्हजो नमस्कार सांग तांकां आं...'

हांवें विचारलें, 'तूं वळखता तांकां?'

'हय तर, तांगेल्या वरखेडच्या आश्रमांत हांव कांय म्हयने रावलां.'

'तशें जाल्यार, म्हजे बरोबर कित्याक येना?... म्हाका व्हरपाक एक मोटार येवपाची आसा.'

'ना. ना... पवित्र मनीस तो... म्हजेर ताची नदर पडूंक जायना.'

'कित्याक?'

'हांव पातकी मनीस एक... बरो न्हय...'

'कसलें पातक केल्लें तुवें? दरवडो घाल्लो?'

'शी शी, हरामीच्या पयशांक हांव केन्ना आफडूंक ना.'

'खून केला?'

'च्ये... पांयां पोंदा मूय चिड्डून मेली जाल्यारूय म्हाका भयंकर दुःख जाता. हांव खून कसो करतलों?'

'मागीर... कोणाची बायल, धूव पळोवन व्हेल्या?'

'शी शी शी... सगळ्यो बायलो म्हाका आवय भयणी धुवां सारक्यो...'

'हीं तीन व्हड पातकां... एकूय तुवें करूंक ना... तरी तूं पातकी कसो?'

*'साहेब, सांगू का? मी नोटा छापीत होतो... एक दिवस धाड पडली. माझ्या बरोबर काम करणारे सगळे सापडले. त्यांचे हात कापले गेले. मी पळून मुंबईला आलो... दहा वर्षं झाली मी येथे नरकवास भोगत आहे... बायको बघा वेडी झालेली आहे. मुलगा लोफर झालेला आहे. पाकिटे मारतो...'* इतलें सांगून ताणें म्हळें, *'साहेब, स्वर्ग नरक वर खाली कोठेच नाहीत. येथेच आहेत. याच जीवनांत ते मिळत असतात.'*





## ३२.

देशाचो कारभार इंग्रजींतल्यान चलतलो ते मेरेन देशांत कोण्ण मायभाशेंतल्यान आपणाल्या भुरग्यांक शिक्षण दिवपाचो ना. इंग्रजींतल्यानूच दितलो. कित्याक,

१) अधिकाराच्यो सगळ्यो सुवातो ह्या देशांत फकत इंग्रजी माध्यमांतल्यान शिकिल्ल्यांकूच मेळटात.

२) समाजांत 'स्टेटस' फकत इंग्रजी शिकिल्ल्यांकूच आसा.

३) प्रशासन सगळें (पंचायतीच्या पांवड्या वेलें लेगीत) इंग्रजींतल्यानूच चलता, आनी –

४) शिकिल्ल्या सगळ्यांक नोकऱ्यो दिवपाची तांक देशांतल्या खंयच्याच सरकाराक नाशिल्ल्यान तांकां पोटा खातीर इंग्लंड, अमेरिका, कॅनडा, ऑस्ट्रेलिया सारक्या देशांनी वचचें पडटा. थंय इंग्रजीच चलता.

आनिकूय कांय कारणां आसात. पुणून मुखेल कारणां हीं चार. तीं तशींच दवरून भुरग्यांक मायभाशेंतल्यान शिक्षण दियात अशें तुमी म्हणटले? कोण आयकतलो तुमचीं शापातां?

आमगेल्या एका भागेल्याले धुवेक दोतोरीण करूंक हांव आंवडेतालों. हुशार

चली. तरूय आठवे पेल्यान वचुंकूच पावली ना. दोन खेपे आठवेंत फेल जाली. हांव हेडमास्तराक पांयां पडलो. मातशी मुखार काड म्हूण. ताणें कांय केलें ना. परिणाम – ती 'ड्रॉप आउट' जाली. गोंयांत कितलीं भुरगीं 'ड्रॉप आउट' जाल्लीं आसतलीं, हिशोब आसा व्हय कोणा कडेन?

म्हाका आतां दुबाव मारपाक लागला, भौसांतलीं भुरगीं मुखार वचुंकूच पावचीं न्हय अशें जांकां मना पसून दिसता तांणीच हें शिक्षणाचें 'धोरण' तयार करूंक ना मू? शिकिल्ले धा आनी शिक्षण पुरें करूंक पावूंक नाशिल्ले णव्वद ही वेदीक काळा पसून चलत आयिल्ली टक्केवारी तश्शी दवरपी 'धोरण' हें. ह्या धोरणान देश शें प्रतिशत शिक्षीत केन्नाच जावंक पावपाचो ना. इंग्लंडाच्या भुरग्यांक कोंकणींतल्यान शिक्षण दिवन शिक्षीत करपा सारकेंच पिशेपणाचें धोरण हें. फकत भेरेल्ले मतीच्या लोकांकूच येवजपाचें.

इंग्रजी बगर चलपाचें ना, कबूल. पुणून इंग्रजीचें ज्ञान आशिल्ले कितले प्रतिशत लोक देशांत आसूंक जाय? शें प्रतिशत? पांच प्रतिशत पुरो. अशे तशे धा प्रतिशत. तेवूय ह्या 'शिक्षीत' भुरग्यांक भायर 'निर्यात' करपा खातीर. देशाच्या 'विकासा' खातीर न्हय. देशाचो विकास देशी भासांच्या आधारानूच करूंक येवंक जाय आमकां. जर्मनी, फ्रांस, जपान, चीन, रशिया ह्या देशांनी आपलो विकास इंग्रजीच्या आधारान केला व्हय? आपलेच भाशेच्या आधारान केला. आमकांय करूंक येवंक जाय. ना जाल्यार त्यो 'प्राचीन आनी उज्ज्वल' संस्कृतायेच्यो लातबडायो मारपाचें आमी सोडून दिवंक जाय. कसली संस्कृताय ही जी परके इंग्रजी मुखार दिमी मोडून बसता? शीः लज दिसूंक जाय आमकां.

इंग्रजी कितलीय शिकले म्हूण आमी इंग्रज जावपाचे नात. अमेरिकनूय जावपाचे नात. ऑस्ट्रेलियन जावपाचे नात. आनी, आंतरराष्ट्रीय तर केन्नाच जावपाचे नात. आंतरराष्ट्रीय जावपा खातीर जो आपली भास सोडून दिता तो हुमटल्लो – out of place everywhere, at home nowhere – जावन पडटा.

इंग्रजीच्यो कांय मर्यादा आसात. ती आमकां देशांतल्या तळागाळांतल्या लोकां मेरेन घेवन वचना. शंकराचार्या उपरांत अध्यात्माच्या मळार मौलीक चिंतन केल्ले दोग म्हापुरूस हालींसराक देशांत जावन गेले – एक, जे. कृष्णमूर्ती. दुसरे श्रीअरविंद. दोगूय देशांत तळागाळा मेरेन पावले नात. सय करूंक येनाशिल्लो श्रीरामकृष्ण तांचे मेरेन पावता. साईबाबा पावता. हे म्हापुरूस मात पावनात. हे आळशी ऐदी फॅशनेबल मदल्या वर्गा भितरूच बंदिस्त उरतात. राजकी मळार असोच एकलो व्हड मनीस जावन गेलो आमच्या फुडाऱ्यां मजगती. एम्. एन्.

रॉय. बुदवंत, क्रांतिकारी, लेनिनाचो उजवो हात, मॅक्सिकोच्या स्वातंत्र्या खातीर झुजिल्लो. इंग्रजी सोडून दुसरी खंयचीच देशी भास येनाशिल्ल्यान कोलकाता मुंबयच्या मूठभर बुद्धिजीवी (जाणवाय) लोकां भितरूच तो बंदिस्त उरलो.

मुळां कातरून व्हडल्या व्हडल्या रुखांक ल्हान आकार दिवपाची एक कला जपानी लोकांनी विकसावन काडल्या. येदो ऊंच माड एके कुंडेंत दवरूं येत येदो करून दाखोवं येता हे कलेच्या आधारान. पळोवपाक तो माडसो दिसता, सुंदरूय दिसता. पुणून तो नाल्ल दिवंक पावना. फकत दिवाणखानो सोबोवपाकूच उपकारा पडटा.

हे कलेक 'बॉन्साय' कला म्हणटात. इंग्रजी भाशेन आमच्या देशांत कितलेशे बॉन्साय विद्वान, बॉन्साय लेखक निर्माण केल्यात. परिसंवाद सोबोवपा खातिरूच ते उपकारा पडटात. हाचे पेल्यान तांचो देशाक कसलोच उपेग जायना. बॉन्साय म्हळ्यार गिड्डे. इंग्रजी भाशेन देशांत गिड्डे विद्वानूच तयार केल्यात. आमच्या भुरग्यांक आमी असले विद्वान करूंक सोदतात व्हय?





## ३३.

मायभूंय आनी मायभास सोडून दिल्ले लोक संवसाराचे फाटीर खंयूय वचून सत्या संपत, नांव लोकीक जोडून व्हड जावंक पावले तरूय सगळे कडेन ते सदां हुमटल्लेच उरल्यात.

डॉ. लुदोवीक झामेनहोफ हांच्यांतलो एक आशिल्लो. कितल्योश्यो येवरोपेव भासो ताका बेस बऱ्यो येताल्यो. आडखळ नासतना तो ह्यो भासो उलयतालो. 'अख्खी धर्तरी म्हजी आवय, हांव तिचो पूत' अशें मना पसून मानीत आयिल्लो.

एक दीस अवचीत ताका आपणाल्या जिवितांतल्यो कांय विसंगती दिश्टी पडल्यो. जल्मान ज्यू जाल्ल्यान आपूण देवाची प्रार्थना अशे एके भाशेंत करता की जी मरून अडेज हजार वर्सां जाल्यांत. प्रार्थना काळजाचे भाशेंतल्यान जावंक जाय. हिब्रू आपणाल्या काळजाची भास न्हय. आपूण असले एके भाशेंतल्यान शिकलां की जी घरांत कोणाचेच जिबेर घोळना. आपूण हे भाशेंतल्यान आडखळ नासतना उलयतां. तरी जांची ती मायभास ते आपणाक आपलो मानिनात. आपणाल्याच वांट्याक असलें खंडीत जिवीत आयलां, अशें न्हय. खूब जाणांच्या वांट्याक तें आयलां. जिवीत अखंड आसूंक जाय. जिवीत खंडीत करपी सगळ्यो विसंगती ना करून उडोवंक जाय, हे तरेची एक तळमळ ताका 'खावंक' लागली. संवसारांत एकूच भास चलची आनी ती सगळ्यांक आपली दिसची असो एक हावेस हे तळमळीक लागून ताच्यांत जागो जालो.

येवरोपांत शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या सगळ्यांक फ्रेंच येताली. ती वयल्या पांवड्याच्या सगळ्या येवरोपेवांक एकामेकां लागीं जोडटाली. इंग्रजीय थोड्या भोव प्रमाणांत ही गरज भागयताली. काश्तेल्यान (स्पॅनीश) लेगीत अशीच एक भास. संवसारांत चलताली. पुणून ह्यो सगळ्यो भासो आपणा वांगडा आपणालो

इतिहास घेवन आयिल्ल्यो. सगळ्यांच्यो खेरीत परंपरा आशिल्ल्यो. त्यो पुर्विल्ल्या काळा सावन चलत आयिल्ल्यो. पुणून त्यो 'उज्ज्वल' म्हणपा सारक्यो नाशिल्ल्यो. ह्यो भासो उलोवपी कांय लोकांनी दुसऱ्यो भासो उलयतल्या लोकांक आपणाल्या पांयां पोंदा चिड्डिल्यात. कांय जाणांनी दुसऱ्यांच्यो कत्तली घडोवन हाडल्यात. काश्तेल्यान भाशेन तर आपणाल्याच वाटारांतल्या लोकांचे कातालान भाशेक 'सुण्यांची भास' म्हूण सदांच हिणयल्या. ह्यो भासो संवसारांत कितल्योय पातळ्ळेल्यो आसल्यो तरूय सगळ्यांक त्यो 'आपल्यो' दिसत अशें म्हणूं येना.

म्हूण, झामेनहोफान एक नवीच भास निर्माण करपाचो वावर हातांत घेतलो. सोंप्यांत सोंपें व्याकरण आनी येवरोपांतल्या मुखेल भासांनी घोळपी समान उतरां घेवन ताणें 'एस्पेरान्तो' नांवाची एक नवी भास तयार केली. खंयचेच वंशकुळयेक, खंयच्याच देशाक, खंयच्याच इतिहासाक, खंयचेच परंपरेक दसूंक नाशिल्ली.

'एस्पेरान्तो' म्हळ्यार, जिचे पसून आस्त बाळगूं येता असली, सगळ्यांक एकठांय गुथूंक पावत, मनशां मनशां मजगतचे वंश कुळयांचे, धर्म परंपरांचे वेगळेचार पयस करूंक पावत असली एक 'खरी' आंतर-राष्ट्रीक वा संवसारीक भास.

आयज ही भास येवरोप अमेरिकेंत सगळे कडेन लोक शिकतात. संवसारांतलीं बऱ्यांतलीं बरीं पुस्तकां हे भाशेंत आयल्यांत. (गांधींची आत्मकथाय आयल्या.) सद्दां नव्या नव्या पुस्तकांची भर हे भाशेंत पडत आसा.

इतलेंय आसून लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, ही भास अजून मेरेन कोणाचीच मायभास जावंक पावूंक ना. खासा झामेनहोफाची लेगीत जावंक ना. 'संपर्काचें एक साधन' – a means of communication म्हुण्णूच ती चलता. 'संस्कृतायेचे उकतावणेचें माध्यम' – a medium of cultural expression जावंक पावंक ना.

भास म्हळ्यार फकत means of communication न्हय. खरी ती medium of cultural expression.

मायभाशेचो सुवात संपर्काची भास केन्नाच घेवंक पावना.

मायभास जण एकल्याक ताच्या जल्मा सावन मेळटा. तिचीं पाळां-मुळां मायभुंयेंत खोल रिगिल्लीं आसतात, आनी मायभाशेची मायभूंय भायर न्हय, तर भितर मेंदवांत आसता. हजारांनी लाखांनी वर्सांच्या संस्कारांनी ती घडिल्ली आसता.

एका प्रेषिताच्या स्रापाक लागून ज्यू लोकांक आपणाली मायभूंय सोडची पडिल्ली. संवसारभर ते पातळिल्ले. जंय वचून रावले थंयची भास तांणी आपणाली भास म्हूण घेतली. थंयचेच जावन रावले. 'मानिल्ल्या' देशाक कितें न्हय कितें

दीत रावले. इतलेंय आसून खंयच्याच देशांतल्या लोकांक ते 'आपले' कशे केन्नाच दिसले नात. ते जंय जंय वचून रावल्यात थंय थंयच्या लोकांनी तांकां आपणाल्या देशांतल्यान 'धांवडावन घालपा'चो यत्न केला.

तरातरांचे छळ सोंसले उपरांतूच ज्यूंक 'आमी आमची मायभूंय सोडली ती आमची चूक जाली, आमची मायभास सोडून दिली ती तर व्हडांतली व्हड चूक जाली, हाची जाणवीक जाली. आनी, आपणाली मायभूंय आपणाक परती मेळची, आपणाली 'मेल्ली' हिब्रू भास परती जिवी करची हो हावेस तांच्यांत जागो जालो.

एका व्हडल्या संघर्षा उपरांत तांकां इझ्रायेल देश मेळ्ळो. तो मेळना फुडें तांणी जगा भायल्या कर्तुत्वान हिब्रू भास परती जिवी केली.

पोटा खातीर अमेरिकेंत, कॅनडांत, येवरोपांत, ऑस्ट्रेलियेंत वचून राविल्ल्या भारतीयांची ही गत्त जावची ना कित्या वयल्यान?





## ३४.

हालींसराक खंय पुस्तकां चडशीं कोण वाचिनात. खंय आयकूंक येता ही पिरंगण? आमच्याच देशांत. अमेरिका, इंग्लंड, फ्रांस, जर्मनी, स्पेन, पुर्तुगाल; चीन, रशिया, जपान ह्या देशांनी ही पिरंगण आयकूंक येता व्हय? खंयच येना.

आमच्या देशांतले सरसमान लोक पुस्तकां वाचिनात हें म्हण, समजूं येता. कित्याक, चडशे कोण बरप-अक्षर शिकनात. तांकां वाचूंक येना. पुणून जे बरप-अक्षर दुसऱ्यांक शिकयतात ते शिक्षक प्राध्यापक तरी पुस्तकां वाचतात व्हय? एक रिपोर्ट वाचिल्लो. दिल्लींत दोन विद्यापिठां. दोनांचीं सांसश्ट कॉलेजां चलतात. ह्या कॉलेजांतल्या पांच हजार प्राध्यापकांक विचारलें, 'तुमी जे विशय भुरग्यांक शिकयतात त्या विशया वेलीं पाठ्यपुस्तकां सोडून दुसरीं खंयचीं पुस्तकां तुमी वाचतात?' ह्या प्रस्नाक शंबरांतल्या पंच्याण्णव प्राध्यापकांनी 'वाचपाची गरज केन्ना भासना' अशी जाप दिल्ली. 'तुमच्या विशया भायर दुसरें कितें वाचतात?' 'खबरेपत्रां भायर 'इलस्ट्रेटेड विकली', 'रिडर्स डायजेस्ट' असलें कितेंय चाळून पळेतात', ही जाप मेळिल्ली.

'सुटयो मेळटात त्या काळांत तुमी कितें वाचतात?' ह्या प्रस्नाक 'वाचपाक खंय वेळ मेळटा आमकां? बाजारांत वचप, शॉपिंग करप, भुरग्यांच्या फुडल्या शिक्षणाची तजवीज करप, वाडिल्ल्या चलयांचीं लग्नां जुळोवन हाडप, असल्याच राटावळींनी सुटी सोंपता' ही जाप मेळिल्ली.

शंबरांतल्या पंच्याण्णव जाणां भायर जे पांच जाण उरतात तांच्यांतले तीग जाण डिटेक्टिव्ह, सॅक्स, क्रायम ह्या विशयां वेलीं पुस्तकां वाचतात. फकत दोग जाण आपल्या विशयांत नवें कितें आयलां तें पळोवपाक वाचतात.

म्हळ्यार, पांच हजारां मजगतचे अशे तशे शंबर 'खरेले' प्राध्यापक दिल्लींत मेळ्ळे. बाकीचे सगळे प्राध्यापकाची फकत नोकरी करताले, असो हाचो अर्थ जालो.

स्वराज्य जोडून आतां अर्द शतमाना वयर काळ गेलो. कितलींशीं विद्यापिठां, कितलींशीं कॉलेजां देशांत फुल्लीं फळ्ळीं. शिक्षण खंयच्या उद्देशान चल्लें? नोकरेच्या. गिन्यान जोडपा खातीर कोण शिकल्यात जातले, कोण जाणा. नोकरे खातीर डिगऱ्यो जाय. त्यो घेतल्यो. नोकऱ्यो मेळोवपा खातीर लटपटी खटपटी केल्यो. एक फावट नोकरी मेळ्ळी म्हणटकूच ती सुटची न्हय म्हूण 'युनियनां'तयार केलीं. गरज पडल्या तेन्ना संप केले. विद्यार्थ्यांनी खंयच केन्ना विरोध करचो न्हय म्हूण प्राध्यापकांनी तांकां सदळ हातांनी मार्क दिवन पास केले! शिक्षणाच्या नांवान स्वराज्यांत चल्ला तो हो उद्देग. पुस्तकांक खंय सुवात आसा ह्या संवसारांत? कॉलेजांतल्यान भायर सरले म्हणटकूच पुस्तकां सुटलीं. मागीर, 'लोक पुस्तकां वाचिनात कित्याक' म्हूण कोणेंय विचारतकूच 'टी.वी. घरा घरांनी आयला, खंय कोणाक वाचपाक वेळ मेळटा?' ही जाप मेळटा. टी.वी. हांच्याच देशांत आयला? हेर कडेन येवंक ना? देश बरप-अक्षर शिकिल्ल्या अन्नाड्यांचो करून उडयला आयच्या शिक्षणकार्यान.





## ३५.

इतले सादे भोळे आमी? ऑक्स्फर्ड इंग्रजी कोशान आमचीं कांय उतरां घेतलीं म्हूण कितले भुल्लुसून आयले! 'भासो अश्योच वाडटात... आमीय अशेंच करूंक जाय... खंयचेय भाशेंतलीं उतरां घेवपाक अनमनूंक जायना' अशें एकामेकांक सांगुंकूय लागले!!!

मनशान पारव्या भाशेन निष्पाप पुणून जिवाण्या भाशेन शिटूक आसूंक जाय. संवसारांतलीं तड्डकां तरी ताका वळखूंक येवंकूच जाय.

संवसारांतली खंयचीच भास 'सवळी' उरूंक ना. दुसऱ्यांचीं उतरां घेवनूच सगळ्यो भासो गिरेस्त जाल्यात. संस्कृत लेगीत अशीच गिरेस्त जाल्या. ती घडटाली तेन्ना तिचे सरभोंवतणीं प्राकृत भाशेचीं कितलींशीं रुपां घोळटालीं. सगळ्यांचीं उतरां तिणें घांसून पुसून घेतल्यांत. संस्कृत भाशे इतली 'अशुद्ध' भास दुसरी मेळची ना.

पुणून ऑक्स्फर्ड इंग्रजी कोशान आमचीं उतरां घेतल्यांत तीं इंग्रजी भास गिरेस्त करपा खातीर व्हय?

कारणां समजून घेवंक जाय.

इंग्रज ह्या देशांत आयले व्यापार करपा खातीर. देशांत ते मुस्तींत कांय राजा आशिल्ले. तांची व्यापाराक आडखळ जावची न्हय म्हूण तांणी तांचीं राज्यांय घेतलीं. घेतिल्लीं राज्यां सैन्याच्या नेटार चलोवंकूय येनात, सांबाळून दवरुंकूय

येनात. तीं चलोवपा सांबाळपा खातीर थळाव्या लोकां मजगतच्या कांय जाणांक 'आपले' करून घेवचे पडटात. हें काम इंग्रजांनी दोन तरांनी केलें. थळाव्या लोकां मदल्या कांय जाणांक बाटोवन ख्रिस्ती केले आनी तांकां तांच्या मुदल समाजा पसून तोडले, वेगळे काडले. तितल्यान भागलें ना तेन्ना राजकारभार इंग्रजी भाशेंतल्यान चलोवपाक लागले आनी इंग्रजी शिक्षण सुरू केलें. म्हळ्यार, एके वटेन ख्रिस्ती लोक निर्माण केले जाल्यार दुसरे वटेन इंग्रजाळिल्ले 'गांवठी सायब' तयार केले. हे इंग्रजाळिल्ले लोकूच तांचो राजकारभार चलयताले. ते इंग्रजां फुडले इंग्रज जाल्ले. बाजारांतल्यान *'मेड इन इंग्लंड'* म्हाल हाडटाले आनी *'डायरॅक्टली इम्पोर्टेड फ्रॉम होम'* म्हूण मोट्या अभिमानान दुसऱ्यांक दाखयताले.

इंग्रजांनी आपणाल्यो आशिया आफ्रिका खंडांतल्यो वसणुको ह्या गांवठी सायबांच्या आधारानूच चलयल्यात.

दुसरें म्हाझूज सोंपलें त्याच वेळार वसणूकवादाचेय दीस सोंपिल्ले. इंग्रज आपणाल्यो एक एक वसणुको सोडून घरा वचपाक लागले. भारतूय सोडून गेले. पुणून कशे? देश फोडून, आनी फोडिल्ल्या दोनूय 'राष्ट्रां'चो राजकारभार आपणाल्या मुसलमान हिन्दू 'गांवठी सायबां'च्या हातांत दिवन. निजाचे सायब गेले. पुणून गांवठी सायब दोनूय कडेन उरले. तांच्याच हातांत आयज दोनूय राष्ट्रांचो राजकारभार चलता. राजकारभारांत इंग्रजीच चलता. न्यायदानूय इंग्रजींतल्यान चलता. शिक्षण इंग्रजींतल्यान, 'राष्ट्रीय' पत्रकारिताय इंग्रजींतल्यान चलता.

साहित्य कित्याक सवळें उरतलें? तेंय इंग्रजींतल्यान चलपाक लागलां. भारत इंग्रजी पुस्तकांची एक व्हडली बाजारपेठ. देशांत वर्सान वर्स पन्नास साठ हजार पुस्तकां उजवाडा येतात. तांतलीं दोन वांट्यांचीं, म्हळ्यार चाळीस एक हजार पुस्तकां, इंग्रजी आसतात. अर्दी इंग्लंड अमेरिकेंत उजवाडा आयिल्ल्या पुस्तकांचीं देशी संस्करणां आसतात.

अडेजशीं विश्वविद्यालयां, आठ णव हजार कॉलेजां, तीन-साडे तीन हजार 'रिसर्च इन्स्टिट्यूट' देशांत चलतात. 'शिकिल्ले भारतीय' म्हणटात तांची निर्मणी करपी हे कारखाने. ते एक तर शिकून भायर सरिल्ल्यांक अमेरिकेंत, कॅनडांत वा ऑस्ट्रेलियेंत नोकऱ्यो करपाक धाडटात. वा, देशांत आयिल्ल्या भौराष्ट्रीय कंपन्यांनी तांकां नोकऱ्यो दितात. व्हडल्या व्हडल्या पगारांच्यो. हांचे मजगतचे कोणण देशी भाशेंतलीं पुस्तकां वाचिनात. वाचतात फकत इंग्रजी पुस्तकां. म्हूण देशी,बरोवपीय इंग्रजींत बरोवपाक लागल्यात, वा देशी भाशेंतल्या आपल्या पुस्तकाचें इंग्रजी करून छापून घेवपाक लागल्यात. थोडी रॉयल्टी मेळना! विक्रम सेठीक दोन कोटी रुपये मेळिल्ले. अरुंधती रॉय लेगीत अजापान बोटां तोंडांत घालूंक लावपी रॉयल्टी

घेता. डझनभर नवे इंग्रजी बरोवपी हालींसराक मुखार आयल्यात. तांकां ऍवॉर्डूय मेळटात. केन्ना तीस लाख रुपयांचे तर केन्ना पन्नास लाख रुपयांचे. नवे बरोवपी 'कोणाक जाय तुमच्यो त्यो साहित्य अकादेमीच्यो, ज्ञानपीठाच्यो, बिर्ला फाउंडेशनाच्यो तसरिपो?' अशें म्हणपाक लागल्यात.

हांच्या इंग्रजी बरपांत जीं देशी उतरां येतात तीं इंग्लंड अमेरिकेंतल्या वाचप्यांक समजनात. तांचे खातीर ऑक्स्फर्ड इंग्रजी कोशान हीं उतरां घेतल्यांत. ह्या कोशान हाचे पयलीं अमेरिकेंतल्या निग्रो लेखकांच्या पुस्तकांत आयिल्लीं तांगेलींय उतरां घेतिल्लीं. इंग्रज हीं उतरां आपणाल्या बरपांत वापरतले अशें मानप समा न्हय.

इतले अरवळ आमी जावचे न्हय.

भासो भायलीं उतरां घेवन वाडनात. त्यो आपणाले भुयेंत खोल पाळां मुळां सोडटात तेन्नाच वाडूंक पावतात.





## ३६.

शिक्षकां मुखार केदे व्हड आदर्श दवरिल्ले आमच्या म्हालगड्यांनी!

वेदीक काळांतली एक कथा वाचिल्ली–

त्या काळांत शाळा कॉलेजां नाशिल्लीं. भुरगे कोणूय नांवाजतो गुरू सोदून काडटाले आनी ताचे सरीं रावन शिकताले. गुरू तांकां व्याकरण, निरुक्त सगळें शिकयतालो. तांच्या संस्कारांचेर चड लक्ष दितालो, आनी तांचें शिक्षण पुरें जालां, ते संस्कारी जाल्यात, अशें ताका दिसतालें तेन्ना तांकां 'तुमचें शिक्षण आतां पुरें जालां... आतां तुमच्यांनी घर संवसार घेवन बसूं येता' अशें सांगून घरा धाडटालो.

हाका 'समावर्तन' म्हूण नांव आशिल्लें.

एका गुरूगेर एक भुरगो शिकूंक गेलो. तो गेला त्या वर्सा आनिकूय कांय भुरगे थंय शिकूंक आयिल्ले. उपरांतच्या कांय वर्सांनीय आनीक कांय आयले. गुरून ताचे वांगडा आनी ताचे उपरांत आयिल्ल्यांकूय समावर्तन दिवन घरा धाडून दिले. हाका धाडलो ना. हाका वायट दिसलें. ताणें गुरूक विचारलें, 'म्हजेर हो अन्याय कित्याक केलो तुमी?'

'तुजेर अन्याय करूंक ना... तुजें शिक्षण अजून पुरें जावंक ना म्हूण तुका समावर्तन दिवंक ना', गुरून जाप दिली.

'तशें जाल्यार हांव तुमची आज्ञा घेनासतना वतां घरा', शिष्यान म्हळें.

'वच... तुका कोणें आडायला?'

भुरगो गुरू-घर सोडून घरा गेलो.

ते मुस्तींतले आवय-बापूय आपणाले धुवे खातीर थळ सोदताले तेन्ना भुरग्याच्या कुळा-शिळा भायर तो खंयच्या गुरू सरीं रावन शिकला हेंवूय पळेताले. उपरांतूच ताका सोयरीक घेवन वताले. हाका कोणाचीच सोयरीक आयली ना. तेन्ना हो दुसऱ्या गांवांत गेलो. थंयूय हाका गुरून समावर्तन दिवंक ना म्हणपाचें वर्तमान पाविल्लें. थंयूय ताका कोण सोयरीक घेवन आयलो ना. हो उठून आशिल्लो तसो गुरू सरीं आयलो. 'म्हाका कोणूच चली दिनात', ताणें गुरूक सांगलें.

'पुता, तुमचे आवय-बापूय तुमकां आमगेर धाडटात ते फकत व्याकरण,

निरुक्त शिकपा खातीर न्हय, वेद शिकपा खातिरूय न्हय... तुमी बऱ्यांतले बरे 'गृहस्थ' जावंक पावचे, बरे नागरीक जावचे, म्हूण धाडटात... कळ्ळें? आमचेर पातयेवन चलयांचे आवय-बापूय अर्थ-अपुर्बायेन वाडयल्ली आपणाली धूव, मागीर, तुमकां दितात. जाका गुरून समावर्तन दिवंक ना, जाचें शिक्षण सारकें जावंक ना तो धुवेक बरे भाशेन वागयतलो हाचें खरेपण कोणाक दिसना. म्हूण समावर्तन घेनासतना गेल्ल्याक कोण चली दिनात...'

शिष्याचे दोळे उकते जाले. 'चुकलों हांव', ताणें म्हळें आनी, आनीक कांय वर्सां तो गुरूगेर रावलो.

ते मुस्तींतले सगळे गुरू आपणाली ही पत राखपा खातीर खूब जतनाय घेताले. इतलेंच न्हय, तर तांच्यांतलो कोणूय आपणाले हे लागणुकेक चुकतालो तेन्ना ते ताका स्रापूय दिताले.

एक खेपे, एका गुरून आपणाल्या एका शिष्याक ताची सारकी परिक्षा घेनासतनाच समावर्तन दिलें. तो घरा गेलो तेन्ना ताका सोयरिको येवपाक लागल्यो. आवय-बापायन एक सोयरीक मान्य केली आनी हाचें लग्न केलें. कांय दिसांनी हो बायलेक छळपाक लागलो. चलयेच्या आवय-बापायक खूब वायट दिसलें. इतल्या नांवाजत्या गुरूगेर रावनूय हो असो अन्नाडीच कसो उरला हाचें तांकां अजाप जालें. खबर चोंय दिकांनी पातळ्ळी. तेन्ना भोंवतणच्या वाटारांतले कांय गुरू यात्रेचें निमित्त करून त्या गुरूगेर गेले. 'तुजे सरीं रावन हो भुरगो असो अन्नाडी कसो उरलो?' तांणी विचारलें. गुरून म्हळें, 'म्हजें चुकलें. हांवें ताची सारकी परिक्षा घेतली ना. घाळ उरलों... हे मुखार अशें केन्ना घडचें ना...'

सगळ्यांनी एका ताळ्यान ताका म्हळें, 'तुजे हे जापेन तूं सत्यवादी म्हणपाचें दिसून आयलें. तुका पच्छाताप जाला हेंवूय पळोवंक मेळ्ळें. पुणून तुका लागून गुरुकुळांची जी पत होगडावल्या तिका प्रायश्चित ना... तुका आमी स्राप दितात, तूं आतां चांडाळ जातलो...'

आनी तो चांडाळ जालो. गुरू ब्रह्मनिष्ठ आसून लेगीत, सत्यवादी आसून लेगीत, लागणुकेक चुकिल्लो म्हूण ताका चांडाळ जावचो पडिल्लो.

आयज गुरुकुळां नात. गुरुकुळांची सुवात आयज शाळा कॉलेजांनी घेतल्या. पुणून गुरुकुळांची जी पत आशिल्ली ती आयच्या शाळा कॉलेजांनी सांबाळ्ळ्या व्हय? आमचे शाळेंतल्यान शिकून गेल्लो भुरगो फटींग, भ्रष्ट, अनाचारी जावचो ना हाची एक तरी शाळा कॉलेज जतनाय घेता व्हय?





## ३७.

एक राकेस खंय एके बोत्लींत बंद आशिल्लो. तो बोत्लींत आशिल्लो ते मेरेन ताचे पसून कोणाक भंय नाशिल्लो. एक दीस कोणें एकल्यान बोत्लीची गुड्डी काडली. बोत्लींतलो राकेस भायर येवन गरगर करून मळबाक तेंकलो आनी सगळ्यांक खावपाक लागलो.

सगळ्यांचेर आकांत आयलो.

उपरांत ताका आशिल्लो तसो बोत्लींत कोणें कसो घालो, याद जायना. *अरेबियन नायट्स* पुस्तकांत सोदून काडची पडटली ही काणी.

आमकां मेळटालें तें शिक्षण भुरग्यांक दोतोर, आदोगाद, प्रोसोर, येंप्रेगाद करपीच आसतालें. हें शिक्षण घेतिल्लो कोणूच नाल्ल पाडपाक माडार चडऽ नाशिल्लो. सुपारी पाडी नाशिल्लो. आंबे काडी नाशिल्लो. भिण्णां देंवय नाशिल्लो. शेतांत देंवी नाशिल्लो. कसलोच उत्पादक स्रम करी नाशिल्लो. उत्पादक स्रम करपाक ताका लज दिसताली. समाजाच्या आंगार बेनल्ल जावन रावपांतूच तो व्हडपण मानतालो.

पुर्तुगेज राजवटींतूच हे तरेचें शिक्षण मेळटालें अशें न्हय. इंग्रजांचे राजवटींतल्या शिक्षणाचेंय हेंच रूप आशिल्लें. थंय इंजीनियरींग म्हूण आनीक कितें शिकूंक मेळटालें, जें गोंयांत मेळ नाशिल्लें.

तरी नशीब! हे तरेचें शिक्षण समाजांत शंबरांतले धा बारा जाणूच घेताले. बाकीचे सगळे उत्पादक स्रम करताले. म्हूण समाज चलतालो.

धा बारा जाण निरुपेगी लोक समाजाक त्या काळार पुटवताले आसूं येतात.

स्वराज्य आयलें आनी हेंच शिक्षण सगळेच लोक सगळे कडेन घेवपाक लागले. आनी 'कित्याक उपकारनात' असल्या लोकांचो आंकडो समाजांत वाडत

वचपाक लागलो. 'एॅम्प्लॉयमॅन्ट एॅक्सचेंजी'त 'बेकार' लोकांची वळेरी मारुतीचे शेंपडे भाशेन वाडत वचपाक लागली. शिकप म्हळ्यार काम नासून बेकार पडप असोच आयज शिक्षणाचो अर्थ जावन पडला. देश वयर कसो सरतलो?

शंबरांतले शंबरूय लोक शिक्षीत जावंक जाय, आनी शिक्षीत शंबरूय खंयच्या न्हय खंयच्या उत्पादक वावरांत पडिल्ले आसूंक जाय. शिक्षीत उत्पादकूय आसूंक जाय आनी उत्पादक शिक्षितूय आसूंक जाय. एके वटेन दोळे आशिल्ले पुणून हातां-पांयांनी पांगळे जाल्ले, आनी दुसरे वटेन घटमूट हात-पांय आशिल्ले पुणून दोळे नासून आंधळे जाल्ले, अशे दोन संवसार निर्माण करपी शिक्षण पद्धत मोडून तिचे सुवातेर जल्मा पसून मरणा मेरेनच्या आयुष्यांत जिविता खातीर, जिविता उदेशीं, जिविताचें शिक्षण दिवपी एक नवी तरा सुरू करूंक जाय म्हूण एकल्यानूच ह्या देशाक ताळो सरांटून सांगलें, इतलेंच न्हय तर, उत्पादना उदेशीं शिक्षण आनी शिक्षणा उदेशीं उत्पादन चलोवपी basic educationचे प्रयोगूय ताणें सुरू केले. पुणून ताणें 'फॅडिस्ट' म्हूण 'शिक्षितां' मजगतीं नामना जोडिल्ली. 'ताका कितें, सगळेंच समजता?... तागेलें हें नवें एक फॅड' अशें म्हणून 'तज्ज्ञां'नी त्या प्रयोगां कडेन व्हडलेंशें लक्ष लेगीत दिलें ना. चार वर्सां वांचून उरिल्लो जाल्यार घडये 'हें फॅड न्हय, हेंच खरें शिक्षण' म्हूण तो दाखोवनूय दीत आशिल्लो. पुणून जावं, सगळेच वावर कोणूच आपणाल्या जिवितांत पुरे करूंक पावना. कांय वावर दुसऱ्यां खातीर ताका दवरचेच पडटात. केन्नाय तरी एक दीस देशाक 'उत्पादनाचो आनी शिक्षणाचो' संबंद जोडून दिवपी basic education गंभीरतायेन घेवचेंच पडटलें. शीड आनी येरें नाशिल्लें आयचें शिक्षण पांगळी, सुवार्थी, समाजद्रोही, देशद्रोही पिळगी सोडून दुसरें कितेंच निर्माण करपाचें ना. ह्या शिक्षणा आड बंडूच करूंक जाय. तें मुळा थावन बदलूंक जाय. ना जाल्यार –

बोत्लींत बंद आशिल्लो राकेस आपूण जावन गुड्डी काडून केन्ना भायर सरून येत, सांगूं येना.





## ३८.

बायणा कांय दीस खूब गाजलें. मागीर आपशीं थंड पडलें. प्रस्न सुटलो व्हय तर? च्यॅ! असले प्रस्न केन्ना सुटनात. खंयच सुटूंक नात.

तें गाजतालें आनी ताच्या संबंदान खबरेपत्रांनी बरें वायट कितें कितें येतालें त्या वेळार म्हजें मन आयच्या काळांत नाशिल्लें. साठेक वर्सां फाटल्यान गेल्लें. हांव पणजेच्या 'इंश्तितूत द इंश्त्रुसांवां'त शिकतालों. लिसेवाच्या सव्या वर्सांत आशिल्लों. विज्ञानाचो आमचो प्रोफेसोर आमकां घेवन लाबोरातोरींत वतालो. एक लॅम्प पेटयतालो. उदकान भरिल्लो एक ट्यूब घेवन तातूंत एक थर्मामिटर घालून तो एका चिमट्यांत धरून आमच्या हातांत दितालो आनी तो लॅम्पा वयर दवरून आमकां सांगतालो, 'इतले डिग्री मेरेन पारो चडलो म्हणटकूच लॅम्प पालोवचो.' हांव पाऱ्याचेर नदर केन्द्रीत करतालों आनी प्रोफेसोरान सांगिल्ले डिग्री मेरेन तो चडलो म्हणटकूच लॅम्प पालोवपा वांट्याचो ट्युबूच कडेक काडटालों. एक दीस प्रोफेसोर ल्हवू म्हजे फाटल्यान येवन उबो रावलो. हांवें ट्यूब कडेक काडिना फुडें ताणें म्हळें 'हांवें तुका लॅम्प पालय म्हळ्ळो. ट्यूब कडेक काड म्हूण सांगूंक नाशिल्लें.'

हांवें म्हळें, 'हांव नर्व्हस जालों', आनी हांसून विचारलें, 'हांवूच एकलो अशें करतां?'

'च्यॅ! धा वर्सां जालीं, हांव हें भुरग्यांक सांगतां. कोणूच लॅम्प पालयनात, ट्युबूच कडेक काडटात. सगळे ही चूक करतात!'

बायणा ऑपरेशन चल्लां त्या वेळार ताच्या अर्दान वा आड आशिल्ल्या एकल्याचे तरी तकलेंत 'ही वसती हांगा जालीच पयलीं कशी?' हो प्रस्न आयला व्हय? कितली सुंदर वेळ आशिल्ली ही! तिची गत उपरांत जाली तशी जालीच कशी? ह्या प्रस्नाची जाप सोदपाक वचूंक जाय लागसारच्याच जुवारी नगरांत, आनी विचारूंक जाय आमचे आमकांच, 'ह्या साऱ्या कारखान्याची हांगा कसली

गरज आशिल्ली?' हो कारखानो हांगा आयला त्याच दिसा सावन गोंयचीं पावलां वांकडीं पडपाक लागल्यांत. गोंय मुंबय जावपाचे दिकेन पावलां उखलपाक लागलां. धांवपाक लागलां. ह्या कारखान्या फाटोफाट हाचे कितलेशे भाव, बापोलभाव, तिपोलभाव, मामेभाव, आतेभाव, मावशेभाव, एका सारके येत रावल्यात. मुंबयच जंय मुंबय उरूंक ना, वॉशिंगटन, न्यू यॉर्क, ओसाका, कोबेचे दिकेन धांवपाक लागल्या, थंय गोंय गोंय कशें उरतलें? गोंयची मुंबयच जातली. मागीर, धारावी आयले बगर रावता? तीय येतली. फोरस रोडूय येतलो. काबारॅ घेवन कुलाबाय येतलो. 'सुपारी' घेवप दिवप सुरू जातलें. खून, मारामाऱ्यो, चोरयो, दरवडेय येतले. मुंबयंत जें आसा तें सगळें हांगा येतलें. दाऊद इब्राहमूय पावतलो एक दीस. कितेंच चुकोवंक येवपाचें ना.

मुंबय मुंबय कशी जाली? पुर्तुगेजां कडल्यान इंग्रजां कडेन आयल्या त्या वेळार ती 'वसाड आनी रानवटी' गांवा सारकी आशिल्ली. इंग्रजांनी तिका ल्हवू ल्हवू मुंबय केल्या. आतां तर ती मुंबयूय उरूंक ना. तिचें कितें जालां, तिकाच सारकें खबर ना. अशेंच गोंयचें जावपाचें आसा. पंचवीस पन्नास वर्सां उपरांत गोंय गोंय उरतलें हाचें इल्लेंय खरेपण ना.

जोर ही पिडा न्हय. पिडेचें तें एक लक्षण, एक symptom. खंय तरी कसलें तरी एक इन्फॅक्शन जालां कुडीक, तेन्ना कूड 'म्हाका इन्फॅक्शन जालां, इन्फॅक्शन जालां' म्हूण जोराचे भाशेंत सांगता. ही भास जाका समजता तो दोतोर. तो त्या इन्फॅक्शनाकूच वखद दिता आनी कूड बरी करता. तसो बायणा हो गोंयची मुंबय करपाचे पिडेचो जोर. बुलडोझर घालून बायणाची वसती मातयेभरवण केली म्हूण गोंयाक जी पिडा जाल्या ती ना जावपाची ना. ती ना करपाक मुंबयकरणाचें जें विकासकार्य गोंयांत चल्लां ताचीच दिका बदलूंक जाय. ती बदल्ली ना, जाल्यार —

बायणा सारक्यो वसती निर्माण करपी 'इन्डस्ट्रियल इस्टेटी'च बुलडोझर घालून मातये भरवण करपाचो प्रसंग गोंयचें हीत राखूंक भायर सरिल्ल्यांचेर एक दीस केन्नाय येतलो म्हळ्यार येतलोच येतलो.

येन्नादर जागे जावंया. अजून कळाव जावंक ना.

दोन अडेज हजार वर्सां उपरांत गोंयकारांक गोंय चलोवपाची संद मेळ्ळ्या. ती गोंय बुडोवपा खातीर व्हय?





## ३९.

उपनिषद म्हणटा, दोन वाटो मनशा मुखार येवन उब्यो रावतात. एक प्रेयाची, दुसरी श्रेयाची. बरें लागता तें प्रेय. बऱ्याक पडटा तें श्रेय. बरें लागता तें बऱ्याक पडटलेंच अशें म्हणूं नज. म्हूण, उपनिषद म्हणटा, बऱ्याक पडटा तीच वाट शाणो मनीस घेता.

'विकासू'य श्रेयाची मोख मुखार दवरुनूच जावंक जाय. हालींसराचे अर्थतज्ज्ञ 'विकास' म्हणिना फुडें जी.एन्.पी. चे नदरेनूच चिंतूंक लागतात. देशांत मालाचें उत्पादन वाडूंक जाय, हो माल बाजारांत येवंक जाय, लोकांनी तो घेवंक जाय, तो देशा भायर वचूंक जाय. म्हणटकूच लोक सुखी जातले, अशें तांचें म्हणणें. हाका जी.एन्.पी. – 'ग्रॉस नॅशनल प्रॉडक्ट' – हें नांव तांणी दिलां.

पुणून लोकांनी माल विकतो घेवपाक लोकांच्या बोल्सांत पयसो आसूंक जाय. पयसो बोल्सांत येत इतली जोड मनशाक जावंक जाय. जोड जावपाक लोकांक कामां मेळूंक जाय, तीं खंय मेळटात? ते भायर, हालींसराक मालाचें उत्पादन तर मशिनां बेस बरीं करपाक लागल्यांत. आनी मशिनां शंबरांतल्या एका दोगांक कामां दितात, त्याच वेळार उरिल्ल्यांच्या हातांतलीं कामां काडुनूय घेतात. 'युनो'चे नदरेंत हें आयलें तेन्ना हे संस्थेन विकासाची देख जी.एन्.पी. बदला जी.एन्.एच्.– 'ग्रॉस नॅशनल हॅपिनेस' – आसूंक जाय अशें थारायलें. लोकांक कामां मेळ्ळ्यांत काय मेळूंक नात, लोकांच्यो मुळाव्यो गरजो भागल्यात काय भागूंक नात, लोकांचे सर्जन-शक्तीक वाव मेळटा काय मेळना हो विचार करून विकास सादूंक जाय अशें म्हळें. शिक्षण, आरोग्य, आवास हांचोय विचार करूंक जाय अशें सांगलें.

भूतान देशान ही देख मुखार दवरून आपलो विकास आंखलो. हिमालयांतलें एक माणकुलें राज्य हें, पाचवेंचार. सुंदरांतलें सुंदर. जिग्मे सिंग्मे यांगचुके हो राजा ह्या राज्याचो. ताणें एका लेगीत रुखाक कुराड लायनासतना रानांतल्यान वाटो

काडल्यो. पयस पयस शिंपडिल्ल्या गांवांनी लेगीत शाळा उकत्यो केल्यो. दवाखाने घाले. डॉक्टर नेमले. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, सुंदर राज्य जाल्ल्यान पर्यटक एका सारके येताले. थंय वर्साक सात हजारां वयर पर्यटकांक येवंक दिवप ना असो कायदो केलो. लोकांची खेट राज्यांत जावंक जायना, तांच्या सुखा खातीर व्हडलीं व्हडलीं हॉटेलां येवंक दिवप ना अशें केलें. गांवांचीं शारां जावचीं नात हाची जतनाय घेतली. गांवगिरे उद्देग चलताले. तेच तंत्रज्ञानाच्या आधारान अदीक उत्पन्न करपी केले. फॅक्टऱ्यो देशांत येवंक दिल्यो नात.

सुरवेक लोक ताका हांसले. 'पिसो' म्हूण ताका 'शाण्यां'नी नांवां दवरलीं. दोन अडेज दसकांच्या ताच्या प्रयोगा उपरांत पयर फेब्रुवारींत (२००४) वीस देशांतले सुमार ब्यांयशीं तज्ज्ञ भूतान पळोवपाक आयले, आनी 'ग्रॉस नॅशनल हॅपिनेसी'चे देखीन विकास कसो जाता ताची बारकायेन नियाळणी केली. निमाणें, 'भूतान ल्हान आवाठाचें राज्य आसूं, हो प्रयोग भारत अमेरिका सारक्या व्हड देशांनी लेगीत चलोवं येता, चलोवंक जाय', हे तरेच्या निर्णयार ते आयले.

भूतानान केला तसो विकास गोंयाक जमचो नाशिल्लो? बरें लागता तें न्हय, बऱ्याक पडटा तेंच घेवंक जाय शाण्या मनशान हें गोंयाक समजलें ना. सत्तेर आयिल्ल्यांनी 'गोंयचो विकास म्हळ्यार गोंयची मुंबय करप' अशेंच मानलें!

आमच्या सगळ्या फुडाऱ्यांक एक फावट भूतान दाखोवन हाडूंक जाय कोणेंय तरी.





**४०.**

गीतेंत एक श्लोक आयला –

*यत् यत् आचरति श्रेष्ठः तत् तत् एव इतरः जनः*

समाजांतल्या वयल्या पांवड्या वयले लोक कशे रावतात, कितें करतात तें पळोवन समाजांतले हेर सगळे तांचेच वरी रावपाक करपाक लागतात – Masses follow the classes.

चाणक्य चंद्रगुप्त मौर्याचो प्रधानमंत्री आशिल्लो. मौर्य साम्राज्याच्या एकान एक आंगाचेर ताची बारीक नदर आसताली. मौर्य साम्राज्य तोच खरेपणानशीं चलयतालो. पुणून रावतालो एके सादे खोंपींत. पयलीं रावतालो तेच भाशेन. कोणें एकल्यान ताका म्हळें, तूं येद्या व्हडल्या साम्राज्याचो प्रधानमंत्री, तुवें असले खोंपींत रावप सोबता? चाणक्यान ताका जाप दिली, मंत्री, प्रधानमंत्री राजम्हालांनी रावपाक लागले जाल्यार राज्यांतले नोकरूय हेच तरेन रावपाक लागतले आनी सरसमान लोकांच्या नशिबांत फकत खोंपीच येतल्यो. जो वयर आसता ताणेंच लोकांक देख घालून दिवंक जाय.

जयप्रकाशांनी एका काळार *Why Socialism* नांवाचें एक पुस्तक बरयल्लें. हिन्दुस्तान स्वतंत्र जातलें, स्वतंत्र हिन्दुस्तान समाजवादी जातलें, समाजवादी हिन्दुस्तानांत गरीब गिरेस्तां मजगतचें अंतर ना जातलें, सगळ्यांक कामां मेळटलीं, कोण कोणाचे फाटीर चडून बसचो ना, कोण कोणाच्या पांयां पोंदा चिड्डल्लो दिश्टी पडचो ना... असलीं कितलींशीं सपनां आमी हें पुस्तक वाचून रंगोवपाक लागिल्ले. आनी हें सगळें जवाहरलाल सत्येर येतले तेन्ना घडून येतलें हे तरेची एक आस्त तांणी आमच्या काळजांत जागयल्ली. जवाहरलाल जयप्रकाशांचे पिळगेचे 'बेताज बादशाह' जाल्ले.

देश स्वतंत्र जालो, जवाहरलालांच्याच हातांत सत्या गेली. पुणून, प्रधानमंत्री जायना फुडें ते जेन्ना 'तीनमूर्ती भवनां'त रावपाक गेले तेन्ना सगळ्यांत चड जयंप्रकाशाक फटवल्ले वरी दिसलें. नेहरू मेमोरियल म्यूझियमंच्या डॉ. हरिदेव शर्मांक दिल्ले एके मुलाखतींत ते म्हणटात, 'म्हजे आनी तांचे संबंद भावा भावा मजगतच्या संबंदां परसूय दाट आशिल्ले. हेर सगळे जेन्ना तांकां 'पंडितजी',

'जवाहरलालजी' म्हूण पाचारताले तेन्ना हांव तांकां 'भाई' म्हूण उलो मारतालों... तीनमूर्ती भवनांत तांकां रावपाक गेल्ले पळोवन हांव खंती जालों आनी रोखडोच तांकां मेळपाक गेलों. हांवें तांकां म्हळें, 'भाई, गरीब देशाच्या प्रधानमंत्र्यान येदच्या व्हड राजम्हालांत रावपाची गरज आशिल्ली?' ह्या उतराक 'देशाची शान वाडोवंक जाय' अशी तांणी म्हाका जाप दिली. हांवें तांकां एक उगडास करून दिलो. म्हळें, रशियेक भेट दिवन आयले उपरांत तुमी तुमचे भोंवडेच्या अणभवांचें एक पुस्तक बरयल्लें. उगडास आसा? तातूंत रशिये सारक्या एका व्हड देसाचो व्हड फुडारी लेनिन आपणाले घरकान्नी आनी भयणी वांगडा क्रॅमलिनच्या राजम्हालांत दोन कुडींच्या एका ल्हानश्या फ्लॅटांत रावता अशें म्हळ्ळें. हाचेर ते हांसले आनी म्हणपाक लागले, 'कालूच म्हाका मेळपाक रशियेचो राजदूत एके चकचकीत मोटारींत बसून आयिल्लो. ताचे फाटल्यान एक आनी फुडल्यान एक असल्योच दोन मोटारी आशिल्ल्यो...' हांवें म्हळें, 'भाई, तो आयचे रशियेचो राजदूत. आयची रशिया लेनिनचे मुस्तींतली उरूंक ना... संवसारांतली एक व्हड सत्या — सुपरपावर — जाल्या. आयचें हिन्दुस्तान लेनिनचे मुस्तींतले रशियेच्या पांवड्यारूच आसा... असल्या देशाच्या नेत्याक असल्या वैभवांत रावप सोबना...' तेन्ना जवाहरलालजीन हांसून म्हळें, 'बापूंक गरिबायेंत दवरपाक बिर्लाक लाखांनी रुपये खर्च करचे पडटात, अशें सरोजिनी नायडू म्हणटा...' म्हाका हें आयकून खूब वायट दिसलें. उपरांत कितें उलयतलों? उठून आयलों...'

जयप्रकाश मुखार म्हणटात, 'आरंभाच्या काळांतूच आमच्या ह्या फुडाऱ्यान जें वांकडें पावल घालें ताचे परिणाम आयज आमी पळेतात... आमचे गिड्डे फुडारी लेगीत वैभवांत लोळून 'देशाची शान' वाडोवपाक लागल्यात. देशांत खोंपींनी रावतल्या गरीब लोकांचीं हाचेकूय व्हड फकाणां दुसरीं आसचीं नात...'

गांधी एके खोंपींत रावताले तेन्ना देशाची शान उणी जाल्ली व्हय? जवाहरलाल साद्या बंगल्यांत राविल्ले जाल्यार ती उणी जातली आशिल्ली व्हय? एका जवाहरलालांक न्हय, तांगेल्या पुराय मंत्रीमंडळांतल्या वांगड्यांक तीनमूर्ती भवनांत रावपाक सुवात आशिल्ली... एक व्हडली युनिव्हर्सिटी त्या भवनांत चलोवं येताली. एक व्हडलें हॉस्पिटल चलोवं येतालें.

खासा जवाहरलालूच देशांतल्या भ्रष्टाचाराची गंगोत्री जाल्ले. आतां तर भ्रष्टाचार गंगे येदो विशाळ जावन पडला. ताची आलतडूय दिश्टी पडना, पलतडूय पडना.





## ४१.

आपणाले दीस सोंपल्यात म्हणपाचें इंग्रजांक कळ्ळें तेन्ना आपणाले गादयेर काँग्रेसीक बसोवन ते गेले. आमकां स्वराज्य मेळिल्ले वरी दिसलें. हिन्दुस्तानाक आपणें स्वराज्य दिलां अशें इंग्रजांनी म्हळ्ळें कोणें केन्ना वाचूंक ना, आयकूंक ना. आमी जाका स्वराज्य मानलें तें तांचे नदरेन निखटें 'सत्तांतर' आशिल्लें. Transfer of power आशिल्ली ती. आमकां फकत गादयो मेळिल्ल्यो. सरकार आदल्या आय.सी.एस्. लोकांच्याच हातांत उरिल्लें. सरकारी भासूय आदली – इंग्रजीच – उरिल्ली. फकत बावटो बदलिल्लो. राष्ट्रगीत बदलिल्लें, नोटींचेर आनी नाण्यांचेर इंग्लंडच्या राजां राणयां बदला गांधी नेहरूचीं वा अशोकचक्राचीं बावलीं आयिल्लीं.

तॉलस्तॉयचें एक पुस्तक आसा *Slavery of Our Time* – 'आमच्या काळांतलें बंदेपण' – नांवाचें. ह्या पुस्तकांत तो म्हणटा, मनीस संवसार सोडून वता तेन्ना कारभार पुता सुवादीन करून वता. तशें, एक बंदेपण वता तेन्ना तें दुसऱ्या बंदेपणाक आपणा सुवातेर बसोवन वता. तशी, एक राजवट वता आनी दुसरी येता तेन्ना फकत राज्यकर्त्यांचीं खुमणीं बदलतात. राजवट तीच चलत रावता. नेहरू उपरांत इंदिरा गांधी, तिचे उपरांत राजीव गांधी, राजीव गांधीं आदीं आनी उपरांत आनीक कोण कोण आयले आनी गेले. राजवट इंग्रजांच्या काळांत चलताली तीच चलत रावली. अटलजी आयले तेन्ना कितेंय तरी बदल जातलो अशें दिशिल्लें. कित्याक, एके वेगळे राजकी परंपरेंत, वेगळ्या राजकी संस्कारांत तांची वाड जाल्ली. पळेल्ले अंतीं तेवूय आदल्या सगळ्यां सारकेच, एकेच माळेचे मणी, म्हणपाचें तांणी दाखोवन दिलें.

ना म्हळ्यार, इंग्रज गेल्यात तेन्ना एक म्हत्वाची गजाल घडिल्ली. देशांत

लोकशाय आयिल्ली. चलत आयलां तें चलत दवरपा खातीर न्हय. चलत आयलां तातूंत बदल घडोवन हाडपा खातीर. लोकशायेन आमकां मताचो अधिकार दिल्लो. म्हळ्यार, सत्तेचो एक अंश आमच्या (सरसमान लोकांच्या) हातांत आयिल्लो. आमी ह्या अधिकाराचो उपेग फकत आमचे प्रतिनिधी वेंचून काडपा खातीर केलो. तुर्ताक देशांत चलता ती लोकांच्या प्रतिनिधीं उदेशीं चलपी 'डेलिगेटेड' लोकशाय. ती 'खरी' जावपाक – 'डायरेक्ट ऍण्ड पार्टिसिपेटरी' जावपाक – नीट लोक चलयतात असली जावपाक जाय. ती 'डायरेक्ट आनी पार्टिसिपेटरी' केन्ना जावंक पावतली? सरकाराची सत्या इल्ली इल्ली उणी जायत वतली आनी लोकांची इल्ली इल्ली करून वाडत वतली तेन्ना. सरकाराच्या हातांत आशिल्लीं कामां लोक चडांत चड आपणा हातांत घेतले तेन्ना. कर्तुत्व सगळें दिल्लींत केंद्रीत जावचे बदला गांवा गांवांनी वांटून वतलें तेन्ना.

ईश्वराची देख घेवन हें काम करूंक जाय.ईश्वरान सगळी अक्कल आपणा हातांत वैकुंठांत वा स्वर्गांत दवरूंक ना. किडी मुयां पसून हती गेंड्या मेरेन सगळ्यांक ती वांटून दिल्या. म्हूण संवसार 'चलता'. इतलो बरो चलता की ईश्वर आसा काय ना हो प्रस्नूय लोकांक पडटा. तो ना म्हणपीय लोक संवसारांत आसात. तशी, दिल्लींत बंदिस्त उरिल्ली सत्या लोकांनी आपणा हातांत घेवन ती गांवा गांवांनी पावोवंक जाय आनी गांवांतल्या सगळ्या कारभाराचें नियंत्रण आनी नियोजन गांवांतल्याच लोकांनी करून देश इतलो बेस बरो चलोवन दाखोवंक जाय की सरकार आसा काय ना असो दुबाव लोकांक येवंक जाय. तेन्नाच खरेल्या अर्थान स्वराज्य येतलें.





## ४२.

आर्य मुदलांतले हांगासल्लेच काय भायल्यान हांगा आयिल्ले, ह्यो 'झांकड्यो' बल्कांवार बसून करपाक बऱ्यो. वेळ बरो पासार जाता. पुणून देश घडोवपाक जो मुखार सरला तो म्हणटलो, 'म्हाका हाचें कांयच पडून वचूंक ना. देशांत आर्य कुळयेंतले लोक आसात तशे अनार्य कुळयेंतलेय आसात. द्रवीड आसात तशे शक, हूण, पठाण, मोगल कुळयांतलेय लोक आसात. ह्या सगळ्या कुळयांच्या लोकांनी कितें न्हय कितें ह्या देशाक दिलां. दिल्लें कोण परतें व्हरपाचो ना, आनी दितलेय कोण परते वचपाचे नात. पुणून, ते एकठांय रावतले काय एकामेकां पसून पयस रावतले? कोणेंच आपली अस्मिताय होगडायल्ली म्हाका नाका. सगळ्यो अस्मितायो उरच्यो. तरी आसतना देश एकठांयूच उरचो. हे खातीर कितें करूंक जाय तें सांगात.'

कितें सांगतले आमी ताका?

एकेच तरेचे रूख रानांत लायले जाल्यार रूख वाडटले. पुणून रानाची वाड जशी जावंक जाय तशी जावची ना अशें पर्यावरणवादी म्हणटात. तशेंं, एकेच कुळयेचे, एकेच धर्म परंपरेचे, एकेच तरेच्या चाली-रितींचे, एकेच भाशेचे लोक एका देशांत रावले जाल्यार संस्कृतायेचे नदरेन देश एक-आंगीच उरतलो. गिरेस्त केन्नाच जावंक पावपाचो ना अशें म्हणपीय लोक आसात. हजार कुळयांचे, हजार अस्मितायांचे, हजार तरांच्या चाली-रितींचे, हजार भासो उलोवपी लोक येवन रावल्यात म्हुण्णूच धर्तरि वेलो हो देश आगळो वेगळो जावंक पावला. संस्कृतायेचे नदरेन गिरेस्तांतलो गिरेस्त देश जाला. ही गिरेस्तकाय सांबाळून आमची

वाड आमकां घडोवन हाडपाची आसा. विविधतायेंत एकचार आनी एकचारांत विविधताय उरतली तेन्नाच भारतवर्ष भारतवर्ष उरतलो.

भारतवर्ष भारतवर्ष उरचो वा भारतवर्षाक भारतवर्ष करचो हे तरेचें 'पिशें' कोणाक लागिल्लें आयज पळोवंक मेळटा व्हय? जाचे खातीर जियेवचें आनी मरचें हे तरेचें एक उदात्त पिशें लोकांक लागले बगर देश वयर सरना. खंयच सरूंक ना. देश आपशीं वयर सरना. ताका वयर 'काडचो' पडटा. खंयचेंय तरी एक उदात्त पिशें लागिल्लें, तें खरें करून दाखोवपाक खासा मुखार सरिल्ले लोक येवचे पडटात. तेन्नाच सरसमान लोक मुखार येतात. स्वातंत्र्य मेळचें म्हूण देश झुजतालो त्या वेळार स्वातंत्र्याचें 'पिशें' लागिल्ले लोक आशिल्ले. आपणालें पिशें ते दुसऱ्यांक लायत भोंवताले, तरातरांचे त्रास काडटाले, केन्ना केन्ना प्राणूय संकश्टांत घालताले. तरूय झुजत रावताले. म्हूण देश स्वतंत्र जावंक पावलो. लाखांनी लोक बंदखणींत गेल्यात, हजारांनी लोक गोळाक हुमकळून मेल्यात, 'स्वातंत्र्य घेतले म्हळ्यार घेतलेच' ह्या तेमान सगळे पेटल्यात तेन्नाच देश स्वतंत्र जालो.

आयज असलें 'पिशें' कोणाकूच लागूंक ना. म्हूण ते मुस्तींत जें 'अखिल भारतीय' आकाराचें नेतृत्व देशाक लाभिल्लें तसलें आयज लाभूंक पावूंक ना. आयज पिशें कोणाकूय लागता तें एकूच – वेंचणुकेंत जिखून आमदार, खासदार, मंत्री जावपाचें. म्हूण नेते दिश्टी पडटात ते जाटांचे, ब्राह्मणांचे, राजपूतांचे, यादवांचे, मराठ्यांचे, असलेच गिड्डे. 'भारतीय' नेतृत्व वयर सरना.

भारतवर्ष भारतवर्ष जावंक जाय. *'यत्र विश्वम् भवति एक नीडम्'* (अख्खो संवसार एका घोंटेरांत येवन रावला) अशें संवसाराक दिसूंक जाय. आनी संवसारान ताची देख घेवंक जाय. होच भारतवर्ष संवसाराक नवी दिका दाखोवंक पावतलो.





## ४३.

दुस्मानाक सोंसूं येत. पुणून शेजाऱ्याक? शेजाऱ्या सारको दुश्ट आनी पाडो कोण आसना. कोणें तरी म्हळां, शेजाऱ्याक सोंसप निरंतर छळ सोंसपा सारकोच कठीण वावर.

पुणून आमी शेजाऱ्यां मजगतींच वाडटात.

ख्रिस्ताचे शिकवणेंतली सगळ्यांत कठीण आनी तितलीच म्हत्वाची 'शेजाऱ्याचो मोग करात' हीच शिकवण आशिल्ली म्हणूंक जाय. दुस्मानाचो मोग करप कठीण न्हय. शेजाऱ्याचेर मोग करपांतूच आमचो खरो कस लागता. तो करूंक येवंक जाय. जाल्यारूच आमी जग जिखूंक पावतले.

एका काळार कांय व्हड घरांनी भाव, बापोलभाव, तिपोलभाव सगळे एकठांय रावताले. घरांत एक जाणटेलो आसतालो. तो सगळ्यांक एकठांय दवरतालो. सगळे ताका मानताले. तो सगळ्यांचीं लग्नां करतालो. घरांत वेगळ्या वेगळ्या घराण्यांतल्यो सुनो हाडटालो. तांकां भुरगीं जातालीं. तिंवूय त्याच घरांत ल्हानाचीं व्हड जातालीं. भाव, बापोलभाव, तिपोलभाव सगळ्यांचे सभाव वेगळे वेगळे आसताले. सुनो तर सामक्यो वेगळ्या संस्कारांत वाडिल्ल्यो आसताल्यो. सगळ्यां मजगतीं धोशी, धुसफूस, किजिलांय चलतालीं. पुणून सगळीं जाणटेल्या कडेन पळोवन कुळ-परंपरा सांबाळटालीं. कुळ-परंपरेक सगळ्यांत चड म्हत्व दितालीं. कांय घरांनी तर रांदन लेगीत एकूच आसताली. सगळे आपापणाले जोडीचो एक वांटो हाडून जाणटेले कडेन दिताले. आनी ती घर चलयताली. सगळीं एकठांय जेवतालीं. घरांत मोगाचेंच साम्राज्य चलतालें. मोगाच्या ह्या साम्राज्यांत घरच्यांच्यो ल्हान-व्हड धोशी व्हांवत्या उदकाचेर मारिल्ल्या बडयेच्या वळीं भाशेन खंयचे खंय पुसून वताल्यो.

आयज असले घराबे पळोवंक मेळनातं: मेळटात त्यो तांच्यो कुरवो, तांचे अवशेष. एकूच घर, पुणून सगळ्यांच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो रांदनी. कित्याक लागून हे घराबे फुटले? कितें जालें? जायतीं कारणां आसात. काळ बदल्लो हें तांतलें एक. पुणून सगळ्यांत व्हडलें कारण म्हळ्यार, सगळ्यांक एकठांय दवरपी म्हालगडो भायर पडलो. मागीर, जण एकलो आपापणालें स्वातंत्र्य जोडूंक भायर सरलो. सगळ्यांत पयलीं सुनो भायर सरल्यो आनी तांणी वेगळ्यो रांदनी मांडूंक घराबो फोडलो.

रेंव एकठांय उरना. शिमिटान ती एकठांय बांदची पडटा. तेन्नाच ती घर बांदूंक उपकारता. पीठ एकठांय उरना. उदकांत तें कालोवचें पडटा. तेन्नाच ताची रोटी करूं येता. रवो एकठांय उरना. तुपांत तो भरसुचो पडटा. तेन्नाच ताचो लाडू करूंक येता. एकाच घराब्यांतल्या वेगळ्या वेगळ्या सभावांच्या वांगड्यांक फकत स्नेहान (मोगान) एकठांय दवरूंक येतात. एकठांय दवरपी ह्या शिमीट, उदक, तूप, मोग तत्त्वाक संस्कृत भाशेंत *'धृति'* म्हणटात. *'धृति'* म्हळ्यार cohesive force. हें तत्त्व ना जाता वा उणें जाता तेन्ना एकठांय आशिल्लें फुट्टा. *सर्वे महत्वम् इच्छन्ति कुलम् तद् अवसीदति.* घराब्यांतलो जण एकलो आपापणालेंच पळोवपाक लागलो जाल्यार घराबो फुटुंकूच जाय. घराब्यांतल्या सगळ्यां विशीं मनांत आपलेपण आसले बगर, सगळ्यांचेर मोग आसले बगर, सगळ्यांच्या बऱ्या भल्यांत आपणालें बरें भलें आसपावता अशें मनस्पुर्वेक मानले बगर, आनी दुसऱ्या खातीर आपणालें सूख सोडचें पडटा तेन्ना तें सोडून जाता त्या संतोसा बगर घरांत धृतिचें तत्व चलोवंक येना. तेंच ना जालें जाल्यार घराबो फुटून सगळ्यांच्या नशिबांत वेगळ्या वेगळ्या घोंटेरांनीच रावपाचें आयले बगर रावना.

कितल्या वंशांचे, कितल्या धर्म-परंपरांचे, कितल्या चाली-रितींचे, कितल्या जातींचे, कितल्यो भासो उलोवपी लोक ह्या देशांत येवन रावल्यात, कोंत आनी हिशेब ना. इतल्या जिनसांवार वेगळेपणांत भरिल्लो देश एकठांय दवरतले जाल्यार धृतिचेंच एक तत्त्व केळोवं येता — कोणाच्याच वेगळेपणाक बादा येवची ना हाची जतनाय घेवन, सगळ्यांक बाबा-पुता करून एकठांय बांदून दवरपी देशभक्तीचें. 'मुसलमानांक तुमी चडूच माथ्यार घेतल्यात, तांकां बुद्द शिकोवंक जाय' अशें म्हणपी मनीस केदोय शक्तिशाली फुडारी आसूं, तो देशभक्त न्हय. फकत जाटांचे, यादवांचे, मराठ्यांचे, ब्राह्मणांचे, दलितांचे फुडारी आपापल्या वाटारांनी केदेय प्रभावशाली आसूं, ते देशभक्त जायनात. देशभक्त फुडारी सगळ्यांक आपलोसो दिसूंक जाय, सगळे ताका आपलेशे दिसूंक जाय. एका काळार असले

देशभक्त फुडारी आशिल्ले. तांकां प्रांत नाशिल्लो, धर्म नाशिल्लो, जात नाशिल्ली. म्हूण ते देश स्वतंत्र करूंक पाविल्ले. सगळे तांकां आपलेशे दिसताले, सगळे तांकां आपले मानताले. असल्या देशभक्त फुडाऱ्यांची जातूच आयज इतिहासजमा जावन गेल्या. कित्याक लागून ती ना जावन गेली हाचो सोद घेवंक जाय. आनी ही जात परती निर्माण करूंक जाय. जाल्यारूच देश एकठांय उरतलो. ना जाल्यार तो कुडक्या कुडक्यांनी फुटून वतलो. *सर्वे यत्र विनेतारः राष्ट्रम् तद् नाशम् आप्नुयात्.*





## ४४.

रानांत एकेच जातीचीं झाडां आसलीं म्हूण उपकारना. तरातरांचीं आसूंक जाय. झाडांच न्हय, तरातरांच्यो वाली, तरातरांचीं झोंपांय आसूंक जाय. जाल्यारूच तें रान घसघशीत बरें वाडटलें. फुलतलें, फळटलें. असल्याच रानांत तरातरांचीं सुकणीं-सावदां, किडी-मुयो, मूस-पिसोळीं, सोरोप-जिवाणीं येवन रावतात. आनी एकामेकांच्या आधारानूच सगळीं जियेतात.

भारत भारत जावंक पावलो तो, ह्या देसांत वेगळ्या वेगळ्या वंशांचे, जातींचे, धर्मांचे, चाली-रितींचे लोक येवन रावले, म्हूण. इंग्रज येवचे पयलीं आमी सगळे एकठांय रावताले, एकामेकांक 'सांबाळून' रावताले. हजार तरांच्यो जमाती आमचें वैगुण्य नाशिल्लें. वैभव आशिल्लें.

इन्द्रधनुष्यांत सात रंग आसतात. ते एकामेकांत भरसल्ले आसतात म्हूण इन्द्रधनुष्य सोबता. सुंदर दिसता. संगितांत सात सूर आसतात. सात सुरांच्या मेळाक लागुनूच तरातरांचे राग आमच्या कानार पडटात. एका सुरान संगीत जायना. एका रंगान इन्द्रधनुष्य जायना. तसो एकेच जातीच्या लोकांचो देस 'भारत' जायना. भारत सुंदर, समृद्ध जाला, हजार तरांचे लोक ह्या देसांत येवन रावल्यात म्हूण. तो तसोच उरूंक जाय.





## ४५.

पिरामिड्स कोणाचें दायज? इजिप्ताच्या लोकांचें. मोहन-जो-दडो आनी हडप्पा कोणाचें दायज? फकत पाकिस्तानी लोकांचें? हीं दोनूय थळां पाकिस्तानांत आसात. पाकिस्ताना भायर आशिल्ल्या हिन्दुस्तानी लोकांक ह्या दायजाचें कांयच लागना? कुतुब मिनार आनी ताज महाल हें दायज कोणाचें? हिन्दुस्तानांतल्याच लोकांचें? दोनूय यादस्तिकां हिन्दुस्तानांत आसात. पाकिस्तानांतल्या मुसलमानांक ह्या दायजाचें कांयच लागना?

मोहन-जो-दडो, हडप्पा, कुतुब मिनार, ताज महाल, हीं यादस्तिकां देशाची जी वांटणी जाल्या ती मिथ्या, फटकिरी म्हूण दाखोवन दितात.

भुंयेचे वांटे करूं येतीत. इतिहासाचे वांटे घालूंक येनात.

हिन्दुस्तान सोडून वतना इंग्रजांनी देशाचे दोन वांटे केल्ले, आनी दोनूय दोन खेरीत 'राष्ट्रां' म्हूण मुखार आयिल्ले. म्हणटासर पाकिस्तानाचो एक वांटो फुटून भायर आयलो आनी 'बांगलादेश' ह्या नांवान एक खेरीत 'राष्ट्र' म्हूण मुखार सरलो. फाल्यां, धरुंया, सिंध आनी बलुचिस्तान हे वाटार पाकिस्तानांतले फुटून भायर सरले, (तांकां 'फोडप' हें अमेरिकेच्या अजेंडाचेर नासत जाल्यार ती अमेरिकाच न्हय जायत) जाल्यार एका देशाचीं पांच 'राष्ट्रां' जातलीं. तरूय –

देश एकूच उरतलो. फुटून भायर सरिल्ल्या ह्या 'राष्ट्रां'चो इतिहासूय एकूच आसतलो, आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें –

सगळ्यांची संस्कृताय एकूच आसतली.

नेपाळ, अफघानिस्तान आनी श्रीलंका ह्या 'राष्ट्रां'ची हीच संस्कृताय. तरी आसतना तीं तीन खेरीत 'राष्ट्रां' म्हूण संवसारांत मुखार येवंक नात?

साम्राज्यवाद संवसारभर देश फोडपाचींच अवचिन्नपणां करीत आयला. ताका इतिहासाचे आनी संस्कृतायेचे तकलेर चडूंक दिवंक जायना.

काल पयर मेरेन एकामेकांचे हाडवैरी कशे एकामेकां लागीं एका सारके झुजत आयिल्ले येवरोपांतले देश आयज 'येवरोपी संघ' ह्या नांवान एकठांय येवं येतात जाल्यार भारत, पाकिस्तान, बांगलादेश, नेपाळ, श्रीलंका, अफघानिस्तान,

भूतान, मालदीव एकठांय येवन तांचो एक 'संघ' कित्याक जावं नज? जावंक जाय. अशें म्हणपी लोकूय ह्या 'राष्ट्रां'नी आसात. कोणेंय तरी मुखार सरूंक जाय. अशेच आमी मुखार सरले म्हूण पाकिस्तान, हिन्दुस्तान दोनूय 'राष्ट्रां' मजगतीं क्रिकेट मॅची घडोवन हाडूंक पावले. ह्या मॅचींनी सगळ्यांत पयलीं पाकिस्तानांतल्या क्रिकेट खेळगडी इमरान खानाचें काळीज जिखलें. खुशालभरीत जावन ताणें म्हळें, आतां आमी 'इण्डो-पाक इलॅवन टीम' घडोवया आनी सगळ्यां वांगडा सांगातान खेळुंया. इमरान खानाचे हे सुचोवणेक दोनूय कडल्या देशभक्तांनी मना पसून येवकार दिवंक जाय आशिल्लो. इतलेंच न्हय, तर हे सुचोवणे पसून प्रेरणा घेवन दुसऱ्याय मळांचेर दिग्‌विजय करपाक कोणें तरी मुखार सरूंक जाय आशिल्लें. धरुंया, कोणेंय एक 'इण्डो-पाक संगीत अकादेमी' सुरू केली आनी तिणें दोनूय कडल्या वाजोवप्या गावप्यांक दोनूय कडेन हाडपा व्हरपाची कार्यावळ हातांत घेतली जाल्यार ती दोनूय कडल्या लोकांचीं काळजां जोडूंक पावची ना? पाकिस्तानांतलो गुलाम अली हांगा येता, गजल गावन आमचीं काळजां जिखून वता जाल्यार आमचो जगजीत सिंग पाकिस्तानी लोकांचीं काळजां जिखून कित्याक येवचो ना?

आमची लतादीदी एकलीच पुरो दोनूय देश काळजान एक करपाक. काळजां काळजां कडेन जोडपाक संगिता सारकें दुसरें साधन ना. संगितांत धर्म, भास, देश, संस्कृताय सगळ्यो शिमो उंपून पेल्यान वचपाची तांक आसा.

देशाक एक करपी असलीं दुसरींय कांय तत्वां आसात. देखीक उर्दू आनी सिंधी ह्यो दोन भासो हिन्दुस्तान आनी पाकिस्तान ह्या दोनूय 'राष्ट्रां'नी चलतात. बंगाली भास हिन्दुस्तान आनी बांगलादेश ह्या दोन 'राष्ट्रां'नी चलता. तिनूय 'राष्ट्रां'च्या सिंधी, उर्दू, बंगाली लेखकां मजगतीं एकचार घडोवन हाडपा खातीर एक वेगळी 'साहित्य अकादेमी' चलोवं नज आमच्यांनी?

लोकांनी असले वावर केले उपरांतूच राजकी मळा वयल्या फुडाऱ्यांक ह्या उपखंडाचो एक 'संघ' घडोवन हाडपाचो धीर जातलो.

राजकी फुडाऱ्यां फाटल्यान आमी वचचे परस आमचे फाटल्यान राजकी फुडाऱ्यांनी येवचे असो हावेस आमी कित्याक धरचो न्हय? आमच्या दायजाचे खरे धनी आमी. फकत राजकी फुडारी न्हय.








**४६.**

जवाहरलाल जवाहरलाल कशे जाले? ह्या देशाचे ते प्रधानमंत्री आशिल्ले खरे. पुणून प्रधानमंत्री तांचे उपरांत दुसरेय कांय जाण जाल्यात. तांचे मजगतचो एकलोय जवाहरलालां येदो जावंक पावूंक ना. खासा जवाहरलालांनीच एक फावट म्हळ्ळें, 'हांव निखटो प्रधानमंत्री न्हय. I am something more than the Prime Minister.' हें *'समथींग मोर'* तांच्यांत कशें येवंक पाविल्लें? गोंय मेकळें जाले उपरांत ते पयलेच फावट गोंयांत आयल्यात तेन्ना काम्पाला वेल्या आपणाल्या उलोवपांत तांणी म्हळ्ळें – 'What am I?... I am a product of India's struggle for freedom – हांव हांव जावंक पावलों, कित्याक, हांव भारताच्या स्वातंत्र्य संग्रामांत पडिल्लों. ह्या स्वातंत्र्य संग्रामान म्हाका घडयला. हांव एक उपफळ ह्या संग्रामाचें...'

भारताचो स्वातंत्र्य संग्राम स्पर्शमणया सारको आशिल्लो. ह्या संग्रामांत जे पडटाले तांचें जिवीत भांगराचें जातालें. ते व्हड जाताले. भारतीय आकाराचे जाताले. पुराय देशा संबंदान चिंतताले. ते पक्ष काडटाले ते 'अखील भारतीय' आसताले. आनी चळवळी चलयताले त्यो लेगीत अखील भारतीय रुपाच्योच आसताल्यो.

नेतृत्व निर्माण करपाची ही यंत्रणा आयज बंद पडल्या. आयच्या राजकर्णान वेंचणूक नांवाची एक नवी यंत्रणा उबी केल्या. ती नवें नेतृत्व निर्माण करूंक लागल्या. क्रिस्तांव मतदारसंघांत क्रिस्तांव नेतृत्व, मुसलमानांच्या मतदारसंघांत मुसलमानांचें, जाटांच्या मतदारसंघांत जाटांचें, मराठ्यांच्या मतदारसंघांत मराठ्यांचें, हे भाशेन, क्रिस्तांव, मुसलमान, जाट, मराठे, यादव, गांवडे, नायक, बामण – ते ते जातीचें, वा त्या त्या संप्रदायाचें नेतृत्व निर्माण करपाक लागल्या. हाका

लागून देशांत आयज फकत 'लघु-नेते'च – गिड्डे नेतेच – मुखार येवपाक लागल्यात. जवाहरलाल येवंक पावंक नात. धरुंया, जवाहरलाल आयज लोकसभेची तिकेट मागपाक गोंयांत काँग्रेस पक्षा कडेन गेल्ले जाल्यार तांगेलोच हो पक्ष तांकां खंयची तिकेट दितलो आशिल्लो? 'तुमी हिन्दू जाल्ल्यान मुरगांव मतदारसंघांत उपकारनात, आनी सारस्वत बामण जाल्ल्यान पणजी मतदारसंघांत उपकारनात,' अशें सांगून तो तांकां कडेक उडोवचो नाशिल्लो? आयचें राजकर्ण जवाहरलालांक लेगीत जवाहरलाल जावंक दिना. हाचो परिणाम – बरो मनीस आयज 'राजकर्ण? पाड पडूं तें. तें आमकां न्हय' अशें म्हणून ताचे पसून कडेक रावपाक लागला.

पयलीं फकत भित्रे लोक राजकर्णांत पडऽ नाशिल्ले. आयज बरे लोक पडनात. केदो फरक पडला त्या राजकर्णांत आनी ह्या राजकर्णांत!

ज्या देसांत हजार जाती, हजार संप्रदाय आसात थंय जाती, संप्रदाय हांचे पेल्यान गेल्लेंच नेतृत्व वयर सरूंक जाय. ना जाल्यार देश एकठांय उरपाचो ना. वयरूय सरपाचो ना.

एक तर देशाक एकठांय दवरपाची आस्त सोडून दिवंक जाय, वा जी यंत्रणा जवाहरलालाक जवाहरलाल जावंक दिना ती मुळा थावन बदलूंक जाय.





## ४७.

गांधींक दांभीक म्हणपी सावरकर-भक्तां मजगतीं कोणूच ना? खासा सावरकर गांधींक दांभीक म्हणटाले. पुणून, 'येद्या व्हड म्हात्म्याक तुमी दांभीक म्हणटात म्हळ्यार कितें... तुमी तुमचीं उतरां फाटीं घेवंक जाय...' अशें खंयच्याय गांधी-भक्तान केन्ना म्हळां? दुसऱ्यालें मत्त आमकां दुखोवपी आसूं, ताका ताचें मत्त मांडपाचो हक आसा, ह्या ताच्या हकाक कसलीच बादा येवंक जायना, तें मांडटना ताका कसलीच आडखळ जावंक जायना, अशेंच गांधी-भक्त मानीत आयल्यात. गांधी-भक्तूच कित्याक, सगळे डॅमोक्रॅट अशेंच मानीत आयल्यात. विरोधी मत्ताक कसलीच आडखळ येवंक जायना हो लोकशायेचो प्राण म्हणपाचें अख्ख्या सभ्य संवसारान मानलां.

'जागा'च्या एका संपादकियांत भौ. पां. पुं. शिरोडकारांल्या *आठवणी: माझ्या काळ्या-निळ्या कारावासाच्या* पुस्तकाची सारकावणी हांवें सावरकरांच्या *माझी जन्मठेप* पुस्तका कडेन केल्ली, आनी '*जन्मठेपीं*त एक अहंकारी, गर्विश्ट सावरकर दिश्टी पडटात, शिरोडकारांच्या पुस्तकांत तांच्या व्यक्तिमत्वांतलो असलो कसलोच अवगूण दिश्टी पडना' अशें म्हळ्ळें. हाचेर उसळून निशेधाच्यो कितल्यो चिटी येवच्यो? कितल्योश्योच. 'तुमी सावरकरांक अशें म्हणटात म्हणचे कितें, उतरां फाटीं घेयात' असो आदेश दिवन आयल्यात. '*जाहीर माफी मागा*'म्हूण 'धमक्योय'

आयल्यात. लेच्यापेच्यांच्यो न्हय. अंधश्रद्धा निर्मूलन करूंक भायर सरिल्ल्यांच्योय आयल्यात.

पयलोच अणभव न्हय हो म्हजो. एक खेपे हांवें हांकां 'स्वगतां'तल्यान जाप दिल्ली. 'तुमी अश्यो धमक्यो दिवपाक लागले जाल्यार म्हजे मुखार एकूच मार्ग उरतलो : 'पाड पाडूं... कोणाक जाय ह्यो भानगडी' अशें म्हणून बरोवपाचेंच बंद करपाचो. तशें, धरुंया, हांवें केलें – तुमकां भियेवन सावकरां संबंदान बरोवपाचें बंद केलें – जाल्यार, म्हाका सांगात, म्हज्या मनांत सावकरांचें व्यक्तित्व एका इंचान तरी वयर सरतलें?... विचारांचो प्रतिकार विचारांनीच करूंक जाय, धमक्यांनी न्हय... कळ्ळें?' तशी हेवूय खेपे म्हज्यान जाप दिवं येताली : 'तुमकां वायट दिसता जाल्यार हांव उतरां फाटीं घेतां... सावकरां सारको नमळ मनीस दुसरो कोण नाशिल्लो, अशें म्हणटां. पुणून सावरकरांची म्हज्या मनाचेर गर्विश्ट, अहंकारी म्हूण जी छाप पडल्या ती हाका लागून पुसून वतली व्हय?'

अप्पासाहेब पटवर्धनांची आपजीण *माझी जीवन-यात्रा* चाळूंक बशिल्लों. ह्या पुस्तकांत 'स्वातंत्र्यवीर सावरकर' नांवाचें एक प्रकरण आयलां. तातूंत ते म्हणटात, रत्नागिरीचे बंदखणींतल्यान सावरकर सुटून आयिल्ल्याची खबर कळ्ळी तेन्ना आपणाक खूब खोस भोगली. सावरकर म्हळ्यार आमकां देशभक्तीचे पाठ दिवपी आमचे आद्य गुरू... आपूण तांकां मेळूंक गेलों. *'पहिल्या मुलाखतीतच गांधींच्या थेट विरुद्ध त्यांचा सर्व रोख असल्याचे प्रत्ययाला आलें.'* तरूय तांचे विशीं मनांत भक्ति-भाव आशिल्लो. हिन्दू संघटने विशींची तांची आनी आपणाली नदर वेगळी आसली तरूय हिन्दू संघटन आपणाक नाका जावंक नाशिल्लें. आफूड-भश्ट ना करपाचो वावर तर आपूण कितल्याश्या वर्सां सावन करीत आयिल्लों... स्वदेशीचोय वावर आपणें आपणालो मानिल्लो. सावकरांच्या सांगातान हीं कामां करपाक आपणाक कसलीच अडचण दिसली ना. थोड्या दिसां भितर आपूण तांचो उजवो हात जालों. कांय दिसांनी आपणें गांधींक विचारलें, सावरकरां सांगातान वावर करपाक *'काही हरकत आहे का? गांधींचें उत्तर मोठे मार्मिक होते – तशी हरकत नाही. पण जरा सांभाळून, 'माणस बहु ऊंडो छे.'* (ऊंडो म्हळ्यार खोल, पाताळयंत्री.)... अप्पा म्हणटात, तरूय आपूण तांच्या सांगातांत काम करीत रावलों. मतभेद जाताले. तांकां व्हडलेंशें म्हत्व नाशिल्लें. पुणून इल्लें इल्लें करून आपणालें मन विरूस जायत गेलें. *'पैशांच्या बाबतीत फार चिकट. आत्मबढाई भलतीच.'* कळस जालो तो १९२७त, गांधी रत्नागिरींत आयले तेन्ना. पांच दीस ते रत्नागिरींत भोंवले. रत्नागिरी म्युनिसिपालिटीन तांकां एक मानपत्र दिवचें अशी लोकां कडल्यान एक सुचोवणी आयिल्ली.

*'सावरकरांच्या मनाईमुळे ती फेटाळली गेली.'* तरूय लोकांक गांधींचो अभिमान आशिल्लो. म्हूण म्युनिसिपालिटीन मानपत्र दिलेंच, लोकल बोर्डानूय दिलें. आपणें गांधींक विचारलें, तुमी सावरकरांची भेट घेतले व्हय? गांधींनी हयूय म्हळें ना, नाय म्हळें ना. पुणून येवकाराचे सभेंत उलयतना गांधींनी लोकमान्यांच्या नांवा फाटोफाट सावरकरांचेंय नांव घेतलें आनी आपूण तांची भेट घेतलों अशें म्हळें. रोखडीच, 'हांव तुमकां मेळूंक येतलों आशिल्लों, पुणून बरो नाशिल्ल्यान येवंक मेळना, तुमीच म्हाका मेळपाक आयल्यार बरें जातलें', ह्या अर्थाची सावरकरांची एक चीट गांधींक आयली. आपणाल्या कार्यक्रमांत बदल करून गांधी रोखडेच तांचे खबरेक गेले...

उपरांत अप्पासाहेब म्हणटात -

*'या प्रसंगाचा अन् भेटीचा मुंबईच्या 'श्रद्धानंद' साप्ताहिकांत 'आमचे रत्नागिरीचे वार्ताहर जोशीं कडून' (म्हणजे सावरकरांनी स्वत:च लिहून पाठविलेला) इतका अतिरंजित व विपर्यस्त वृत्तांत आला की तो वाचून माझें मन साफच विटले...'*

म्हळ्यार, सावरकरांक गर्विश्ट म्हणपी हांव एकलोच ना, अप्पासाहेब पटवर्धनां सारको आर्विल्ल्या काळांतलो एक महाराष्ट्री संतूय आसा. तांच्याय मनाचेर सावरकरांची म्हजेर पडल्या तीच छाप पडल्या.





४८.

१८५७तल्या बंडा सारकीं बंडां परतीं केन्ना जावंक पावचीं न्हय म्हूण खंय इंग्रजांनी सगळ्यांत पयलीं एक काम केलें – लोकां कडेन आशिल्लीं सगळीं शस्त्रां काडून घेतलीं,आनी तांकां नि:शस्त्र केले! सावरकरपंथी इतिहासकार हें कितल्याश्या वर्सां पसून सांगीत रावल्यात आनी, कशें कितें कित्याक असले प्रस्न करपाची संवूंयच नाशिल्ले आमी तें मोन्यांनी खरें मानीत आयल्यात.

शस्त्रां 'काडून घेवपाक' तीं कोणा कडेन तरी आसूंक जाय आशिल्लीं. तीं कोणा कडेन आशिल्लीं? देशांत एक चातुर्वर्ण्य समाजवेवस्था चलत आयिल्ली. बुद्ध हिचे आड झुजिल्लो. बुद्ध ख्रिस्ता आदल्या सव्या शतमानांतलो. म्हळ्यार, वर्णवेवस्थेची पिराय इंग्रज आयल्यात त्या वेळार उणी पुरी अडेच तीन हजार वर्सांची तरी आसूंक जाय. हे वर्णवेवस्थेन समाज चार वेगळ्या वेगळ्या वर्णांच्या जगांनी वांटून घाल्लो, आनी दर एका वर्णाक ताचीं ताचीं कामां वांटून दिल्लीं. ब्राह्मणांचीं कामां आशिल्लीं शिकप-शिकोवप, यज्ञ करप, यज्ञ करून घेवप आनी दान करप-घेवप हीं स. हांचे कडेन शस्त्रां कित्याक आसतलीं? दान, यज्ञ, अध्ययन हांचे भायर शेतकाम, गोरवां राखण, वेपार आनी सावकारी हीं कामां नेमून दिल्लीं वैश्यांक. हांकांय शस्त्रां बाळगुपाची गरज नाशिल्ली. आनी, शुद्रांक तर कोणाच्याच गुणांचो मत्सर करी नासतना ब्राह्मण क्षत्रीय वैश्य ह्या 'वयल्या' तिनूय वर्णांची 'परिचर्या' करप हेंच एक काम दिल्लें.

एक क्षत्रीय वर्ण सोडीत जाल्यार शस्त्रां कोणाच कडेन वर्णव्यवस्थेन दवरूंक नाशिल्लीं. आनी समाजांत क्षत्रीय आशिल्ले ब्राह्मण वैश्यां इतलेच. शंबरांत तीन वा पांच. बाकीचे सगळे शुद्र. तांचे कडेन कितें 'राखपा सारकें' आशिल्लें म्हूण ते शस्त्रां सांबाळटले आशिल्ले?

देशाक नि:शस्त्र आमच्या म्हालगड्यांनी पयलीं केल्लो. इंग्रजांनी फकत तांचें अर्दकुटें उरिल्लें काम पूर्ण केलां, इतलेंच.





## ४९.

हिन्दूक आमी 'हिन्दू' कित्याक म्हणटात? तांगेलो धर्म 'हिन्दू' म्हूण व्हय? *वेद, उपनिषदां, गीता, रामायण, महाभारत, भागवत, मनुस्मृती* हीं हिन्दू-धर्मपुस्तकां. हांतल्या एकाय पुस्तकान तांगेल्या धर्माक 'हिन्दू धर्म' म्हळ्ळो पळोवंक मेळना. तें कित्याक, ह्या धर्मपुस्तकांनी खंयचेच कडेन 'हिन्दू' हें उतर लेगीत मेळना.

कांय जाण म्हणटात, शेजारच्या इराणी लोकांनी तांकां हें नांव दिलां. भारत आनी इराण ह्या देशां मदीं सिंधू नांवाची एक न्हंय व्हांवता. इराणी लोकांक खंय 'स'चो उच्चार सारको करूंक येनाशिल्लो. 'स'चो उच्चार ते 'ह' करताले. तांणी 'सिंधू'चें 'हिन्दू' केलें आनी 'सिंधू न्हंये पेल्यान रावतात' तांकां ते 'हिन्दू' म्हूण पाचारपाक लागले. मागीर हिन्दू रावतात त्या देशाक 'हिन्दुस्तान' आनी ते ज्या धर्माक पाळो दितात त्या धर्माक 'हिन्दू धर्म' अशीं नांवां पडलीं. पुणून हें कितलेंशें खरें, खबर ना. कित्याक, इराणी लोकांची भास फारसी, आनी फारसी भाशेंत मुळा सावन साल, सादगी, सिपाही, सितार, सर, सर्दी, सरकार असलीं 'स'न सुरू जाल्ली शेंकड्यांनी उतरां आसात. इराणी लोकांक 'सिंधू'चें 'हिन्दू' करपाचें कारणूच नाशिल्लें. बरें, तांणीच हिन्दूंक 'हिन्दू' नांव दवरिल्लें आसलें जाल्यार तें तांच्या धर्मा कडेन पळोवन दवरलां जातलें, अशेंय म्हणूंक येना. कित्याक, हिन्दूंचे म्हालगडे, वेदीक धर्माक पाळो दीत आयिल्ले, आनी वेदीक धर्म 'सिंधू न्हंये पेल्यान'च्या देशांत जल्माक येवंक ना. तो इराणांतूच जल्माक आयिल्लो. अफघानिस्तानांत ताची वाड जाल्या आनी आर्य जंय जंय पातळत गेल्यात थंय थंय तातूंत भर पडत रावल्या.

कांय जाण हिन्दूंक 'हिन्दू' नांव मुसलमानांनी दवरलां म्हणटात.

कोणेंय दवरिल्लें आसूं, दुसऱ्यांनी दवरिल्लें नांव आपूण जावन घेवपी संवसारांत कोण नात. हिन्दूच कित्याक आसतले? तांणी आपणा खातीर हें नांव निखालूस वेंचून काडूंक ना इतलें खरें. धा शतमानां आदीं हिन्दू आपूण हिन्दू म्हूण लेगीत नकळ आशिल्ले. तांकां हें नांव दुसऱ्यांनी दसयलें आनी तांणी तें मोन्यांनी मानून घेतलें.

म्हूण हिन्दूंक आमी हिन्दू म्हूण वळखतात. उपाय ना.

हार्लीसराक दलीत फुडारी हिन्दूंक 'मनुवादी' म्हूण बकच्छायेन पाचारपाक लागल्यात. *मनुस्मृती*क धरून ते चलतात म्हूण. पुणून मनून आपणाले 'स्मृतीं'त धर्माचीं जीं धा लक्षणां सांगल्यांत तीं बकच्छायो करपा सारकीं निखालूस न्हय. परतीं, पाठ गिरोवपा सारकीं लक्षणा हीं, चलणुकेंत हाडपा सारकीं. मनू म्हणटा–

*धृतिः क्षमा दमः अस्तेयं शौचं इन्द्रिय निग्रहमः*

*धीः विद्या सत्यं अक्रोधः दशकं धर्मलक्षणम् ।*

– तुमकां धर्माक धरून चलपाचें आसत जाल्यार तुमच्यांत हीं धा लक्षणां आसूंक जाय –

१. *धृति* (cohesion) : समाजांतल्या सगळ्यां कडेन एकरूप जावन चलप. सगळ्यांक सांबाळून चलप.

२. *क्षमा* (forgiveness) : एकामेकांच्यो चुको विसरप, एकामेकांच्यो चुको भकसप.

३. *दम* (self restraint) : मनांत उठ्ठात ते फुरफुरे दांबून दवरप.

४. *अस्तेयं* (non-stealing) : चोरी करप ना. जें आपणालें न्हय तें घेवप ना.

५. *शौचं* (purification) : भायल्यान भितल्ल्यान निर्मळ आसप.

६. *इन्द्रिय निग्रह* (control over senses) : मनशांत कांय आंगां आसात जीं ताका नाका थंय ओडून व्हरतात. हीं आंगां आळाबंदा हाडून तांकां आपणा सुवादीन दवरप.

७. *धीः* (intellect) : बुद्द दुःखान थतरवितर जावची ना आनी सुखान भुल्लुसून वचची ना हाची जतनाय घेवप.

८. *विद्या* (knowledge) : सद्दां नवें नवें शिकत रावप.

९. *सत्यं* (truth) : सद्दां सत्याकूच धरून चलप. आनी,

१०. *अक्रोध* (restraint of anger) : केन्ना कोणाचेर तापचों ना, ताणशेवचों ना, रागार जावचों ना असो नित्शय करप.

हीं धा लक्षणां जाच्यांत आसात ताकाच मनू धर्मिश्ट मनीस लेखता. तो मागीर, हिन्दू आसलो जाल्यार बऱ्यांतलो बरो हिन्दू जातलो. ख्रिस्ती आसलो जाल्यार बऱ्यांतलो बरो ख्रिस्ती जातलो. मुसलमान आसलो जाल्यार बऱ्यांतलो बरो मुसलमान जातलो.

हीं धा लक्षणां केन्ना बदलनात. तीं सदांकाळ चलतात. म्हूण ह्या लक्षणांक धरून चलपी मनशाक 'सनातन धर्मी'य म्हणटात. 'सनातन' उतराचो आनीक एक

अर्थ आसा –

जो कालचे सारको आयज आसना, आयचे सारको फाल्यां आसचो ना, असलो. सदां नवो ताल्ल. धृती, क्षमा, दम बी लक्षणां केन्ना बदलनात, केन्ना पोरणीं जायनात, तीं काळा पेल्यानचीं – eternal. तीं ताच्यांत आसात म्हूण सनातन. तशीं, काळा प्रमाण, देशा प्रमाण बदलतात असलींय temporal लक्षणां ताच्यांत आसात म्हुण्णूय ताका 'सनातन धर्म' म्हणटात.

फाटल्या पांच हजार वर्सांचो इतिहास पळेत जाल्यार हिन्दू धर्म एका सारको बदलत आयिल्लो पळोवंक मेळटा. वेदांच्या काळांत आशिल्लो तसो उपनिषदांच्या काळांत तो उरूंक ना. उपनिषदांच्या काळांत आशिल्लो तसो बुद्धाच्या काळांत उरूंक ना. एका सारको बदलत रावला. बदलपाचें ताचें त्राण केन्ना मंद पडूंक ना तशें केन्ना थांबूंक ना. म्हूण ताणें खंयच्याच धर्म-संस्थापकाचो शेक आपणाचेर चलूंक दिवंक ना, खंयच्याच धर्म-पुस्तकाक तो दसून रावंक ना. ख्रिस्ती धर्माचो धर्म-संस्थापक एक – येशु ख्रिस्त. मुसलमानी धर्माचो संस्थापक एक – मुहम्मद पैगंबर. ख्रिस्ती धर्म-पुस्तक एक – *बायबल*. मुसलमानांचें धर्म-पुस्तक एक – *अल्-कुराण*. हिन्दू धर्म एका खंयच्या धर्म-पुरसान सुरू करूंक ना. घडोवंक ना. कितल्याश्या धर्म-पुरसांचो ताका घडोवपांत हातभार लागला. कितल्याश्या धर्म-पुस्तकांक ताणें मान्यताय दिल्या. हिन्दू धर्म म्हणटा, तुमी रामाक मानात, कृष्णाक मानात, वा बुद्धाक मानात. खंयच्याय धर्म-पुस्तकाचीं नित्य-पारायणां करात. *गीते*चें करात, *भागवता*चें करात, *तुलसी-रामायणा*चें करात. जो तुमकां वयर काडटा तो तुमचो धर्म-पुरूस. जें तुमकां वयल्या पांवड्यार चडयता तें तुमचें धर्म-पुस्तक. हिन्दू धर्मांत आसा तसली विचारांची आनी आचारांची मेकळीक दुसरे कडेन खंयच पळोवंक मेळना, रुखाक कितल्योय खांदयो, ताळयो, पानां, फुलां, फळां आसूं, रूख एक. तशे हिन्दूं मजगतीं कितलेय आचार-विचार दिश्टी पडूं, हिन्दू धर्म एक. मनशा कडेन मनीस म्हूण पळेयात, ताच्या आचार-विचारां कडेन व्हडलेंशें लक्ष दिवं नाकात, अशें सांगपी एक धर्म हो. *'एकम् सत् विप्रा बहुधा वदन्ति '*– सत एकूच, शाणे लोक ताका वेगळ्या वेगळ्या नांवांनी पाचारतात अशें हो धर्म वेदकाळांत सांगतालो. तो *'जत मत तत पथ'* - जितलीं मतां तितल्यो वाटो म्हूण रामकृष्ण परमहंसा मेरेनचे आपणाले प्रगतियात्रेंत सांगीत आयला.

खरें हिन्दुत्व तें हें. तें जाच्या शिरत्रांनी घोळटा ताकाच '*गर्व से कहो. हम हिन्दू हैं*' म्हणपाचो हक आसा.





## ५०.

हिन्दू संस्कृतायेंत जें जें कितें दिव्य भव्य पळोवंक मेळटा तें सगळें भटां ब्राह्मणांनी तिका दिलां. आनी, जें जें कितें बुरशें कुसकें नश्टें पाडें दिश्टी पडटा तेंवूय तांणीच दिलां. भट ब्राह्मण खरे ह्या देशाचे भाग्यविधाते. भटां ब्राह्मणांक गुणां अवगुणां सयत जे वळखनात तांकां हिन्दू धर्म आनी हिन्दू संस्कृताय निखालूस कळपाची ना.

चातुर्वर्ण्य वेवस्ता तांणीच निर्माण केली. आपूण तोंडांतसून आयल्यात (*ब्राह्मणोऽस्य मुखमासीद्*) अशें सांगून तांणी सगळी सत्या आपणा हातांत घेतली. समाजाकूय आपणाल्या चपक्यांत घेतलो. *'वर्णानाम ब्राह्मणो गुरुः'* अशें सांगून सगळ्यांचें गुरुपद घेतलें. आनी आपणाल्या ह्या अधिकाराक बादा येवची न्हय म्हूण 'धर्मशास्त्रां'य तांणीच रचलीं. ब्राह्मणांनी राज्याभिषेक केले बगर खंयचोच क्षत्रीय केन्ना राजा जालो ना. ब्राह्मणा बगर कोणागेरूच पुजा जायना. कोणाचेंच लग्न जायना. कोणाचोच अंत्यविधी जायना. कोणाचेंच श्राद्ध जायना. श्राद्ध जायना जाल्यार कोणाचोच म्हालगडो स्वर्गार पावना. इतले हे 'अधिकार' जाच्या हातांत उरतात तो सत्येन कुड्डो जालो जाल्यार अजाप कसलें? Power corrupts. Absolute power corrupts absolutely हे ओपारेची बऱ्यांतली बरी देख भट ब्राह्मण सोडून संवसारांत खंयच पळोवंक मेळची ना.

ब्राह्मणाच्या ह्या चपक्यांतल्यान हिन्दू धर्म सोडोवंक जाय.

हिन्दुस्तानांत मुसलमानांच्यो हजारांनी मशिदी आसात. क्रिस्तांवांच्यो तितल्योच इगर्जो आसात. पारश्यांच्यो 'अग्यारी', जैनांचे 'अपासरे', बौद्धांची 'मंदिरां', शिखांचे 'गुरुद्वारा' – उपासनेचीं हीं कोंत आनी हिशोब नाशिल्लीं थळां. एक्क थळ बुरशें पळोवंक मेळचें ना. हिन्दूंचें एक तरी देवूळ निर्मळ पळोवंक मेळत व्हय? हिन्दूंचीं सगळीं देवळां, सगळीं तीर्थां बुरशीं. दक्षिणेंतलीं तरी निर्मळ आसतलीं अशें दिशिल्लें. म्हूण कन्याकुमारीचें देवूळ पळेलें. बुरशें. गोकर्ण तीर्थ पळेलें. नरका पाश्ट!

कशीं कोणाक खबर, फकत गोंयचींच देवळां निवळ उरल्यांत. कित्याक? पुर्तुगेजांक लागून? एकलो म्हाजन (एका 'पांच नखेत्री' देवळाचो) म्हणपाक

लागलो, सारस्वतांक लागुनूच तीं निवळ उरल्यांत. 'आमी सारस्वत सदां क्रिस्तांवां कडेन सर्त करीत आयले... तांचे तकलेंतल्यान पडचे न्हय म्हूण सदांच जतनाय घेत रावले. हाका लागून तीं निवळ उरल्यांत...'

'हीं देवळां तुमचीं?' हांवें विचारलें.

'हय तर! आनीक कोणाचीं?' ताणें जाप दिली.

'देवळांत अभिषेकाचो अधिकार कोणाक आसा, कोणाक ना हें कोण थारायता? तुमी काय भट?' तो ओगी पडलो.

सारस्वतांनी हीं देवळां बांदल्यांत. खरें. देवळांचो कारभार तेच पळेतात हेंवूय खरें. पुणून देवस्पण सगळें पुजाऱ्यांच्या हातांत! आनी पुजारी सगळे भट. मागीर ते देशस्थ, कोंकणस्थ, कराडे, सारस्वत कोणूय आसूं. कॉमीक दिसली ती हरवळेंच्या श्रीरुदेश्वर देवळाची. तें नायकांचें. पुजारी? भट! तोवूय भायलो!!! हांसचें काय रडचें, समजना.

देवस्पण पुजाऱ्यांच्या हातांत उरचें न्हय. दोतोरकी शिकून कोणाच्यानूय दोतोर जावं येता, इंजीनियरींग शिकून कोणाच्यानूय इंजीनियर जावं येता, तशें, धर्मशास्त्र शिकून कोणाच्यानूय पुजारी जावं येता हे तरेची मेकळीक हिन्दूंक आसूंक जाय. तो अमकेच एके जातीचो आसूंक जाय हो नेम रद्द करूंक जाय.

गोंयच्या क्रिस्तांवां मजगतीं जाती आसात. ऊंच उणाकपण आसा. तांचेय भितर सोंपेपणान आंतरजातीय लग्नां जायनात. पुणून, पाद्री? तो खंयचेय जातीचो आसूं येता! तशें हिन्दूं मजगतीं जावंक जाय. कोणाच्यानूय पुजारी जावं येता अशें थारावंक जाय, ताणें धर्मशास्त्र मात शिकूंक जाय.

आनी हें सगळें खासा भटां ब्राह्मणांनी करूंक जाय. तांचो तो अधिकार. तशी तांची ती लागणूक. तांणीच धर्मशास्त्रां निवळावन लोकांच्या हातांत दिवंक जाय.

मागीर, ब्राह्मणांनी कितें करचें? उद्देजक जावचें. ज्ञान विज्ञानाचीं जायतीं मळां आसात. ह्या मळांचेर दिग्विजय करचो. तांचे मजगतचो एक तरी आयन्स्टायनचे योग्यतेचो विज्ञानीक पळोवंक मेळचो संवसाराक.

ब्राह्मण पुरयतपण सोडून दितले तेन्ना हिन्दू धर्म, हिन्दू संस्कृताय पुर्विल्ल्या काळांत आशिल्ली ताचेकूय लाख वांट्यांनी चड उजळ जावंक पावतली. तांणी तें आपखोशयेन सोडून दिलेंना जाल्यार तांच्या हातांतलें तें काडून घेवचें पडटलें.





## ५१.

कुडींत स्वास तसो समाजांत विस्वास. स्वास बंद जालो जाल्यार कूड उरना, तसो समाजांतल्या लोकांचो एकामेकां वेलो विस्वास उडून गेलो जाल्यार समाजूय उरपाचो ना.

हिन्दुस्तान पाकिस्तान दोनूय देशां मजगतच्या किजिलांचें कारण कितें? काश्मीर? धरुंया, काश्मीर आमी पाकिस्तानाक दिवन उडयलें. जाल्यार किजिलां ना जातलीं? दोनूय देशांचो एकामेकां वेलो विस्वास उडून गेला. तो जे मेरेन आमी चालू करिनात, सिद्ध वा स्थापन करिनात, ते मेरेन काश्मीर खंयचें, पुराय हिन्दुस्तान पाकिस्तानाक दिवन उडयलें जाल्यारूय किजिलां ना जावपाचीं नात.

उडून गेल्लो विस्वास परतो कसो चालू करपाचो? पाकिस्तानांत वचून 'आमी तुमकां आमचे भाव मानतात, तुमीय आमकां तशेच मानात... झगडीं झुजां आमी आतां बंद करुंया, एकामेकां कडेन भावकेन चलुंया' अशें थंयच्या लोकांक सांगून? बाबा आमटेंक तें सोबता जायत, आमकां सोबना. आमच्या हातांत आसा तो एकूच उपाय. आमच्या शेजरा रावतात त्या मुसलमानांक पटोवन सांगपाचें, बाबांनो, हिन्दुस्तान पाकिस्ताना मजगतच्या किजिलांनी हावळ येवं येता ती फकत तुमच्याच फुडाराचेर. पाकिस्तानांत तुमचे सोयरे आसात. तांकां वचून सांगात, 'हिन्दुस्तानांत फकत काश्मीर ना, आमीय आसात. आनी आमी सुमार चवदा कोटी लोक आसात. तांचें कितें करपाचें येवजिलां तुमी? एक तर काश्मीर आमचे बरोबर रावतलें, वा काश्मीरा वांगडा आमकांय व्हरपाची तजवीज तुमकां करची पडटली. आमकां हांगाच दवरून तुमी काश्मीर घेवन गेले जाल्यार आमकां अल्ला-ताला लेगीत वाचोवंक पावपाचो ना.' जायत व्हय आमकां कोणाक काळीज हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानांक हें पटोवपाचें?

मनीस सदांच बदलत आयला. न्हंय जशी सदां तीच दिसता पुणून तीच नासता, खिणा खिणाक नवें उदक घेवन व्हांवत आसता, सदां नवी ताल्ल आसता, तसो मनीस तोच दिसलो तरूय तो तोच नासता. तोवूय बदलत आसता. नवो जायत रावता. मनीस बदलता हे गजालीचेर विस्वास दवरूंक जाय. हिन्दुस्तान पाकिस्तान दोनूय देश चलत आयल्यात तशेच सदांच चलत रावपाचे नात, — बदलतले हो विस्वास बाळगूंक जाय.

अविस्वास आयच्या काळांत चलपाचो ना. चलूंक दिलो जाल्यार एक दीस तो आंगलट आयले बगर रावपाचो ना. म्हूण, एकामेकां वेलो उडून गेल्लो विस्वास पर्थून चालू करुंया. पयलें पावल म्हूण हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानांक 'आमचे' करुंया.





## ५२.

संवसारांत सगळे कडेन हो ताचो सूड घेता, तो हाचो घेता. सुडाचीं धुमशेणां सगळे कडेन एका सारकीं चलत रावल्यांत.

कोणाक उपायूच येवजना.

मुंबय एका बुकस्टॉलांत भितर सरलों. नदर एका पुस्तकाचेर पडली. पुस्तकाचें नांव आशिल्लें, *रिवेंज - अ स्टोरी ऑफ होप.* अब्बा! सुडूय बी आनी तातूंत आशेचें किरणूय बी? कितें आसा काय भितर? विकतें घेवचें-शें दिसलें. पुणून पयशे नाशिल्ले. थंयच कदेल ओडून बसलों आनी पुस्तक चाळूंक लागलों. बरयलां लॉरा ब्लुमन फेल्डे नांवाचे अमेरिकेंतले एके बायल-मनशेन.

तिगेलो बापूय जेरुझालेमचे यात्रेक गेल्लो. क्रिस्तांवांचें हें एक पवित्र थळ. आयुष्यांत एक फावट तरी ह्या थळाची यात्रा करून येवंकूच जाय हो संस्कार संवसारांतल्या सगळ्या क्रिस्तांवांत आसा. तो लॉराच्या बापायंतूय आशिल्लो. थंय एका अरबान ताचेर गुळयो सोडल्यो. तातूंतल्यान कसोबसो तो वाटावलो. पुणून अरब स्वस्थ बसूं नाकात? ते मिलिटरी शुटिंगाची प्रॅक्टीस करताले. हाका तांणी 'टारगेट' म्हूण उबो केलो. तातूंतल्यानूय तो वाटावलो.

लॉरा संवसारभर भोंवली. आल्बेनिया सावन इराणा मेरेनच्या वेगळ्या वेगळ्या देशांनी गेली. सूड घेवपाचे उत्फर्के जांकां जाल्यात तांकां मेळून तांच्या मनाचो थाव घेवपाक लागली. पंदरा वर्सां भोंवन ती निमाणें एका निर्णयार पावली – सूड घेवपाचे उत्फर्के जांकां जाल्यात तांचे मजगतच्या एकल्याकूय केन्ना सस्थताय लाबूंक ना. एकल्याकूय संतोस मेळूंक ना. सगळ्यां कडल्यान तिका एकूच सत होलमलें – दुस्मानाक मारून वा ना करून खंयच कोणाक कसलोच लाव जावंक ना. सूड घेवपा बदला तुवें एक तर तुज्या दुस्मानाक बदलूंक जाय, वा तुवें

बदलूंक जाय. You can transform your enemy or yourself.

लॉरान हें सत चलणुकेंत हाडपाचें थारायलें. तिच्या बापायक मारपाचो जाणें यत्न केल्लो त्या अरबाचें नांव आशिल्लें खातीब. तो पालिश्तिनांतलो. इझ्रायली सरकारान ताका धरून बंदखणींत घाल्लो. ताचेर केस घाल्ली. आनी केस कोर्टांत चलताली. लॉरा जेरुझालेमाक गेली. खातीबाक बंदखणींत वचून मेळ्ळी. ताची केस हातांत घेवन आपुणूच ती लडोवपाक मुखार सरली. खातीबागेरूच वचून रावली. अरबी भास शिकली. खातीबाच्या घरच्या सगळ्यांचें काळीज तिणें जिखलें. आयज तीं लॉराचेर मोगाचो पावस शिंवरायतात. खातीब अजून बंदखणींत आसा. ताच्याय मनांत लॉरा विशीं मोग, आपलेपण जागें जालां. तो लॉराक आपणाली धूव मानपाक लागला. खातीबान बी.बी.सी. टीवीर हालींच एक मुलाखत दिल्या. तातूंत तो म्हणटा, 'लॉरान म्हजो वेगळे तरेन सूड घेतला. तिणें मोगान आमकां सगळ्यांक जिखल्यांत. हे तरेचो मोगाचो सुडूच संवसारांतलीं सुडाचीं धुमशेणां ना करूंक पावतलो.'

आयजवेर हांव बुकस्टॉलांनी वचून पयशे खर्चून येतालों. आयज ज्ञान घेवन परतल्लों. संवसारांतली हिंसा ना जाल्ली जाय मू? सरकार ती ना करपाचें ना. आमीच ती ना करपाची. लॉरा म्हणटा तेंच खरें – सूड घेवन आयजवेर कोणाक कितेंच मेळूंक ना.





## ५३.

'भूमिपुत्रां'त महबूब देसाईचें एक बरप वाचलें.

तीख नाक, रुंद कपळ, लिक् लिक् जावपी दोळे...

धवेंफुल्ल खाड, धवीफुल्ल कफनी, धवोफुल्ल लेंगो...

इसूफ मियांक पळेना फुडें हो एक निर्मळ पवित्र मुसलमान आसूंक जाय हें कोणाक सांगचें पडना. आपशीं कळटा.

गुजराती उलयता ती म्होंवाळ मेमणी हेळ्यांची. आयकत रावची अशें दिसपा सारकी. सुरत शाराच्या पॉश वाटारांत ताचें दागिन्यांचें एक शॉप आसा. कोणाचेय नदरेंत भरपा सारकें. व्हड आनी चक्क.

गोधऱ्याक हत्याकांड जाल्ल्याची खबर ताका त्याच दिसा सांजची कळिल्ली. फाल्यां 'गुजरात बंद'य जावपाचो आसा म्हणपाचें तीनसांजच्या वेळार कळ्ळें. घराच आशिल्लो त्या दिसा तो. शॉपार पूत गेल्लो. ताका फोन करून सांगलें, 'इहसाक, शॉपार जितलेंय भांगर रुपें आसा तितलेंय एके पिशवेंत घालून येतना घरा घेवन यो. ते भायर लोकांनी सारके करून घेवपाक दवरिल्ले दागिने, नव्या दागिन्यांच्यो ऑर्डरी, लोकांच्यो चिटी हें सगळें दुसरे एके पिशवेंत घालून हाड...'

'सगळें पिशव्यांनी घालतां... पुणून पिशव्यो तिजोरेंत दवरल्यार कितें जाता अब्बाजान?' पुतान विचारलें.

'ना ना... घराच घेवन यो सगळें... जबाबदारीच्यो वस्ती त्यो, आमचे सरीं घरांतूच आशिल्ल्यो बऱ्यो...'

काळोख पडचे पयलीं पूत सगळें घेवन घरा आयलो. फर्निचर सोडून शॉपार कांयच नाशिल्लें.

इसूफ मियांक घडटलेंशें दिशिल्लें तश्शें जिस्त दुसऱ्या दिसा घडिल्लें. गुंडांनी ताचें शॉप फोडून मागीर फर्निचराक उजो घालो. इसूफ मियांक मानपी खूब जाण आशिल्ले शारांत. तागेलें शॉप फोडपाचें थरलां म्हणपाचें कळना फुडें एका नगरसेवकान ताका फोन करून सांगलें, 'तुमचें शॉप फोडपाचे आसात हे लोक आयज...'

'मागीर, हांव कितें करूं? तुमच्यांनी तें वाटावं येता जाल्यार वाटायात... नगरसेवक तुमी...'

'हांव वाटावपाक गेलों जाल्यार हे लोक म्हज्याच हातांत उज्या चूड दितले आनी घाल उजो शॉपाक म्हूण सांगतले... जाता तें मोन्यांनी जावंक दिवप हातुंतूच शाणेपण आसा.' – नगरसेवक.

इसूफ मियांन ओग्गी रावन आयकून घेतलें. कांयच म्हळें ना.

गुंडांनी शॉप फोडलें. फर्निचराक उजो घालो. तीन लाखांचें फर्निचर...

दुसऱ्या दिसा पुलीस इन्स्पॅक्टर आयलो 'एफ्. आय्. आर्.' बरोवन घेवपाक. 'कितें कितें गेलें?' ताणें इसूफ मियांक विचारलें.

'कांय ना... फकत फर्निचर लासून गेलां... आनीक कांय ना...'

पुलीस इन्स्पॅक्टर अजापान इसूफ मियांक पळेत रावलो. ताणें कितलेशे एफ्. आय्. आर्. हाचे पयलीं बरयल्ले. गेल्ल्या सामानाची व्हडली व्हडली वळेरी जण एकल्यान ताका दिल्ली. इसूफ मियांक ताणें विचारलें, 'कांय वचूंक ना?'

'ना. खरेंच कांय वचूंक ना. फकत फर्निचर गेलां. पुणून ताचीय म्हाका कंप्लेन करपाची ना... खुदाची मर्जी...'

उपरांत गुजरातेंतली परिस्थिती निवळ्ळी. इसूफ मियांन रोखडेंच आपणालें शॉप परतें उकतें केलें. जळिल्लें फर्निचर भायर काडलें. नवें करून घेतलें आनी शॉपाच्या बंद शटराचेर पुठ्ठ्याचो एक बोर्ड लायलो - 'जांणी आपणाले दागिने सारके करपाक हांगा दिल्ले तांणी सगळ्यांनी हांगा येवन ते परते व्हरचे.'

कितल्याश्या हिन्दू गिरायकांनी फोना वेल्यान इसूफ मियांक सांगलें, 'आमगेले दागिने तुमच्या हातांतूच चड सुगूर उरतले.'

तरी आसतना इसूफ मियांन लोकांक फोन करून करून ते व्हरूंक लायले. सुमार स लाखांचे दागिने ताणें हे भाशेन जाचे ताका परते दिले.

कोणें ताका म्हळें, 'दागिने गुंडांनी लुटून व्हेले म्हळ्ळें जाल्यारूय कोणाक अजाप जावचें नाशिल्लें.'

इसूफ मियांचें तोंड खंतीन तांबडेंगुंज जालें. 'बाबा रे, धंद्यांत केन्ना लाव जाता, केन्ना लुकसान. ताचो लाव घेवन थोड्याश्या फायद्या खातीर जो इमान विकता तो मुसलमान न्हय. 'मुकम्मल इमान म्हळ्यारूच मुसलमान' अशें हजरत मोहम्मदान म्हळां. 'जाचे सुवादीन आपणालो जीव आनी माल दिवन सगळे हुसक्या मेकळे रावतात, तोच खरो मुसलमान...'





## ५४.

मार्क ट्वेइनान म्हळ्ळें –

'घरांत सूख नंदचें अशें दिसता आसत जाल्यार घरांतलीं जाणटेलीं दिसांतल्यान एक खेपे, फकत धा मिणटां, खळखळून बरीं हांसतलीं अशें कितेंय करात. ज्या घरांतलीं जाणटेलीं पोटभर हांसूंक पावतात त्याच घरांत स्वर्ग नंदता. तेंच घर सुखी आसता...'

जाणटेल्यांक हांसोवंक येवप ही एक मोटी कला. एक मोटें पुण्यकार्य.

जाणटेल्यांच्यो सगळ्यो भुको भागिल्ल्यो आसतात. उतार पिरायेर तांकां फकत एकूच भूक लागता – भुरग्यांच्या मोगाची. हीच तांगेली भूक आमकां भागोवंक येवची न्हय?

आमीय एक दीस जाणटीं जावपाचीं आसात.

मांय-सुनांक चडशें पडच ना. कित्या खातीर?

वर्सभर पयलीं एकल्याच्या लग्नाक गेल्लों. आवय-बापायचो एकलोच पूत हो. बरो शिकता. बरो जोडटा. तो एकलेच्या मोगांत पडलो. तिवूय शिकिल्ली. ताच्याच ऑफिसांत काम करताली. पुणून दुसरे जातीची. 'तातूंत कितें, जाती-बिती आतां खंय उरल्यात? चल्याक चली आवडटकूच जाली...' अशें म्हणून आवय-बापायन लग्नाक मान्यताय दिल्ली.

लग्न गडगडाटांत जाल्लें.

वर्सा भितर मांय-सुने मजगतीं पिरपीर सुरू जाली. ही अशें करता, ती तशें करता म्हूण दोगांय शिणपाक लागलीं. अखेरेक, मनस्ताप नाकात म्हूण चल्यान वेगळें बिराड केलें. जो आपणाल्या आंगा-खांदार खेळिल्लो, जाका आपणें जीव ओतून ल्हानाचो व्हड केल्लो तो काल पयर मेरेन परकी आशिल्ले एके चलयेच्या नादाक लागून आपणा कडले संबंद कशे तोडूंक पावलो हें चल्याचे आवयच्या लक्षांत आयलें ना. ती सुनेक तरातरांचीं नांवां दवरपाक लागली. तिका घरफोडी, चेटकीण, अवदिसा बी कितें कितें म्हणपाक लागली. तिणें पुताक खूब मोग

दिल्लो खरो. पूण ह्या मोगाक वात्सल्य म्हणटात. पंचवीस सव्वीस वर्सांचे पिरायेच्या भुरग्याक शृंगारीक मोगाची ओड आसता. तिका हें कळिल्लें जाल्यार ती संबंद तुटूंक दिवची नाशिल्ली. पुणून असली आवय लाखांत एक. ही तांच्यांतली न्हय... म्हूण तिणें संबंद तुटूंक दिले...

सुनेचो कांयच गुन्यांव ना?

आसा. घोव इतलीं वर्सां आवय सरीं आशिल्लो, तो आतां आपणालो जाला, हाचें आवयक दु:ख जावं येता हें तिणें लक्षांत घेवंक जाय आशिल्लें. आनी आपणें ताका तिचे कडलो झोंबून घेतला अशें मांयक दिसचें न्हय म्हूण तिणें जतनाय घेवंक जाय आशिल्ली. जाल्यार तिवूय संबंद इबाडूंक दिवची नाशिल्ली...

मांय-सुनांक पडना हाचें खरें कारण हेंच आसता. खूब जाणांच्या लक्षांत तें येना. हाका लागून संबंद इबाडटात. आनी संबंद एक फावट इबाडले म्हणटकूच ते परते सोंपेपणान जुळून येनात. खरेपणानशीं पुताचें लग्न जायना फुडें आवय-बापायन ताका वेगळें बिराड करून दिवंक जाय. संबंद इबाडूंक पावनात.

मुंबय घाटकोपराक गेल्लों. म्हगेलो एक गुजराती इश्ट थंय रावता. ताका हार्ट अॅटॅक आयिल्लो म्हूण खबरेक गेल्लों. फ्लॅटांत तो आनी तागेली घरकान्न, दोगांच आशिल्लीं. तांकां एकूच पूत. तो काळबादेवीक रावता. म्हयन्यांतल्यान एक दोन फावट बायल-भुरग्यांक घेवन येता. आनी आवयक थोडे पयशे दिवन वता. हाचे भायर ताचो आवय-बापाय कडेन चडसो संबंद उरूंक ना.

आवय-बापूय दोगांय जाणटीं जाल्यांत. बाजारांत वचून कितेंय हाडटलीं म्हळ्यार, दोगांकूय जमना. बबलू नांवाचो शेजाऱ्यालो एक भुरगो येता आनी तो तांगेलीं हीं कामां करता. बबलू बारा तेरा वर्सांचे पिरायेचो. हांचो जीव ताचेर. आपणालोच नातू जाल्ले वरी ताका हीं वागयतात.

ह्या बबलूची खबर थंय आयकली –

ताचे आवयक आनी आजयेक पडऽनाशिल्लें. खूब कडेन पळोवंक मेळटात तसले हे मांय-सुनेचे संबंध आशिल्ले. मांयक सून 'बा' म्हूण उलो मारताली. पुणून तिका 'बा' केन्ना मानिनाशिल्ली. मांयची तिका एके तरेची अॅलर्जी आशिल्ली. तिका घरांतली भायर कशी काडची हें ती चिंतताली. एक दीस तिणें धीर करून घोवाक म्हळें, 'तूं ऑफिसाक वतकूच फाटल्यान ही म्हजो जीव खाता. खुबूच पिरपीर करता... तिचे पिरायेचीं हांगा कोण नात. तिका वृद्धाश्रमांत व्हरून दवरल्यार कशी? थंय तिका तिचे पिरायेच्यो बायलो मेळटल्यो. तिवूय सुखी उरतली, आमीय सुखाक पावतलीं...'

घोवान म्हळें, 'वायट-शी कल्पना न्हय ही... तिका थंय कितेंच उणें पडचें ना इतलेंच पळे...'

दुसऱ्या दिसा ही तिका घेवन वृद्धाश्रमांत गेली. थंय पळेत जाल्यार तिगेली भावज थंय आयिल्ली दिश्टी पडली. तिवूय आपणाले मांयक (म्हळ्यार, हिचे आवयक) घेवन आयिल्ली. आवयक पळोवन हिका रडूंक आयलें. परिणाम– मांयक घेवन ती मोन्यांनी घरा परतली.

तरी आसतना तिची ॲलर्जी ना जावंक नाशिल्ली. ती त्या बबलून ना केली. कितें जालें, हिणें आपणालीं कावलाक आयिल्लीं पोन्नीं आयदनां विकून नवीं स्टिलाचीं आयदनां घेतिल्लीं. पोन्न्या आयदनांतलें फकत आलुमेनाचें एक ताट तिणें कडेक काडून दवरिल्लें. सगळीं जेवंक बसतालीं तेन्ना हेर सगळ्यांक ती स्टिलाच्या ताटांनी वाडटाली. मांयक ह्या आलुमेनाच्या ताटांत वाडटाली.

बबलून एक दीस हें ताट लिपोवन दवरलें.

दुसऱ्या दिसा जेवणा वेळार आवय हें ताट सोदपाक लागली.तेन्ना बबलून म्हळें, 'तें ताट सोदूं नाका. तुका तें मेळपाचें ना. हांवें तें लिपोवन दवरलां...'

'लिपोवन दवरलां...? कित्याक?'

'हांव लग्न जातलों तेन्ना तें म्हजे बायलेक दितलों आनी तुका ह्या ताटांत वाड म्हूण तिका सांगतलों.'

त्या दिसा सावन मांय-सुनेचे संबंद निवळ्ळे. उपरांत ती 'बा' म्हूण तिका मना पसून उलो मारपाक लागली.

बबलूक पळोवचो अशें म्हाका दिशिल्लें. पुणून तो इश्कोलाक गेल्लो. परतुपाक कळाव आशिल्लो. इतलो वेळ बसून रावप म्हाका जमपा सारकें नाशिल्लें म्हूण परतलों.

पुर्तुगेज शिकतालों तेन्ना *आ नॉस्सा तॅर्रा* नांवाचें एक पुस्तक आमकां लागिल्लें. तातूंत एक पाठ आशिल्लो. पाठा वांगडा एक चित्रूय दिल्लें. एकलो तरणाटो आपणाल्या बापायक खंय तरी घेवन वता. पूत मुखार चलता. बापूय फाटल्यान चलत येता. वाटेर एके कडेन पूत बापायक विचारता, 'तुका खंय घेवन वतां हें खबर आसा मूं तुका?'

'आसा', बापूय जाप दिता आनी म्हणटा, 'कांय वर्सां पयलीं हांव म्हज्या बापायक घेवन गेल्लों, आनी कांय वर्सां उपरांत तुजो पूत तुका घेवन वतलो, थंय...'

हे कथेचो त्या दिसा म्हाका उगडास जाल्लो.





## ५५.

कायद्या मुखार सगळे सारके. देखून, कोणूय कसलोय गुन्यांव करता तेन्ना त्या गुन्यांवा खातीर कायद्यान सांगल्या ती ख्यास्त न्यायाधीश ताका फर्मायता. मागीर तो कोणूय आसूं, सादो किरकोळ आसूं वा व्हडलो कोणूय 'म्हाळ पै' आसूं. न्यायाधिशाक दोगूय सारके.

न्यायदेवतेन आपणाल्या दोळ्यांचेर बेश्टी पट्टी बांदून घेवंक ना.

पुणून वेव्हारांत आमकां कितें दिश्टी पडटा? धरुंया, अमक्याच एका गुन्यांवा खातीर न्यायाधिशान अमकोच दंड फारीक करपाची ख्यास्त फर्मायली. गुन्यांव केल्लो मनीस सादो किरकोळ कोणूय आसलो जाल्यार ताका घरकान्नीच्या आंगा वयल्यो वस्ती विकून तो फारीक करचो पडटलो. तीच ख्यास्त जाल्लो कोणूय दुडवांकार आसत जाल्यार तो कांय न्हय जाल्ले वरी रोखडोच दुडू फारीक करून घरा येतलो. धरुंया, न्यायाधिशान बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली जाल्यार सादो किरकोळ मनीस बंदखणींत वचून ती भोगीत रावतलो, आनी दुडवांकार 'जिवाक बरें ना' म्हणटलो आनी सरकारी डॉक्टराचो दाखलो घेवन लागसारच्या खंयच्याय लग्झरी हॉस्पिटलांत स्पेशल रूम घेवन रावतलो. खर्च करूं तो मागीर आपल्या बोल्सांतलो.

हालींसराक कोट्ट्यांनी अब्जांनी रुपयांची चोरी केल्ले कांय जाण वेंचून येवन सरकारांत मंत्री जाल्यात आनी पत्रकारांनी तांच्यो इंटरव्यू घेतल्यात. कांय 'इंटरव्यू' हांवें दूरदर्शनाचेर पळेल्यात.

असले लोक वेंचून येवंक पावचे न्हय म्हूण न्यायालयान वेंचणूक आयोगाक गरजेचीं पावलां उखलपाचो आदेश दिल्लो. कितें जावचें बुद्ध गांधीच्या ह्या

देशाच्या पार्लमॅन्टांत?! सगळ्या राजकी पंगडांच्या खासदारांनी एका मत्तान तो आदेश भायर मारूंक लायलो.

केन्ना केन्ना दिसतालें, सगळ्यांक एकेच तरेची ख्यास्त फर्मावंक जायना. साद्या किरकोळ मनशाक एके तरेची फर्मावची, आनी तोच गुन्यांव केल्ल्या 'म्हाळ पै'क धा वांट्यांनी, शंबर वांट्यांनी चड कडक ख्यास्त फर्मावची.

पुणून हो विचार लोकां मुखार दवरपाचो धीर जायनाशिल्लो.

पयर महर्षी दयानंद सरस्वतींचो *सत्यार्थ प्रकाश* हातांत पडलो. चाळीत बशिल्लों. सव्या 'राजधर्म' नांवाच्या 'समुल्लासां'त (प्रकरणांत) वाचूंक मेळ्ळें – ज्या गुन्यांवा खातीर साद्या किरकोळ मनशाक ख्यास्त जाता तोच गुन्यांव राजान केल्लो आसत जाल्यार ताका हजार वांट्यांनी चड खर ख्यास्त जावंक जाय. प्रधानाक आठशीं वांट्यांनी, ताचेकूय सकयल्या पांवड्या वयल्या अधिकाऱ्याक सातशीं वांट्यांनी. ह्या नेमान सामक्या सकयल्या पांवड्या वेल्या चपराश्याक (प्यूनाक) आठ वांट्यांनी जावंक जाय.

मनीस ज्या पांवड्याचो त्या पांवड्याची ख्यास्त ताका जावंक जाय.

आनी, दयानंद सरस्वती हें *मनुस्मृती*चो आधार घेवन सांगतात. म्हळ्यार, मनू आयच्या कायदेपंडितां परस चड न्यायी आशिल्लो अशें जालें ना?

*मनुस्मृती* घेवन बसची पडली आतां परत.





## ५६.

खुशवंत सिंग म्हाका केन्ना आवडलो ना. एक पोजडो लेखक हो. म्हुण्णूच जावंये, खूब खपता. मनिसूय पोजडो आसूंक जाय. न्हय जाल्यार पोजडें बरप केन्ना बरोवचो नाशिल्लो.

आयज अवचीत – कशी कोण जाणा – ताणें सांगिल्ले एके गजाली कडेन नदर गेली. ताचे कडेन खंय असल्यो जायत्यो गजाली आसात. झांकड्यांक बसता तेन्ना खंय तो ह्यो गजाली लोकांक सांगता.

दिल्लींतल्या सुजानसिंग पार्कांतले चार माळ्यांचे एके बिल्डिंगेंत ग्राउंड फ्लोअरार, तो रावता. आशिकुशीक सुमार साठ बिराडां आसात. सगळीं 'सभ्य' जाल्ल्यान कोण खंयचो, कितें करता, कोण लावन घेना. जाणून घेवपाची कोणाक इत्साय जायना. मर्दीच पार्कांत एकाद्री ॲम्बुलन्स येता तेन्ना कोणाक कितें जालां तें एकामेकांक फुतफुतून सगळे विचारतात. कोणूय खंवसलो म्हूण कळत जाल्यार सगळे भायर येवन मानो सकल घालून ॲम्बुलन्सी भोंवतणी उबे रावतात. हाचे पेल्यान आमचो शेजारधर्म वचना अशें खुशवंत सिंग म्हणटा.

ह्या पार्कांत एक बायल-मनीस रावता. रीता देवी नांवाची. आसामची. कूच बिहारच्या राजकुमार भीम वर्माची बायल. दोन वर्सां जालीं घोव भायर पडल्यार. तो सुण्या-माजरांचो मोगी आशिल्लो. आपणालें हें दायज तिका दिवन तो गेलो. लग्ना पयलीं ती कांय वर्सां मदर तेरेझाच्या हाता खाला रावन पिडेस्तांची सेवा करताली. ती पार्कांतल्या साटूय बिराडांतल्या लोकांक वळखता. कोण खंयचो कितें कात, ती जाणा. तांच्या बायलां-भुरग्यांकूच न्हय तर सुण्यां-माजरांक लेगीत नांवान वळखता. घरांतल्यान भायर सरना फुडें त्या वाटारांतलीं गांवा वेलीं सुर्णी तिचे भोंवतणी आनाळ्यो गुनाळ्यो काडपाक लागतात. कोण तिचे हात चाट्टात, कोण तिचेर उडयो घेतात. सगळ्यांक ती जेवंक खावंक घालता. तिणें आपणाले मांयच्या नांवान एक ट्रस्ट चलयला. डॉ. मनमोहनसिंग ह्या ट्रस्टाचे एक पेट्रन.

प्रधानमंत्री जावचे पयलीं कितलींशीं वर्सां ते राज्यसभेचे वांगडी आशिल्ले तेन्ना सावन. ती रावता दिल्लींत. पुणून तिचें काळीज आसता आसामांत. गुवाहाटी लागसारच्या बेतकुची गांवांत तिणें एक हॉस्पिटल चलयलां. एक मोबायल व्हॅन घेतल्या. हे व्हॅनींत एक दवाखानो आसा, आनी व्हॅन गांवभर भोंवता.

खुशवंत सिंग सांगता, एक दीस तिणें एक धवी व्हॅन हाडली आनी सुजानसिंग पार्कांतल्या सगळ्यांक ती पळोवपाक तिणें आपयले. तांकां 'भितर पळेयात' म्हूण सांगलें. भितर दोन खाटी घाल्ल्यो, एक वॉश बेसीन, एक रेडिओ, एक मायक्रोस्कोप आनी डॉक्टरांक इमर्जन्सी ऑपरेशन करपाक उपकारा पडूं येतात असले इन्स्ट्रुमॅन्ट आशिल्ले. व्हेनीचे भायले वटेन इंग्लीश, हिन्दी, उर्दू आनी गुरुमुखींत व्हडल्या अक्षरांनी 'कपिल सिब्बलची भेट' म्हूण बरयल्लें. लोकसभेचेर सिब्बल वेंचून आयल्यात ताचे पयलीं दिल्ली भेट ही. 'कितल्याक पडल्या जातली ही व्हॅन सिब्बलाक?' – खुशवंत सिंगान तिका विचारलें. 'बारा लाख रुपये', तिणें जाप दिली. आनी जोडलें, 'म्हाका मागचे पडले नात. ताणें बारा लाखांचो एक चेक काडून हातांत दिलो आनी म्हळें, तुका जाय तशे खर्च कर.'

रीता वर्मा कोणाच कडेन पयशे मागिना. ती कसलो वावर करता तें सगळ्यांक खबर आसा. मागिनासतना लोक तिका चेक दितात. मनेका गांधीन तिका एक दीस एक चेक दिलो. गांवा वयल्या सुण्यांक जेवण-खाण घालपा खातीर. खासा खुशवंत सिंगाच्या घरच्या लोकांनी लेगीत तिका मागिनासतना एक चेक दिला.

मोबायल व्हॅन पळोवन खुशवंत सिंगान म्हळें, 'म्हणटकूच ही व्हॅन आतां आसामांत वतली तर!'

'ना ना. ती दिल्लींतूच भोंवतली', तिणें जाप दिली. तुर्कमान गेट, अजमेरी गेट, पहाडगंज, जामा मसजीद, सरोजिनी नगर, त्रिलोकपुरी, मोती बाग ह्या वाटारांनी भोंवतली. दोन डॉक्टर आनी दोन नर्सी घेवन. खंयच्या दिसा व्हॅन खंय आसतली तें सगळें आंखून काडलां. म्हाका पयशे जाय पडटले. खंयच्यान येतले, खबर ना. पुणून मदर तेरेझा म्हणटाली, *'भगवान आछेन'* – 'देव आसा', तूं काम कर. तो कोणा कडल्यानूय तरी पयशे धाडून दितलो...'

हांगा खुशवंत सिंगाची गजाल सोंपता.

देव आसत, नासत. पुणून एक खरें, बरें काम केन्नाच पयशे नात म्हूण अडून उरना. जावं, खुशवंत सिंगाक असलेंय बरोवंक येता म्हणपाचें.





## ५७.

कोणाकूय आपणालो शिष्य करून घेवचे पयलीं बुद्ध ताका पांच सोपूत घेवंक लायतालो –

१. हांव फटींगपणां करचों ना.
२. हांव प्राणघात करचों ना.
३. हांव चोरी करचों ना.
४. हांव व्यभिचार करचों ना, आनी
५. हांव चैनींत लोळत रावचों ना.

हाचो अर्थ, बुद्धाचे मुस्तींतलो लोक फटींगपणां, प्राणघात, चोरी, व्यभिचार करीत आयिल्लो, आनी चैनींत लोळप हाकाच जियेवप मानतालो, असो जालो ना?

बुद्धाक एक नवो समाज घडोवपाचो आशिल्लो. जांच्या आधारान तो हो समाज घडोवंक सोदतालो तांच्या निजी जिवितांत कांय नेम चलिल्ले तो पळोवंक सोदतालो. तांचे देखीन समाजूय ह्या नेमांक पाळो दितलो अशी आस बुद्ध बाळगितालो. आनी, हे भाशेन, समाजाचो नितीचो पांवडो वयर व्हरूंक आंवडेतालो.

बुद्धा उपरांत सुमार अडेज हजार वर्सांनी गांधी आयलो. ताकाय देश घडोवपाचो आशिल्लो. जांच्या आधारान तो देश घडोवपाक सोदतालो तांच्या प्रशिक्षणा खातीर ताणें एक आश्रम सुरू केलो. आनी आश्रमांत येवन रावतल्यां खातीर ताणें एक नेमावळ तयार केली. हे नेमावळींत बुद्धाच्या 'पंचशीलां'तल्या पांच नेमां भायर आनीक स नेमांची ताणें भर घाली आनी तांकां 'एकादश व्रतां' (इकरा व्रतां) हें नांव दिलें.

थोड्या लोकां मजगतीं जावं, पुणून ह्या नेमांक (इकरा व्रतांक) पाळो दितल्या लोकांन्नी देशांत चारित्र्याची एक शेगडी कांय वर्सां पेटत दवरली. तिका लागून देशाच्या चारित्र्याचें तापमान कांय डिग्री तरी वाडूंक पाविल्लें.

पुणून -- बुद्धाचें जालें तेंच जिस्त गांधीचें जालें. बुद्ध आसासर देशाचो चारित्र्याचो पांवडो वयर सरत रावलो, आनी तो वयर सरिल्ल्यान बुद्धमत्त संवसारभर पातळूंक पावलें. तागेलें परिनिर्वाण मात जालां, देश आशिल्लो तसो इल्लो इल्लो करून फटींगपणां, मारामारी,चोरी, व्यभिचार आनी चैनींत गुल्ल जालो.

तो अवनतीच्या ह्या पांवड्यार पावला त्याच वेळार जिस्त यवन, शक, पहलवी, कुशाण बी वाटमारे एका फाटल्यान एक घुरयो घालून येत रावल्यात आनी देश हजार देड हजार वर्सां परक्यांचो बंदो जावन उरला.

कितल्याश्या शतमानांच्या बंदेपणा उपरांत १८५७त तो पर्थून एक फावट तकली वयर काडून उबो रावलो. १९१७ मेरेनच्या काळांत ताणें वयर सरपाचे कितलेशे यत्न केले. संस्कृतायेच्या मळार सगळ्यांत चड केले. गांधीच्या हातांत रासवळ जिविताचीं सुतां आयलीं तेन्ना देश पर्थून एक फावट वयर सरपाक लागलो, आनी तीस पस्तीस वर्सां भितर 'एक सार्वभौम प्रजासत्ताक राष्ट्र' ह्या रुपान संवसारा मुखार उबो रावलो.

गांधीची हत्या मात जाल्या, आरे आरे म्हणटासर पन्नास वर्सां भितर देश आशिल्लो तसो फटींगपणां, मारामारी, चोरी, व्यभिचार, चैनीच्या आपल्या मूळ पांवड्यार येवन रावला. आनी, नव्या वाटमाऱ्यांच्या -- भौराष्ट्रीय कंपन्यांच्या -- नव-साम्राज्यवादाचें एक आंग जावन पडला.

आतां? बुद्ध गांधी सारको नवो कोण येतलो म्हूण वाट पळेत रावतले? काय आमचे आमीच वयर सरपाचो यत्न करतले?



५८.

'माग... मेळटलें' हो भावार्थ म्हज्यांत केन्ना उदेलो, खबर ना. आवयचो प्रभाव आसूं येता. ह्या भावार्थाक धरून जें जें कितें जायशें दिसलें, मेळचेंशें दिसलें, आसचेंशें दिसलें तें तें सगळें – सत्या, संपत, नामना – अनमन नासतना मागीत रावलों.

पुणून मागलें तें केन्नाच मेळ्ळें ना.

म्हूण कितें, 'माग... मेळटलें' ह्या म्हज्या भावार्थाक वेर गेल्या व्हय तर? ना. परती, थोडी अक्कल आयल्या (ती हांवें केन्ना मागूंक नाशिल्ली). दिसलें, मागता तें मेळना जाल्यार हाचें एकूच कारण आसूंक जाय. 'मागता तें हाका दिलें जाल्यार तें हाच्या बऱ्याक पडचें ना' अशें देवाक दिसता जावंक जाय. म्हूण तो तें दिना.

तरी आसतना, मागपाचें सोडलें ना. एकूच केलां. सदां भाशेन जायशें दिसलां तें मागलां, आनी मागून जातकूच 'म्हज्या बऱ्याक पडत जाल्यारूच दी. तुजे इत्से प्रमाण जावंदी', हें एक वाक्य निमाणें जोडलां.

कितलींशीं वर्सां हे भाशेन मागीत रावलों. एक दीस अचकीत दिसलें, आयज जें कितें म्हजे कडेन आसा तांतलें कितेंच हांवें मागूंक नाशिल्लें. तरी आसतना म्हाका तें मेळ्ळां आनी तें थोडें मेळूंक ना. बऱ्यांतली बरी आवय, बऱ्यांतलो बरो बापूय, बऱ्यांतलो बरो पूत, नातरां, भाचरां, सोयरे-धायरे, इश्ट वांगडी आनी – जे सपसप कोणाक मेळूंक पावूंक नात असले – बऱ्यांतले बरे गुरू म्हाका मेळ्ळ्यात. हाचो अर्थ, मागऽ नासतना तो दिता, असो जालो ना? तो दिवंक जाणा. मागीर, मागूंक कित्याक जाय?

हे जाणविके वांगडा म्हजें देवाचें रूप बदल्लें. म्हळें, देवळांतलो देव संवसाराचो धनी. जें जें कितें जल्माक येता, जियेता, मरता तें तें सगळें तोच घडोवन हाडटा. ताचे इत्से बगर तणाचें पातें लेगीत हालना. पुणून म्हाका घडयता तो म्हज्या काळजांतलो देव. म्हज्या जिविताचो धनी हो देव. म्हज्या बऱ्याचें दीस रात तो चिंतीत आसता. संवसाराचो जो धनी ताचोच अंश हो. म्हाका सगळ्यांत लागींचो. म्हजो अंतर्यामी. ताच्या सांगातांत हांवें दीस रात रावंक जाय. तेन्ना सावन देवळांतल्या देवा सरीं वचपाचें सोडून दिलें. कोणूय गोंयांत आयला, ताका देवळां दाखोवपाक घेवन गेलां तेन्ना पावतां, हरशीं वचना.

अक्षरांची वळख जायसर पाटयेची गरज आसता. अक्षरांची वळख जाली म्हणटकूच मनीस पुस्तकांच वाचपाक लागता. पाटी तो कडेक दवरता. (विनोबांची ओपार ही.) तशी अंतर्यामीची वळख जायसर देवळांतल्या वा देवाऱ्यांतल्या देवाची पुजा करपाची. वळख जातकूच अंतर्यामीची प्रार्थना करपाची. आमकां देव जाय. पुणून कसलो? संकश्टां, अरिश्टां, दुःखां येतात तेन्ना तीं झेलपाची आनी सोंसपाची शक्त दिता असलो. आमच्या काळजांतलो मोग व्हांवतो करून अख्ख्या संवसाराक वेंग मारपाची बुद्द दिता असलो. उजू चलणुकेची ओड लावन चार चवगांच्या बऱ्या-भल्या खातीर वावुरपाची प्रेरणा दिता असलो. आमच्या लागणुकांची आमकां जाणवीक करून दिता आनी ह्या लागणुकांक फावऽ सारकी करणी आमचे कडल्यान करून घेता असलो. आमच्यांतलें अज्ञान, कुड्डेपण, भोळेपण ना करून आमचो आत्मविस्वास वाडीक लायता असलो. आमकां आठूय पार जागरूक दवरून आमच्यांतली आळसाय, लोभ, दुबळेपण ना करून आमकां धीरवान, हुसक्या मेकळे, उदार आनी नमळ करता असलो. कूड, मन, बुद्द हांच्यांत चैतन्य ओतून आमकां सदां प्रसन्न दवरता असलो. आमी अगतीक जातात तेन्ना आमच्या जिविताक गती दिता असलो. पश्चात्तापांत आमकां सांत्वन दिता, नितीचे नदरेन आमी पडटात तेन्ना आमकां हात दिवन वयर काडटा असलो. गोंदळ्ळेले अवस्थेंत आमकां नीट वाट दाखयता असलो. आमचें चित्त निर्मळ करून आमचे कडल्यान बऱ्यो करण्यो करून घेता असलो.

असलो देव स्वर्गार राविना, देवळांत वचून बसना. आमच्या काळजांत बसून रावता, आमचे दर एके करणेचेर नदर दवरून रावता. थंयच ताका 'अणभवूंक' जाय. थंयच ताका थीर करूंक जाय.





५९.

'भाटकारा, कितेंय घाल म्हाका... हांव गरीब... म्हजे कडेन कांयच ना', अशें म्हणून एकल्या तरणाट्यान हात मुखार काडून तॉलस्तॉया कडेन भीक मागली... तॉलस्तॉय एक व्हड भाटकार रशियेंतलो. गरिबांचो कळवळो आशिल्लो. मागल्यार रित्या हातांनी परतो केन्ना धाडचो ना ह्या भावार्थान मागिल्ली भीक. तॉलस्तॉयान ताका नियाळून पळेलो आनी विचारलें, 'तुजे कडेन कांयच ना?'

'ना भाटकारा... पानदुडूय ना...'

तॉलस्तॉयान म्हळें, 'म्हजो एक इश्ट दोळे विकते घेता. धा धा हजार रुबल्सान एक... तुका चीट दितां. ती घेवन ताचे सरीं वच आनी तुजे दोनूय दोळे ताका वीक. वीस हजार रुबल्स मेळटले.'

तरणाट्यान अजापान विचारलें, 'दोळे वीक म्हणटा, भाटकारा?... च्ये विकपाचों ना हांव...'

'हात वीक. पंदरा हजार रुबल्स मेळटले एका एका हाताक...'

'ना... ना.. म्हाका हातूय विकपाचे नात...'

'पांय? वीस वीस हजार मेळटले...'

'कितें उलयता तूं भाटकारा?' भिकाऱ्यान विचारलें.

तॉलस्तॉयान मुमुरख्यांनी हांसून म्हळें 'तूं गरीब, न्हय? तुजें दळडीर ना कशें करचें तें तुका सांगता... कूड विकशीत जाल्यार तुका धा लाख रुबल्स मेळटले... आसा व्हय तयारी?

'ना... धा लाख खंयचे, धा कोट रुबल्स मेळ्ळे जाल्यारूय हांव म्हजी कूड विकपाचों ना...' तरणाट्यान निक्षून सांगलें.

खळखळून हांसून तॉलस्तॉयान म्हळें, 'धा कोट रुबल्सं मेळ्ळे जाल्यारूय जो आपणाली कूड विकूंक तयार ना तो गरीब कसो रे? सभाग्या, दोळे, हात, पांय,

कूड ही तुजी खरी संपत. इतलें तुज्या लक्षांत आयलें जाल्यार रुबल्सूच न्हय, भांगर रुपें कित्याकूच मोल दिवचो ना तूं... चल यो, तुका काम दितां' अशें म्हणून टॉलस्तॉयान ताका लांकडां फोडपाचें काम दिलें आनी म्हळें, 'फाल्यांय यो, तुका शेतार काम दितां... तरणी पिराय तुजी... भीक मागून तिचो अवमान करूं नाका...'

श्रमाक मोल आसा म्हणपाचें आमकां कोणेंच शिकयलें ना. श्रमाचीं कामां उणाक लोकांनी करपाचीं, कांय शिकूंक नाशिल्ल्यांनी करपाचीं, तीं बरप-अक्षर शिकिल्ल्यांचीं न्हय, ह्याच संस्कारांत आमची वाड जाल्या. परिणाम – शिकिल्ल्या कोणाकूच माडार चडून नाल्ल पाडूंक येनात. कोबलें घेवन गार्फा वेले आंबे काडूंक येनात. माडयेर चडून सुपारी पाडूंक येना. नुस्तें उजरावंक येना. रांदूंक येना... म्हाका जाल्यार च्या लेगीत करूंक येना. आर्विल्ल्या शिक्षणान आमकां विकलांग करून उडयल्यात. जंय पांयांनी सोंपेपणान वचूं येता थंय लेगीत आमी मोटारीन वतात. हाताचो उपेग आमी फकत ताळयो मारपाक करतात. सचिन तेंडुलकरान सिक्सर मारली, मार ताळयो. अमिताभ बच्चनाचो डायलॉग आयकलो, मार ताळयो. पियादां मारून बरयल्ली कविता आयकली (कवींक खंय ती 'येता') मार ताळयो. हात म्हळ्यार *कर*. कर्मयोगाचें साधन. ते बेकार पडल्यात. म्हणटकूच ताळयो मारपा पेल्यान बावडे दुसरें कसलें काम करतले? विठोबाचे भक्त आमी. दोनूय हात कमरार दवरून अठ्ठावीस युगां मेरेन विटेर उबे रावन आयिल्ले. सत्येच्या कदेलार बसूंक पावले जाल्यार हाता खालच्या लोकांक ओर्दी सोडपाक तांचो उपेग करतले. (ते बगर आमी व्हड जाल्यात म्हणपाचें आमकांच पटपाचें ना.) सचिवालयांत केन्ना पावतात? देड दमडेच्या लोकां मुखार आमचे म्हालगडे कशे आनाळ्यो गुनाळ्यो काडटात ते पळोवंक मेळटले. आनी मान सकल घालून तुमी परततले. आमी सगळ्यांनी आमचे श्रम विकल्यात, कूड विकल्या. बुद्‌दूय विकल्या. तें कित्याक, मान अभिमान इमान सगळें विकून उडयलां.

राष्ट्राच्या जिवितांत श्रमाचें म्हत्व वाडटलें तेन्नाच डॉलर पांवडांचें मोल देंवतलें. मागीर रुपयांक मोल येतलें. तांचोच शेक चलतलो.





## ६०.

पणजे गेल्लों. म्हज्या हातांत 'जागा'चो नवो आंक आशिल्लो. एक इश्ट मेळ्ळो. दोतोर. ताणें आंक हातांत घेतलो आनी तो चाळून विचारलें, 'तुमकां सरकारी जायराती मेळटात काय ना?'

'मेळटात मर्दी मर्दी... बऱ्योच फावटी मारले उपरांत...' हांवें जाप दिली.

'आरोग्य खात्याची मेळटा?'

'मागूंक वचूंक ना.'

'सामके बाबत कशे तुमी? ह्या खात्या कडेन एड्स पिडे आड प्रचार करपा खातीर कोट्यांनी रुपये विश्व बँके कडल्यान आयल्यात... एका लाखाची जायरात मागली जाल्यारूय तुमकां मेळटली...' ताणें म्हळें.

म्हाका भिरभिरी मारिल्ली. पुणून म्हजो इश्ट तो. म्हूण ओगी रावलों. हांवें ताका विचारलें, 'एक सांग दोतोर, एड्स कित्याक लागून जाता?'

'फ्री सॅक्साक लागून. हालींसराक तरणाट्या चल्या-चलयांक धरबांद उरूंक ना. टीवीर तीं तरातरांचे नाच पळेतात. तशीं मनांतल्या मनांत तींय नाचूंक लागतात. मागीर, भोंवतणच्या संवसारांत कोणाक 'शाहरुख खान' मेळटा, कोणाक 'ऐश्वर्या राय' मेळटा, तर कोणाक आनीक कोण मेळटा, आनी कोणाचोय कोणाय कडेन संबंद येता... लग्न जाल्लीं मनशां लेगीत सगळ्या बांदपासांतल्यान मेकळीं जाल्यांत हालींसराक... असल्या लग्ना आदल्या वा लग्ना भायल्या संबंदांक लागून एड्स जाता...'

'हाचेर उपाय कितें?

'कोंडोम वापरात म्हूण तांकां सांगप. दुसरो कितें?'

हांव खो खो करून मोट्या मोट्यान हांसपाक लागलों. म्हळें, 'बरो उपाय येवजलो तुमकां हो... चोरी करात, दरवडे घालात, पुणून पुलिसांच्या हातांत मात सांपडूं नाकात अशें सांगपा सारको उपाय न्हय हो? कोंडोमचो उपाय वैजांनी सोदून काडिल्लो तो व्यभिचाराक मेकळीक मेळची म्हूण न्हय. बायल भौन भौन गुरवार जाता तें तिचे बलायकेक वायट म्हूण. गुरवाचार आडावपा खातीर हो उपाय तांणी सोदिल्लो. तुमी व्यभिचाराक पोसवण दिवपा खातीर ताचो उपेग करपाक लागले. चोराक चोरी करूं नाका म्हूण सांगूंक जाय. तरी आसतना तो चोरी करीत रावलो जाल्यार ताका धरून पुलिसां सुवादीन करूंक जाय... फ्री सॅक्साक लागून एड्स जाता जाल्यार फ्री सॅक्स बंद करात म्हूण लोकांक सांगूंक जाय. तरी आसतना लोक तो बंद करिनात जाल्यार तांकां 'तुमी कुसून वळवळून मरात' म्हूण सांगूंक जाय. हातुंतूच मनीसपण आसा. असल्या लोकांक वांचोवन देशाक कसलो लाव जावपाचो आसा? एड्स फकत व्यभिचाराक लागून जाता. ताका तुमी पोसवण दितात? कसली संस्कृताय हाडल्या तुमी ही संवसारीकरणा वांगडा देसांत?





## ६१.

अण्णा हजारेंक उपासाचें व्यसन बी लागूंक ना मू? आत्र्या पयऱ्यान ते कसलेंय तरी निमित्य सोदून उपासाक बसतात. आनी तांगेलो हो उपास 'प्राणान्तीक' आसता. कांय दिसांनी कोण एकलो मुखार सरता. तो तांकां 'आश्वासन' दिता, तुमकां जाय तें आपूण करून घेतां म्हूण सांगता आनी अण्णा उपास सोडटात.

अशें भौन भौन चलत रावलां.

अण्णांच्या उपासांक लागून उपासाचें अस्त्रूच हांशाक म्हारग जावन पडलां. ताची पत होगडावल्या.

सत्याग्रहाच्या अस्त्रालयांतलें दिव्यास्त्र हें एक. कोणाचेय आड सोडपाचें न्हय. खंयच्याय वेळार सोडपाचें न्हय. कशेंय सोडपाचें न्हय. राजकी मळार गांधीन ह्या अस्त्राचो वापर केल्लो. पुणून एक लक्षांत दवरूंक जाय. तांणी जिनां आड उपास केन्ना करूंक ना. पाकिस्तान मागतले मुस्लीम लिगे आड करूंक ना. तें कित्याक, इंग्रजां आडूय करूंक ना.

केला कोणा आड? आपणा आड. आपणाल्या लोकां आड. आश्रमांतल्या वांगड्यां आड. रासवळ मळा वेल्या आपणाल्या सांगत्यां आड. जांचे कडेन ते एकरूप एकजीव जाल्ले तांचे आड. हिन्दू मुसलमान पिशे जावन एकामेकांच्यो गोमट्यो कातरपाक लागले तेन्ना तांचे आड केला. ह्या दोनूय जमातीं कडेन ते खिलाफत चळवळी सावन एकजीव जाल्ले. हरिजनांक जांणी चिड्डून दवरले ते सवर्ण हिन्दू प्रायश्चित्त घेनात, तांकां देवळां उकतीं करिनात म्हूण तांचे आड केला. गांधी आपणाक 'सनातनी हिन्दू' मानताले.

उपासांत सगळ्यांत म्हत्वाचें तें हें.जाचे आड आमी हें अस्त्र उबारतात तो आमकां आपलोसो दिसूंक जाय. ताकाय आमी आपलेशे दिसूंक जाय. इतले आमी एकामेकांचे आसूंक जाय. अण्णा जांचे आड उपास करतात ते तांकां आपलेशे दिसतात व्हय? तांकां अण्णा आपलेशे दिसतात व्हय?' 'हय' म्हूण

जाप मेळत जाल्यार बऽरे भशेन उपास करचो. तो सोडोवपाक, मागीर कोणाच मध्यस्ताची गरज उरची ना. जाचे आड ते उपास करतात तो तांच्या पांयां कडेन येतलो. 'ना' म्हूण जाप मेळत जाल्यार मात उपास करप हो ह्या दिव्यास्त्राचो दुरुपेग म्हणचो पडटलो.

अण्णा ह्या अस्त्राचो दुरुपेग करतात.

क्रान्तिकारी जाळमुखा वरी पेटूंक जाय खरो. पुणून हें जाळमूख ताच्या काळजांत पेटूंक जाय. तकलेंत न्हय. तकली हिमालया परस थंड आसूंक जाय.

आणिबाणीच्या काळांत एका गांधीवादी इश्टान् – वसंतराव नारगोळकरान – इंदिरा गांधीं आड उपास केलो. उपास केलो, बरें आसा, पुणून तार्णे म्हाका 'तुजें मत कळय' म्हूण बरयलें. ल्हान तोंडांत व्हड घांस घेवन हांवें ताका बरयलें – 'इंदिरा गांधीं संबंदान तुमकां आपलेपण दिसता व्हय? बेबद्या पुताक पळोवन बापायक जातात ते तरेचे क्लेश तुमकां जाल्यात व्हय? 'हय' म्हूण जाप दिशात जाल्यार तुमचो हो उपास 'खरो'. ना जाल्यार तो 'अन्न सत्याग्रहां'त मोडटलो. Fast आनी Hunger Strike एक न्हय. भूंय मळबा इतलें अंतर दोनां मजगतीं आसा. दुसरें, तुमच्या ह्या उपासाक लागून, धरुंया, इंदिराजीन 'इमर्जन्सी' उठयली जाल्यार स्रय कोणाक वतलें? तुमकांच मू? खरेपणानशीं इमर्जन्सी काडपाचें काम पुराय देशान करूंक जाय. देशाचें, ते खातीर, सामुदायीक कर्तुत्व जागोवंक जाय. हें काम करी नासतना उपास करप समा न्हय'.

अण्णा हजारे गांधीवादी. लोक तरी तांकां गांधीवादी मानतात. तेच जर उपासाचीं फकांडां मारपा सारकीं कामां करपाक लागले जाल्यार मिठानूच खारसाण सोडली अशें म्हणचें पडटलें. ताका खार करपाक मागीर आमी खंय वतले?

भ्रष्टाचारा आड देश उठूंक जाय. अण्णा एकले उठून कितें जावपाचें आसा? प्रस्न देशाचो. अण्णांचो न्हय.








६२.

कबीराक पूरण नांवाचो एक शिष्य आशिल्लो. ताका सूरण नांवाचो एक भाव आशिल्लो. दोगूय दोन तरांचे. पूरण उजू चलणुकेचो. तर सूरण नाड, फोल्गी. एक दीस सूरणान पूरणाक म्हळें, 'म्हाका तुज्या गुरूच्या तोंडांतसून ताचें एक भजन आयकुपाचें आसा.व्हरशीत तूं म्हाका ताचे सरीं?'

पूरणान म्हळें, 'विचारून सांगतां.'

तो गुरू सरीं गेलो आनी म्हळें, म्हाका एक भाव आसा. नाड, फटींग. पुणून संगिताची ओड आशिल्लो. तो आपूण हांगा येवन एक भजन आयकतलो म्हूण आसा. कितें करूं?'

'घेवन यो ताका.' कबीरान म्हळें.

'पुणून ताची चाल-चलणूक बरी न्हय...'

'नासूं, पुणून घेवन यो तूं ताका.' कबीरान म्हळें.

पूरण ताका घेवन आयलो.

कबीरान एक भजन सुरू केलें –

*'घुंघट का पट खोल रे।*
*तोको पीव मिलेंगे ।*
*घट घट में वह साई रमता,*
*कटुक वचन मत बोल रे।।'*

आनी सदचे भाशेन भजनाचे अंतीं *'कहत कबीर सुनो भाई साधो'* म्हळें. पूरणाचो जीव वयर सकल जालो. गुरून हाका 'साधू' कसो म्हळो? हो साधू न्हय. गुरूचें उतर मिथ्या जातलें. तो उचांबळीत जावन उठलो आनी ताणें कबीराक म्हळें, 'न्हय, न्हय, तो साधू न्हय.' तरी आसतना कबीर *'कहत कबीर सुनो भाई साधो'* म्हणत रावलो. सूरणाक लज लज जाली. आपूण 'साधू' नासतना हो आपणाक साधू म्हणटा! कबीराच्या लक्षांत हें आयलें आनी ताणें म्हळें

*'हैं! साधू मैं कहैं। तूम साधू*
*जिसने तुम्हें मलिन कहाया*
*ए सब हैं झूठ जादू...'*

सूरण त्याच खिणाक बदल्लो. ताच्या आंगा वयलें 'विलासी' पांगरूण आपशींच गळून पडलें. ताच्यांत जें पवित्र आनी मंगल तत्व आशिल्लें तें त्याच खिणाक दीक्षित जालें.

कांय दिसांनी कबीर आपणाल्या कांय शिष्यांक घेवन तागेर गेलो. फुडल्या दारान भितर सरपा बदला मागील दारयां गेलो. जे वाटेन भंगी भितर सरतालो आनी पायखिळो निवळ करतालो तेच वाटेन गेलो. शिष्य अजापांत पडले. कबीरान म्हळें, मनशाचे संस्कृतायेच्या पांवड्याची वळख ताचो दिवाणखानो पळोवन करूंक जायना, मागीलदार पळोवंक जाय. मागीलदाराच मनशाचे संस्कृतायेचो पांवडो कळटा.

सूरणाच्या घराचें मागीलदार निव्वळ आशिल्लें. कबीर ते वाटेन आपणागेर येता हें पळोवन सूरण धांवत आयलो 'गुरुदेव, हे वाटेन शे?'

'तुजी परिक्षा घेवपा खातीर हे वाटेन आयिल्लों', कबीरान जाप दिली.

सूरण खोश्शी खोश्शी जालो. कांय काळान तोय एक संत म्हूण नांवाजतो जालो.





## ६३.

एका जपानी चित्रकाराची खबर आयकल्ली—

संवसारांतलो एक व्हड चित्रकार म्हूण ताची नामना जपाना भायर सगळे कडेन जाल्ली. ताचे कडल्यान चित्रकला शिकून घेवची म्हूण एकली तरणाटी तागेर आयली. 'हांव तुमचे कडल्यान चित्रकला शिकून घेवपाक आयल्यां', तिणें चित्रकाराक म्हळें. चित्रकारान तिका रंग, पिशोलां, कागदां बी दिवन आपणाल्या स्टुडियोंत एक सुवात दाखयली आनी म्हळें, 'हांगा बसून काड तूं चित्रां.'

म्हयनोभर ती चित्रां काडीत रावली. 'हांव हांगा चित्रकला शिकपाक आयिल्लीं. म्हयनो जालो, हाणें म्हाका कांयच शिकोवंक ना. आपले आपूण चित्रां म्हज्यान घरा बसून काडूं येतात', तिणें मनांत म्हळें, आनी उबगून ती घरा गेली.

कांय दिसांनी चित्रकार तिगेर आयलो. 'तुगेलीं चित्रां पळोवपाक आयलां', ताणें म्हळें. तिणें कितलींशीं चित्रां ताचे मुखार हाडून दवरलीं. तांतलें एक उखलून ताणें विचारलें, 'हें कशें काडलें?'

'तें सहज म्हाका आयिल्लें', तिणें जाप दिली.

'चित्रां अशीं सहज *येवंक* जाय. तीं *काडलीं* म्हणूंक जायनात', चित्रकारान तिका म्हळें.

चित्रांच न्हय, खंयचीय कला अशी सहज येवंक जाय, तेन्नाच ती 'खरी.'

मोगरेचे सगळे कळे खुंटून काड. दुसऱ्या दिसा तिच्या ताळयांचेर तितलेच नवे

कळे दिश्टी पडटले. बांयंतलें उदक सगळें उसपून काड. दुसऱ्या दिसा नव्या उदकान तितलीच उपाट भरिल्ली बांय तुका पळोवंक मेळटली. म्हजे कडल्यान आतां नवें कांय बरोवन जावचें ना, अशें सर्जकाक कितलेंय दिसूं, एक सर्जन पुरें जायना फुडें ताची प्रतिभा तितलेच उर्बेन नव्या सर्जनाचे तयारेक लागतली.

सर्जकाची प्रतिभा केन्ना आटना तशें कर्तुत्वी मनशाचें कर्तुत्वूय केन्ना सोंपना. आपल्या वांट्याक आयिल्लें सगळें आपणें केलें, करपा सारकें आतां कांय उरूंक ना, अशें दिसता त्याच वेळार जिस्त नवो एक वावर ताचे मुखार येवन उबो रावता. आनी, हें एक नवें आहवान, एक नवी संद अशें मानून तो हो वावर खांदार झेलून तडीक व्हरता.







## ६४.

गोंय घेना फुडें फिरंग्यांनी हिन्दूंचीं देवळां मातयेभरवण केलीं, मुर्ती तोडल्यो फोडल्यो, धर्म पुस्तकांय हुलपावन तांचो गोबोर केलो – हेंच वाचूंक मेळ्ळां न्हय आमकां आयज मेरेन?

मशिदी मातयेभरवण केल्यो नात तांणी? हांगा त्या वेळार अदिलशाहची राजवट चलताली. मशिदी आशिल्ल्योच जावंक जाय हांगा. त्योय मातयेभरवण केल्ल्यो आसूंक जाय तांणी. पुणून हें कोण सांगिनात. कित्याक? खबर ना. पुस्तकांचो हुलपावन गोबोर केलो म्हणटात तीं खंयचे भाशेंतलीं आशिल्लीं? कोंकणी भाशेंतलीं न्हयच. कोंकणींत काल पयर मेरेन पुस्तकांच नाशिल्लीं. ते मुस्तींत तीं कशीं आसतलीं? म्हणटकच हुलपावन उडयल्लीं पुस्तकां मराठींतलीं आशिल्लीं? 'हय तर! गोंयांत मराठींत तें मुस्तींत खंय *'विपुल वाङ्मय'* आशिल्लें.' जाल्यार मागीर प्रस्न उपरासता, तें वाङ्मय फकत तिसवाडी, बार्देस, साश्ट आनी मुरगांव ह्याच वाटारांत आशिल्लें? फिरंग्यांनी धुमशेणां कांडल्यांत तीं फकत ह्या वाटारांत. अंत्रूज, सांवड्डें, सांगें, कुस्मण, काणकोण, पेडणें, दिवचल, सांखळी, वाळपय ह्या वाटारांत तांचो शेक सुरू जाला तो ह्या धुमशेणांच्या देडशें दोनशीं वर्सां उपरांत. हुलपावन उडयल्ल्या पुस्तकांच्यो प्रतिलिपयो ह्या वाटारांत खंय तरी मेळुंकूच जाय आशिल्ल्यो. कोणाक त्यो मेळूंक नात. अ.का. प्रियोळकारांक तांगेल्या घरांत लेगीत मेळूंक नात. त्यो सोदपाक आमच्या विद्‌वानांक लिज्बोआक वचून थंयच्या 'बिब्लियॉतॅका नासियॉनालां'तलीं बाडां उस्तुचीं पडल्यांत!

फिरंग्यांचीं धुमशेणां सोळाव्या शतमानांतलीं. सोळाव्या शतमानांत खासा महाराष्ट्रांत तरी कितलींशीं मराठी पुस्तकां आशिल्लीं? *ज्ञानेश्वरी* एक आशिल्ली. तेराव्या शतमानाच्या अखेरच्या काळांतली. ज्ञानेश्वरी आदलीं म्हणटाले तीं *विवेकसिंधू* आनी *परमामृत* हीं मुकुंदराजाचीं पुस्तकां हालींसराचे जाणकार आदलीं न्हय म्हणटात. तांची भास पळेल्यारूच खंय तीं ज्ञानेश्‍वरा उपरांतच्या काळांतले मराठींतलींशीं दिसतात! महानुभाव पंथाच्या लोकांनी बरयल्लीं आशिल्लीं तीं बरपां गोंयांत पाविल्लीं? अशें कांय दिसना. एके गुपीत लिपयेंत तीं आशिल्लीं. हालींच तीं देवनागरींत आयल्यांत. म्हणटकूच फकत *ज्ञानेश्वरी,* आनी नामदेवाच्या

काळांतल्या नामदेवा भायर गोरोबा, सांवतोबा, चोखोबा सारकेल्यांचेंच वाङ्मय हांगा घोळटालें म्हणूं येता. पुणून हांची मराठी तेराव्या शतमानाचे अखेरच्या काळांतली वा चवदाव्या शतमानाच्या आरंभाच्या काळांतली. सोळाव्या शतमानांत महाराष्ट्रांत ती लोकांचे जिबेर घोळटाली? नामदेवा उपरांत सुमार दोनशीं वर्सांनी एकनाथ आयला. *ज्ञानेश्वरी*चो ताणें 'शुद्धपाठ' तयार केला (१५८४ त). हे विशींची एक आख्यायिका आसा. एक दीस खंय ज्ञानेश्वरान सपनांत येवन एकनाथाक सांगलें, 'म्हजे समाधीचेर कावळे चिरपल्ल्यान तिचेर वडा पिंपळा सारके रूख जाल्यात. ताका लागून समाधीक वेरो गेल्यात. एका रुखाच्या पाळान तर म्हजो गळो अंदिला'. एकनाथ रोखडोच पैठणच्यान उठून आळंदीक आयला, ताणें समाधी **सोदून काडल्या**, आनी थंय येवपाची वाट निवळ केल्या. ज्या रुखाच्या पाळान ज्ञानदेवाची गची आंवुळिल्ली ताका अजान वृक्ष म्हळा. 'अजान' हें उतर 'अज्ञाना' चें अपभ्रंश आसूंक जाय म्हणटात. हे आख्यायिकेचो अर्थ कसो लावपाचो? लोक ज्ञानेश्वराकूय त्या काळांत विसरिल्ले, आनी तागेले ज्ञानेश्वरीकूय विसरिल्ले, असोच न्हय? ज्ञानेश्वरी महाराष्ट्रांतूच दुर्बोध जाल्ली. आनी गोंयकारांक ती समजताली?

खासा एकनाथाक त्या काळांत मराठींत बरयता म्हूण केदी पिडापीड भोगची पडल्या पंडितां कडल्यान! ताणें *भागवता*ची मराठींत अर्थावणी बरोवपाक घेतली. पांच अध्याय बरोवन जाल्ले. ते पळोवन कर्मठ ब्राह्मणांचें पित्त खवळ्ळें. '*भागवता* सारक्या पवित्र ग्रंथाची मराठींत अर्थावणी बरोवप? केदें व्हड पातक हें?' अशें म्हणून तांणी पांचूय अध्याय न्हंयेंत बुडयल्ले. *'संस्कृत भाषा देवें केली, प्राकृत काय चोरा पासूनि आली'* असो शीण काडून एकनाथ वाराणसीक गेला. थंय तीन वर्सां रावन अर्थावणी पुरी करुनूच न्हय, तर वाराणसींतल्या पंडितांची शाबासकी घेवन परतला. जंय खासा महाराष्ट्रांतूच एकनाथा सारकेल्या एका व्हड विद्वान संताक हे उतळताप सोंसचे पडल्यात थंय गोंयांत *'विपुल मराठी वाङ्मय'* रचपी आशिल्ले? कोण ते? कृष्णदास शामा बी मागीर आयल्यात.

फिरंग्यांनी पुस्तकां हुलपावन गोबोर केलो म्हणटात तीं संस्कृत भाशेंतलीं आसूंक जाय. गोंयची भास मराठी म्हूण दाखोवन दिवपाक इतिहासाच्या नांवान कसलींय तड्डकां मारपाचीं? आनी आमी तीं मोन्यांनी खरीं मानपाचीं?





तरेकवार विशयां वेल्या चवसठ ल्हान ल्हान बरपांचो हो झेलो. वेळे वयल्यो घुलो, सांगाती, ओथांबे हेच यात्रेंतलें हें मुखावेलें पेणें. ह्या बरपांनी चिंतनां आसात, तश्यो चिंतूंक वाव दिवपी ल्हान ल्हान घडणुकांच्यो 'नोंदी'य आसात. रवीन्द्रबाब हांकां 'स्वान्तः सुखाय बरपां' म्हणटात. पूण ह्या सगळ्या बरपांनी वाचप्याक कितें तरी सांगपाचो, ताका विचार करूंक लावपाचो एक तीव्र हुटहुटोय आसा. सगळ्यांक सांगाता घेवन वांगडा तेजवंत जावपाचें आपोवणें दिवपी 'तेजस्विनावधी तमस्तु'चो साद ह्या बरपांनी पावला कणकणीं जाणवता.